# जाग

वर्स ३४ : आंक ५ : मार्च - मे २००८




* संपादपी
माधवी सरदेसाय

संस्थापक


स. सुमंत केळेकार

* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. १५०/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १२५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ४००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २५/-

jaag04@yahoo.co.in

## ह्या आंकांत :





'शांतारामबाब निखटे ब्रश वावुडपी कलाकार नाशिल्ले, जिविताची कला साधिल्ले कलाकार आशिल्ले. नवें गोंय घडोवपाक जे लोक तळमळीन वावुरल्यात, गोंयचे रासवळ जिणेचो दर्जो वाडोवंक जांणी आपणाल्या व्यक्तिगत करियराची पर्वा केन्ना केली ना तांच्यांत शांतारामबाबांचो आसपाव जाताच जाता. नव्या गोंयचो एक शिल्पकार हो. तांकां आमचें नमन...'





'निर्शेल्लो, खर्शेल्लो हो मध्यम वर्गाचो दुसरो पुतूच क्रांती घडोवन हाडपाचो आसा. मात्सो थार धरात. तो पेटून उठिल्लो थोड्याच वर्सां भितर दिश्टी पडटलो. तो गांधी नासतलो, लोहिया नासतलो. घडये नक्सलवादी आसतलो. तो आमचीं सगळीं प्रमेयां उरफाटीं पराटीं करून उडयतलो...'





'ह्या धा वीस वर्सांनी लोक जितलो बुडून मेलो तितलोच शिंयान कुडकुडून मेलो, गरमेन हुलपून मेलो. ...रुतुचक्र मोडिल्लें आनी काळ लागीं पाविल्लो. सगळी धर्तरी इतली प्रदुशीत जावन गेल्ली, सगळ्या विश्वतत्वान धर्ती वेल्यान आंग काडून घेतिल्लें, धर्तरेक मरूंक सोडिल्ले वरी....'





'इतलीं हीं पानां सारके सुवातेर नाशिल्ल्यान कोंकणी भारतांतल्यो कितल्योश्यो कथा अपूर्ण आसात अशें दिसता. पानांची मांडावळ सारकी करतकूच सगळ्या पर्वांनी आशिल्ल्या सगळ्या कथांची एक तरी प्रत पूर्ण मेळटा. ...मूळ हस्तप्रतींनीय पानांचे आंकडे घालतल्यान चुकी केल्यात. हांवें कोंकणी भारताच्या कथांचीं पानां बारीकसाणेन तपासल्यांत. कोदेक्स ७७१तल्या आदिपर्वांत १९० आंकड्याच्या पाना उपरांतच्याय पानाचो आंकडो १९० दिला. २१५ उपरांत पानाचो आंकडो २१७ म्हणून दिला. पूण हांगा कथेचो अंश कांय चुकूंक ना...'





'हांव एक सिद्‌धहस्त छायाचित्रकार आनी चित्रांतल्यान दुसऱ्यांच्या व्यक्तिमत्वाची खुबी ज्युस्त पकडपी कलाकार आशिल्ल्यान चलयेचो फोटो पळयना बरोबर सगळ्या न्हय तरी पाउणशीं टक्के गुणांची पारख करपा इतलो हांव पारंगत आशिल्लों. मनशाचे नदरेंतल्यान सगळें पारखूं येता. ताचें आरोग्य, सभाव, चाल-चलणूक सगळें, देखून म्हाका केन्ना चलयो पळोवपाक चडशें वचचें पडलें ना. ...फोटे जायते पळेले आनी परतिले. निमाणें चली पसंत केली ती खरी फोटो पळोवनूच...'

*ते भायर*



भायलें चित्र: हर्षदा
र.वि.पंडित
हेर चित्रां:
पान ६ : सुबोध
पान १५, १७ : मिलन
पान १०, ५०-५३ :
आसावरी

## नदर संपादप्याची

# आर्गां नव्या गोंयच्या एका शिल्पकाराक

१९४०-४१ तली गजाल आसूंक जाय...

प्रो. ना. सी. फडके गोंयांत आयिल्ले. पणजेच्या कांय प्रतिश्ठीत नागरिकांनी म्हालक्ष्मी देवळाच्या मंटपांत तांचें उलोवप दवरिल्लें. आपणाल्या उलोवपांत प्रो. फडकेन म्हळें, 'गोंयची पुराय खबर एकेच वळी भितर सांगूं येता - पेग, पीग आनी प्रॉस्टिट्युशन; म्हळ्यार, तीन पी (P)...'

आयकून कितल्याश्या प्रतिश्ठीत नागरिकांक जाळ पडले. कांय जाण खुबळ्ळे, 'केदो अपमान हो गोंयकारांचो! आमी तो मोन्यांनी कशेच सोंसून घेवपाचे नात...' तांणी म्हळें. पूण थंयचे थंयच निशेध करतले म्हळ्यार ना. सी. फडकें मुखार मराठी कोण उलयतलो! ते गोंयकारांचे मराठीक हांसले जाल्यार...!



हे सभेंत एकलो तरणाटो आसलो, शांताराम आमोणकार (२९-०८-१९२३—१८-०२-२००८). ताका सभेंतल्या एका-दोगांनी म्हळें, आमी निशेध करतलेच. ओगी रावचे नात... पूण एक दोन दीस वतले. निशेधाचें उलोवप पयलीं सारकें बरोवन काडचें पडटलें. ('सारके' मराठींत!)

शांतारामबाब बरयतात, 'उपरान्त निशेधाची सभा बी कांयच जाली ना. सगळ्यांनी मोन्यांनी हो अपमान गिळ्ळो...' *(उगडासांचे कोठये-कुडींत'*, जाग प्रकाशन, २००५:२०.)

हे घडणुकेन शांतारामबाबांक एक जाणविकाय करून दिली, गोंयकारांक भासूच ना, जिबूच ना, म्हणपाची. काकूळट दिसली तांकां गोंयकारांची.

१९४० वर्सा दो. दादा वैद्यांल्या 'स्वयंसेवक' नेमाळ्याच्या आंकांतल्यान शांतारामबाबांक कोंकणी-मराठी वादाची खबर वाचूंक मेळिल्ली. अ. का. प्रियोळकार, रघुनाथ तळवडकार बी सांगताले, मराठीच गोंयची भास, कोंकणी म्हणटात ती भासूच न्हय... जाल्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार तांकां जाप दिताले, कांय इतिहासीक कारणांक लागून कोंकणी फाटीं उरली म्हूण मराठी आमची भास जायना; मुंबय ते मंगळूर मेरेनचे कोंकणपट्टेची निजाची भास कोंकणीच.

'स्वयंसेवका'च्याच आंकांनी वालवलीकारांनी बरयल्ल्यो तीन काणयो शांतारामबाबांक वाचूंक मेळ्ळ्यो - 'म्हजी बा खैं गेली?', 'वासशणैली पोपाय' आनी 'बाबुमामालो पणस'. ते बरयतात, 'कोंकणी पयलेच खेपे वाचतालों देखून आडखळत आडखळत हांवें त्यो वाचून काडल्यो. मराठी, पुर्तुगेज, इंग्लेज भासांतल्यो कितल्योश्यो काणयो हांवें वाचिल्ल्यो. पूण ह्या कोंकणी काणयांनी एके वेगळेच तरेची संवेदना जागयली. मन उचंबळीत जालें.' *(उगडासांचे कोठये-कुडींत:१७.)*

शांतारामबाबांक आपणाले काळजाचे - निजाचे - भाशेचो होलम मेळिल्लो.

उपरांत ते 'इश्कॉल नॉर्मालां'त, मुळावे शाळेंत शिक्षक जावपाचो दोन वर्सांचो कोर्स करूंक पणजे गेले. थंय 'आवय-भास' म्हळ्यार कितें, आवय-भाशेचें शिक्षणांत म्हत्व कितें तें तांकां समजलें, आनी कोंकणीच कित्याक हें तांकां सारकें बरें पटलें. 'धनीपणाची भावना' आनी कोंकणी हांचेंय नातें तांकां होलमल्लें.

रामचंद्र शंकर नायक 'इश्कॉल नॉर्मालां'त प्रोफसोर आशिल्ले. तांणी कोंकणीत 'चवथीचो चंद्र' बरयल्लें खरें, पूण कोंकणीचीं फकाणां मारपाचे नदरेन तें बरयल्लें; जाती-धर्मांच्या, वाटारांच्या कोंकणी

बोलयां भितर आशिल्ल्या वेगळेपणाक लागून एकल्याची कोंकणी दुसऱ्याक कशी समजना, अर्थाचो अनर्थ कसो जाता, तें दाखोवंक बरयल्लें. शांतारामबाबान तांचे कडेन भाशे विशीं चर्चा करची. कोंकणी वरवींच कोंकणी मनशाचो खरेलो विकास साधूं येतलो ही गजाल शांतारामबाबांक पटिल्ली. फाटीं पडिल्ले कोंकणीक फुडें हाडप, सोंपें न्हयच, पूण कोंकणीच्या पुतांनी तें मनार घेतलें जाल्यार कित्याक घडून येवचें ना?! असलो सगल्या द्रश्ट्यां भितर आसता तसलो विश्वास तांच्याय काळजांत मूळ धरूंक लागिल्लो.

शांतारामबाब लिसेवार शिकताले तेन्ना सात-आठ विद्यार्थ्यांनी एक अभ्यास मंडळ घडयल्लें. हातूंत शांतारामबाबूय आशिल्ले. आठवड्याक एक खेपे जमप आनी एकल्यान कोर्णेय खंयच्याय एका विशयाचेर अभ्यास करून उलोवप अशें थरिल्लें. खंयचे भाशेंत? खंयचेय -पुर्तुगेज, इंग्लीश, हिन्दी, मराठी - खंयचेय. 'आनी कोंकणी?' शांतारामबाबान विचारलें. कोंकणींतल्यान म्हूण अभ्यासपूर्ण उलोवप करूं येता?! पिशेपणां...! अभ्यास मंडळाच्या वांगड्यांक दिसलें. शांतारामबाब झगडले. 'तुमकां कोंकणी नाका जाल्यार म्हाका अभ्यास मंडळूच नाका,' तांणी म्हळें. पांडुरंग भांगीय अभ्यास मंडळाचे वांगडी आशिल्ले. 'म्हाकाय पट्टा तुजें म्हणणें...' बसके उपरांत भायर सरले तेन्ना तांणी शांतारामबाबांक म्हळें. आनी, शांतारामबाबांचे जिद्दीक लागून अभ्यास मंडळांत कोंकणीक सुवात मेळ्ळी. एक ल्हानशें जैत. पूण उण्या म्हत्वाचें निखालूस न्हय.

उपरांत, रवीन्द्र केळेकारांच्या उतरांनी, शांतारामबाब 'आपणाक लागलां तें कोंकणीचें 'पिशें' दुसऱ्यांक लावपाचें' काम पोटतिडकेन करीत रावले *(उगडासांचे कोठयेकुडींत,* प्रस्तावना: सात). पांडुरंग भांगी, वामन सरदेसाय, शांतारामबाबांच्या प्रभावांत येवन 'कोंकणीचे' जाले. रवीन्द्रबाबांकूय तांगेल्या जिविताचें 'मिशन' शांतारामबाबानूच दाखोवन दिलें अशें रवीन्द्रबाबूच सांगतात. 'कोंकणी म्हाका पटल्या, पूण फाटीं पडिल्ली ही भास तिच्या भयण-भासांच्या पांवड्याची केन्ना जावंक पावतली?' ह्या रवीन्द्रबाबांल्या प्रस्नाक शांतारामबाबान जाप दिल्ली, 'लागतीत शें दोनशीं वर्सां... आयच्यान वावराक लागुंया, एक दीस उणो जातलो.' *(उगडासांचे कोठयेकुडींत,* प्रस्तावना: आठ). कोंकणी चळवळीच्या म्हालगड्या येरेकारां मदल्या ह्याच आत्मविश्वासाक लागून कोंकणी एका फुडलीं एक जैतां हातासूंक पावल्या.

शांतारामबाबांक चित्रकलेची भुरगेपणा सावन ओड आशिल्ली. तांकां चित्रकार जावपाचें आशिल्लें, चित्रकलेच्या विशयांतलेंच शिक्षण घेवपाचें आशिल्लें. सोळा-सतरा वर्सांचे पिरायेर भोमा सावन ते पांयांनी म्हाड्डोळा वताले आनी बोरकार म्हूण एका चित्रकारा कडल्यान चित्रकलेचें शिक्षण घेतालें.

लिसेवाचें शिक्षण जाले उपरांत तांणी मुंबय वचपाचें थारायलें. चित्रकलेचेंच शिक्षण घेवपाक. नोकरी करूनूच शिक्षण घेवप अशेंय थारायलें. १९४४ वर्साच्या मार्चांत ते मुंबय पावले. नोकरी मेळटकच जे. जे. स्कूल ऑफ आर्टच्या डिप्लॉमा कोर्सांत ॲक्सर्टनल स्टूडंट म्हूण नांव घालें.

शांतारामबाब रावताले गिरगांव, बनाम हॉल लेनींत, तांगेल्या धाकल्या भावान भाड्याक घेतिल्ले कुडींत. हेच लेनींत फुटपाथ सोंपताली थंय काशीनाथ श्रीधर नायकांचो 'गोमंतक छापखानो' आसलो.

शांतारामबाब बरयतात, 'ध्याना मनांत नासतना मुंबय हांव पावूंक जाय आशिल्लों थंयच पाविल्लों' *(उगडासांचे कोठये-कुडींत* : २५.)

'गोमंतक छापखान्या'कडलो संबंध शांतारामबाबांक शणै गोंयबाबां सरीं घेवन गेलो. मुखार, मुंबय कोंकणीचो जो जो वावर चलतालो ताचे कडेन तांचो लागींचो संबंद आयलो. मुंबय रावपी गोंयकारांच्या घरां घरांनी भोंवन तांणी गोमंतक छापखान्यांत पडून आशिल्लीं शणै गोंयबाबांलीं सगलीं पुस्तकां खपयलीं. कोंकणीच्या वावरा खातीर शणै गोंयबाबान 'कोंकणी भाशा मंडळ' संस्था घडयल्ली. ती दोनूच वर्सांनी बंद पडिल्ली. फ्रान्सीन मार्तिरीसांच्या पालवान शांतारामबाबान ती परती जिवी केली. तिका नवे वांगडी जोडून दिले.

१९४५ त मुंबय ब्लॅव्हाटस्की लॉजांत 'गोमंतक मराठी साहित्य सम्मेलनाचें' तिसरें अधिवेशन भरिल्लें. ह्या अधिवेशनांत 'गोंयकारांची भास मराठी; कोंकणी तिची बोली' म्हूण कोणें तरी एक थाराव मांडलो. एक एकलो गोंयकार मराठी-भक्त थारावाच्या अर्दान पोटतिडकेन उलोवंक लागलो. काशीनाथबाब नायक, काशीनाथबाब लाड, बाकीबाब बोरकार - सगले आयकुप्यां मदीं बशिल्ले. पूण थारावाक विरोध कोणें करप? कसो? कोणाक सुचऽ नाशिल्लें. संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले काकासाहेब कालेलकर. शांतारामबाब उठले. तांणी थारायलें, थारावा आड कोणूच उलोवंक तयार ना जाल्यार हांव उलयतलों. कोंकणींतल्यानूच. आनी, आपणाक पंदरा मिनटां थारावाचेर कोंकणींतल्यान उलोवंक दिवचें म्हूण मागून शांतारामबाबान अध्यक्षां कडेन एक चिटारो धाडून दिलो. अध्यक्षांचे मान्यतायेन ते संमेलनाचे माचयेर चडले. कोंकणींतल्यान उलोवंक लागले. कांय वेळान हॉलांत बोवाळ जावंक लागलो. आयकुपी खुबळिल्ले. कांय जाणांनी शांतारामबाबाचेर मोखून मारूंक कदेलांय उबारलीं. काकासाहेब उलोवंक उठले पूण तांकांय सभा आयकना जाली. शांतारामबाबांक उलोवप बंद करचें पडले. ते माचये वेले देंवन हॉलांतल्यान भायर सरून गेले. उपरांत काकासाहेब उलयले, 'अध्यक्षांच्या निर्णया आड संमेलन निर्णय घेता हाचो अर्थ, संमेलनाक अध्यक्षाची गरज ना', आनी तेय हॉलांतल्यान वॉक आवट करून गेले.

रवीन्द्रबाब बरयतात, 'कोंकणी चळवळीन त्या दिसा कूस परतिल्या. त्या दिसा मेरेन कोंकणी मोगी जे फकत कोंकणी मोगी वा कोंकणी बरोवपी-'कोंकणी लवर्स' वा 'कोंकणी रायटर्स'- आशिल्ले ते हे घडणुके उपरांत कोंकणीचे झुजारी -'कोंकणी फायटर्स' जाल्यात... कोंकणी चळवळीक संघर्षाची दिका शान्तेबाबाच्या 'वॉक आवटा'न दिल्या.' *(उगडासांचे कोठये-कुडींत,* प्रस्तावना: तेरा.)

नोकरी, चित्रकलेचो अभ्यास आनी कोंकणी - शांतारामबाब तिनूय गजाली निष्ठेन करताले. जे. जे. स्कुलाचो डिप्लोमा घेतले उपरांत तांणी 'आर्ट मास्टर' हो चित्रकलेचो शिक्षक जावपाक गरजेचो आशिल्लो कोर्स पुराय केलो. ह्या कोर्साक ते 'ग्रेटर बॉम्बे'त पयल्या वर्गांत पयले आयले.

मुंबय चित्रकलेचें शिक्षण घेतना शांतारामबाबांलो कितल्याश्या चित्रकारां कडेन संबंद आयला. विसाव्या शतमानांतलें चवथें दसक भारतीय चित्रकलेचे नदरेन खूब म्हत्वाचें लेखतात. ह्या काळांत मुंबयंत 'प्रोग्रेसीव्ह आर्टिस्टस् ग्रूप'ची स्थापना जाल्ली. फ्रान्सीस न्यूटन सौज, सय्यद हैदर रजा, के. एच्. आरा, मकबूल फिदा हुसैन बी ह्या ग्रुपाचे वांगडी आशिल्ले. ह्या चित्रकारां कडेन शांतारामबाबांचो लागिंचो संबंद आयिल्लो. पूण तांचे खरेले जिवाभावाचे इश्ट आशिल्ले भारतीय चित्रकलेक आगळे वेगळे उंचायेर व्हरपी चित्रकार व्ही. एस्. गायतोंडे. (शणै गोंयबाबांलो भाचो ही गायतोंडेची आनीक एक वळख.) गायतोंडे आनी शांतारामबाब बरोबर शिकताले. एक खेपे खंय गायतोंडे चित्रकलेचे परिक्षेक नापास जाले आनी शांतारामबाब बरे गूण घेवन पास जाले. रिझल्ट पळोवन शांतारामबाबान गायतोंडेक म्हळें, 'म्हजें मत सांगूं? चित्रकला तुका बरी समजता, परिक्षेचें तंत्र हांव बरो जाणां...'

गायतोंडे विशीं, तांगेले चित्रकले विशीं उलयतना शांतारामबाबांक केन्ना पुरो जाय नाशिल्लें. गायतोंडेची चित्रकला सुरवेक कशी आशिल्ली, मुखार ती कशी बदलत गेली हे विशीं कितलोय वेळ उलोवपाची तांची तयारी आसताली. एक खेपे इंदिरा गांधी प्रधानमंत्री आसतना फ्रांसाचे भेटेक गेल्ली आनी फ्रांसाच्या राष्ट्राध्यक्षान तिचे खातीर जेवण दवरिल्लें. जेवण दवरिल्लें त्या हॉलांत संवसारांतल्या नांवाजत्या चित्रकारांचीं कांय चित्रां आशिल्लीं. थंय एकल्याच भारतीय चित्रकाराचें चित्र आशिल्लें - व्ही. एस्. गायतोंडेचें. इंदिरा गांधींक हें नांव नवें आशिल्लें. भारतांत परतले उपरांत तांणी आपणाल्या सेक्रेटरीक आपोवन सांगलें, 'म्हाका गायतोंडेक मेळपाचें आसा...' - शांतारामबाबान सांगिल्ली खबर. गायतोंडे विशीं उलयतना तांचे चित्रकले विशीं नेमाळ्यांनी आयिल्ल्या लेखांचीं कात्रणां, तांगेल्या मुलाखतींचीं कात्रणां ते मुजरत घेवन येवन दाखोवन म्हणटाले, 'केदो व्हडलो चित्रकार! आनी सामको सादो मनीस...' गायतोंडेनूय एके मुलाखतींत आपणालो लागिंचो इश्ट म्हूण शांतारामबाबांचो उल्लेख केला.

चित्रकलेचें शिक्षण घेवन शांतारामबाब गोंयां परतले, चित्रकलेच्या शिक्षकाची नोकरी करपाचे इत्सेन. वांगडा कोंकणीचेंय काम करप ह्या हावेसान. तांकां चित्रकलेच्या शिक्षकाचे नोकरेची अपेक्षा आशिल्ली पूण नोकरी मेळ्ळी 'इश्कॉल तॅक्निकां'त हस्तकलेच्या शिक्षकाची. शांतारामबाब निर्शेलेनात. नोकरी घेतली. आनी, आपणाल्या सभावा प्रमाण, निखटे हस्तकलेचे शिक्षक म्हूण वावुरले नात. कलेच्या वेगळ्या वेगळ्या मळांचीं क्षितिजां विद्यार्थ्यांक दाखयलीं. गोंया भायर वचून ह्या मळांचें शिक्षण घेवंक तांकां उर्बा दिली. पयशांची इल्लीय अपेक्षा धरी नासतना आपणाल्या खाजगी स्टुडियोंत आपोवन विद्यार्थ्यांक चित्रकलेचें शिक्षण दिलें.

स्वराज्य आयलें तेन्ना आदलो लिसेव 'सरकारी उच्च माध्यमीक विद्यालय' जालो. शांतारामबाब थंयचे 'डिजायन टीचर' जाले. ही उच्च माध्यमीक विद्यालयाची परिक्षा बऱ्या गुणांनी पास जाल्यार गोंया भायल्या इंजीनियरींग कॉलेजांनी प्रवेश मेळूं येतालो. शांतारामबाब खूप स्रम घेवन भुरग्यां कडल्यान परिक्षेची तयारी करून घेताले. 'शिक्षण परवडना' अशें कोणेंय म्हळें जाल्यार भुरग्याची तांक पारखून ताचे खातीर शिश्यवृत्ती मेळोवन घेताले वा ताच्या शिक्षणाचो खर्च आपूण करताले. ते मुस्तींत आर्किटॅक्चरच्या मळाची गोंयकारांक व्हडलीशी वळख नाशिल्ली. गोंया भायर वचून आर्किटॅक्ट जातलो जाल्यार Intermediate Grade परिक्षा दिवची पडटाली. शांतारामबाब भुरग्यां कडल्यान हे परिक्षेचीय तयारी करून घेवंक लागले, सांगपाची गरज ना, पयशांची आस्त धरी नासतना.

ज्या भुरग्यांक चित्रकलेची ओड आसा पूण जीं कॉलेजांत वचून शिक्षण घेवंक पावनात, जीं एस्. एस्. सीय जावंक नात तांचे खातीर तांणी पणजेचे 'स्वामी विवेकानन्द सोसायटी'त चित्रकलेचे वर्ग सुरू केले. हे खातीर सुरवेक तांकां म्हयन्याक फकत शंबर रुपयांची मदत मेळटाली. १९७३ मेरेन सात वर्सां तांणी हो वर्ग चलयलो, उपरांत तो सोसायटीचे सुवादीन करून ते पेल्यान सरले. १९७३ वर्सा तांकां सोसायटीचे वतीन मानधन म्हूण २५० रुपया मेळटाले.

शांतारामबाब शिक्षकाची नोकरी करताले तेन्ना दर सुट्येंत आपल्या खर्चान मुंबय वचून येताले. कलेच्या मळार नवें कितें घडटा ताची जाण करून घेवंक. सत्तावन अठ्ठावन वर्सांचे पिरायेर तांकां दिसलें, वडोदऱ्याचे एम्. एस्. युनिव्हर्सिटीची एम्. ए. आर्ट ही पदवी घेवची. पगारा बगर सुटी घेवन ते वडोदऱ्याक गेलेय बी, पूण बलायकेक लागून स म्हयन्यांनी तांकां गोंयां परतुचें पडलें.

उपरांत शांतारामबाबांक गोंयांत कलेचें महाविद्यालय जावचें हो ध्यास लागलो. हें महाविद्यालय कशें आसचें, थंय कसले कसले कोर्स शिकोवचे हाची सगळी आंखणी तांणी फुडाकार घेवन तयार केली आनी तेन्नाचे मुखेलमंत्री आनी शिक्षणमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकारां कडेन दिली. तेन्ना गोंयचीं कॉलेजां मुंबय विद्यापिठा कडेन जोडिल्लीं आशिल्लीं. देखून मुंबय विद्यापिठाची एक समिती गोंयां आयली, असले तरेच्या महाविद्यालयाक मान्यताय दिवं येत काय ना तें थारावपाक. ह्या मळार खासा मुंबयंत फकत डिप्लोमा कोर्सांची तजवीज आशिल्ली थंय गोंयां डिग्री कोर्साक मान्यताय कशी दिवप? शांतारामबाब सांगताले, समितीचे वांगडी बरेच खांकुडले, फाटीं-फुडें आयले, पूण निमाणें तांकां मान्यताय दिवचीच पडली. बांदोडकारांनी शांतारामबाबांक सांगलें, 'कला महाविद्यालयाचो प्रिन्सिपल म्हूण हांव तुमचेंच नांव सुचयतां...' शांतारामबाबान सांगलें, 'नाका...: म्हजे तकलेंत एक नांव आसा - लक्ष्मण पैचें...' लक्ष्मण पै रोखडेच गोंयां येवंक राजी जाले नात, तें वेगळें. पूण मुखार तांकां येवचेंच पडलें. हे भाशेन, पश्चीम भारतांत वडोदऱ्या उपरांत गोंयां पुराय डिग्री कोर्स दिवपी कलेच्या महाविद्यालयाची स्थापना जाली.

आतां शांतारामबाबांक नवो हुस्को लागिल्लो, हे कॉलेजींतल्यान कलेची पदवी घेवन भायर सरपी भुरग्यांनी गोंयांत कितें करप? कांय आर्ट टीचर जातलीं, कांय पेंटींग करतलीं. पूण हे भायर प्रॉडक्ट डिझायनींग, ट्रॅक्स्ट्रायल डिझायनींग हें सारकेलीं मळां आतां कलेच्या विद्यार्थ्यांक उकतीं जाल्यांत. गोंयचे विद्यार्थी हांगा फाटीं उरूंक जायनात. शांतारामबाबान आपणाल्या कांय विद्यार्थ्यांक अहमदाबादेच्या The National Institute of Design हे संस्थेंत प्रॉडक्ट डिझायनींगचें शिक्षण घेवंक धाडले.

इतलेंच न्हय... गोंयच्या पारंपारीक कलाकारांक नव्या, आर्विल्ल्या, तंत्रांची जाण मेळची, गोंयांत एक Industrial Design Centre जावचें अशें तांकां दिसलें आनी तमीळनाडू, पाँडिचेरी आनी गुजरात ह्या राज्यांक भेट दिवन तांणी एक प्रोजेक्ट रिपोर्ट तयार करून आपूण निवृत्त जावचे पयलीं गोंय सरकाराक भेटयलो.

निवृत्ती उपरान्त गोंय सरकाराचे वतीन शांतारामबाबांची दिल्लीचे ललीत कला अकादेमीचेर नेमणूक जाली. बसकांक दिल्लीक वचूंक येती-वती विमानाची तिकेट मेळटाली. शांतारामबाबांनी बसकांक वचचें आनी येनाफुडें सरकाराक आपणालो अहवाल दिवचो. कलेच्या मळार कितें कितें करूं येता, कितें कितें करचें तें सांगून. ह्या अहवालाची पोंच लेगीत तांकां मेळनासली. शांतारामबाब निमाणे वाजेले. म्हजे एकेय सुचोवणेची सरकार दखल घेवंक सोदिना जाल्यार कित्याक जाय म्हाका ललीत कला अकादेमीचें वांगडीपद, सरकारा खुस्तार? तांकां दिसलें आनी तांणी आपणाल्या सभावाक धरून पदाचो राजिनामो दिलो.

शांतारामबाबां विशीं बरोवपा सारकें जायतें आसा...

एस्. के. बॅनर्जी गोंयचे राज्यपाल आशिल्ले तेन्ना गोंयांत एक आर्ट गॅलरी आसची अशें तांकां दिसलें. तांणी शांतारामबाबांक आपोवन आर्ट गॅलरी खातीर दोन लाख रुपयांची माण्णी करून, इंश्तितूत मिनेझीस ब्रागांसाचे वास्तूंत ही गॅलरी उबी करपाची जापसालदारकी तांचेर सोंपयली. शांतारामबाब उमेदीन कामाक लागले. फ्रान्सीस न्यूटन सौज, व्ही. एस्. गायतोंडे, लक्ष्मण पै हांचे कडल्यान गोंयचे गॅलरी खातीर तांगेलीं पेंण्टिंगां फुकट घेवन आयले. मुंबयचे गॅलरी कॅमॉल्डांतल्यान एक चित्र विकतें घेवन आयले तेन्ना गॅलरीचे मालक केकू गांधी हांणी तांकां पांच हजार रुपया कमिशन म्हूण दिवंक काडले. शांतारामबाबान म्हळें, 'हे सरकाराचे पयशे. हांव कमिशन कसो घेवं? ते बदला म्हाका गॅलरी खातिरूच आनीक एक चित्र दियात...'

शांतारामबाब गॅलरींतल्या चित्रांची भुरग्यांची घेवची तशी जतनाय घेताले. एक दीस अमेरिकेचे भारतांतले राजदूत गोहीन ही गॅलरी पळोवंक पावले. तांकां शांतारामबाबांची खूब तोखणाय दिसली. 'चित्रांची तुमी खूब बरी जतनाय घेतल्या.' तांणी तांकां म्हळें. 'चित्रांची जतनाय घेवप हीय एक कला. ताचें शास्त्रूय आसा. तुमची तयारी आसा जाल्यार हांव तुमकां अमेरिकेक धाडून असलें शिक्षण घेवन येवपाची वेवस्था करतां.' शांतारामबाबान तांकां जाप दिली, 'म्हाका अमेरिकेक धाडचे परस कोणाय तरणाट्याक धाडात. गोंयाक ताचो चड उपेग जातलो...' गोहीन तांकां पळेतूच उरले.

शणै गोंयबाबांले जल्मशताब्दी वर्सा तांणी इंश्तितूत मिनेझीस ब्रागांझाचे गॅलरींत 'Art for Living' ह्या चित्रकलेच्या प्रदर्शनाचें आयोजन केल्लें. ह्या प्रदर्शनाचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंत ल्हान भुरग्यांचीं चित्रांय फ्रेमी घालून दवरिल्लीं. 'भुरग्यांक अमक्याचें चित्र काड म्हूण केन्ना सांगचें न्हय. तांच्या हातांत फकत रंग दिवचे आनी तीं कितें काडटात तें पळोवचें...' ते सांगताले... 'Art for Living' हें प्रदर्शन तांणी ओंपिल्लें रामचंद्र शंकर नायकांक - आपणाल्या शिक्षकाक.

शांतारामबाब गेले तेन्ना कितल्याश्या जाणांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळ्ळें, 'असलो मनीस मेळप कठीण... आयुश्य भर आपले कडेन आशिल्लें सगळें दीत रावलो. कला, ज्ञान, आनंद, सगळें... कित्याचीच अपेक्षा धरी नासतना.' एकल्यान म्हळें, 'येदो व्हडलो चित्रकार... जलरंगांतलीं ताचीं चित्रां पळेल्लीं तुवें? ताणें काडिल्ल्यो पोर्ट्रेट्स पळेल्ल्यो? इतले गूण आसुनूय आपणाल्या चित्रांचें एक प्रदर्शन करचें अशें ताका केन्ना कशें दिसलें ना काय? ताचे जाणटे पिरायेर ताच्या पुतांनी फुडाकार घेवन एक प्रदर्शन घडोवन हाडिल्ल्यान ताची कला लोकां मुखार येवंक पावली...' 'शांतेबाब गेले? आरेरे... तांकांच लागून हांव बडोद्याक वचून कलेचें शिक्षण घेवंक पावलें...' तांच्या मर्णाची खबर कळटकच एकली तरणाटी चित्रकार उलयली. 'म्हाकाय तांणीच घडयला. नाजाल्यार हांव बी.ए. करून सरकारी ऑफिसांत कारकून बी जातलों आशिल्लों...' आनीक एका तरणाट्या चित्रकारान म्हळें...

शांतारामबाब निखटे ब्रश वावुडपी कलाकार नाशिल्ले, जिविताची कला साधिल्ले कलाकार आशिल्ले. नवें गोंय घडोवपाक जे लोक तळमळीन वावुरल्यात, गोंयचे रासवळ जिणेचो दर्जो वाडोवंक जांणी आपणाल्या व्यक्तिगत करियराची पर्वा केन्ना केली ना तांच्यांत शांतारामबाबांचो आसपाव जाताच जाता. नव्या गोंयचो एक शिल्पकार हो. तांकां आमचें नमन.

## माँ

'सदाफुलीच्या फुलांक पळे. कितलीं नाजूक! पूण ह्या दनपारच्या कडाचो रखरख तीं कांय न्हय शीं करून आंगार झेलतात...' म्हज्या भुरगेपणांत माँन म्हाका सांगिल्लें, एका दनपारच्या कडार, पिरवळच्या आंगणांतले सदाफुली कडेन बोट दाखोवन.

ही देख माँन कित्याक दिल्ली, आतां याद जायना. पूण वेगळ्या वेगळ्या काळार, वेगळ्या वेगळ्या अर्थां सयत सदाफुलीचे हे देखीन म्हाका सांगात दिला. कविते वरी.

पिरवळा बासये कडले लाकडाचे दांडयेर हात पुसपा खातीर सदां धवो फुल्ल तुवालो आसतालो. पूण आमी भुरगीं जेवले उपरांत आंवंक बासये म्हऱ्यांत धांवतालीं तेन्ना माँय थंय पावतालें, आपणालो खादीचे साडयेचो मोव मोव पदर मुखार करून. आमीय बी माँ लागीं दिसलें जाल्यार केन्नाच तुवालो सोदूंक वच नासलीं.

माँ गेलें...

'गोदूबाय केळेकार. ज्या काळार भोव थोडच्यो बायलो कोंकणींत बरयताल्यो त्या काळा वयली एक कोंकणी लेखिका...'

'जाणटें वय. केन्नाय तरी वचपाचीच'...

'...तुजी प्रतिक्रिया?' 'सुनापरान्तां'तल्यान फोन आयलो.

प्रतिक्रिया... काळीज सांसपून पळेलें...

माँ आतां ना. इतलीच एक जाणविकाय हाताक लागली.

म्हळें, 'आनीक कोणायची घे प्रतिक्रिया, म्हजी नाका'. आनी मनांतल्या मनांत माँच्याच पदरान दोळे पुसले.



# क्रान्ती जातलीच... कोण करतलो?

रवीन्द्र केळेकार

दार्जीलिंग-सिक्कीमची भोंवडी करून कोलकात्याक पावलों. त्याच दिसाचे 'गीतांजली ॲक्स्प्रेसी'न म्हाका मुंबय वचपाचें आशिल्लें. कोलकात्याच्या म्हज्या गुजराती इश्टाक हांवें म्हजो प्रोग्राम कळयल्लो आनी तिकेट रिझर्व करून दवर म्हूण सांगिल्लें. स्टेशनार तो म्हाका व्हरपाक येतलो अशें दिशिल्लें. तो दिश्टी पडलो ना तेन्ना टॅक्सी करून ताच्या 'शॉपा'र गेलों. तो मुंबय गेला म्हणपाचें कळ्ळें.

'म्हजी तिकेट काडून दवरल्या?'

'ना.'

'म्हजी चीट मेळूंक नाशिल्ली?'

'ताका आयिल्ल्यो सगळ्यो चिटी ताच्या मेजार दवरल्यात. तातूंत तुजीय चीट आसूं येता.'

'ताच्या घरा घरकान्न ना?'

'सगळीं मुंबय एका लग्नाक गेल्यांत.'

हांव घुटमळ्यांत पडलों. 'हांगा लागसार मदल्या वर्गांतल्या लोकांक पुटवता असलें हॉटॅल आसा?' हांवें विचारलें. म्हजें आडनांव केळेकार. आडनांवा वेल्यान ताणें म्हाका महाराष्ट्रीय धरलो आनी म्हळें, 'हय, महाराष्ट्र-सदन आसा.'

'खंय-शें?'

ताणें खंय तें सांगलें. हांवें टॅक्सी केली आनी ताणें सांगिल्ल्या पत्त्यार महाराष्ट्र-सदन सोदून काडलें. पयल्या मजल्यार एक कूड मेळ्ळी. तळमजल्यार एक खानावळ आशिल्ली. एकलो गुजराती ती चलयतालो. ताका हांवें म्हजी अडचण सांगली. तो म्हणूंक लागलो, 'आतां जेव आनी सुस्त बरो न्हीद. सांजच्या पांच-साडेपांचांक एक सरदारजी येतलो. तो तुजो प्रस्न सोडयतलो.'

साडेपांचांक सरदारजी आयलो. खानावळकारान ताका म्हजी अडचण सांगली. *'चलिए मेरे साथ. मैं आपको टिकट दिलवा दूँगा'* अशें म्हणून तो म्हाका आपणा वांगडा घेवन गेलो. एक देड किलोमिटराचे वाटेर एके गल्लींत खाड आशिल्लो एक केरळी मनीस एक 'ट्रॅवल एजन्सी' चलयतालो.



*'आपको कल का टिकट मिल जाएगा, आप के नामका ही रिझर्वेशन होगा... एकाध घंटे के बाद आकर ले जाइएगा...'*

वरभर सरदारजीक घेवन हांगा थंय भोंवलों. च्या घेतली आनी गल्लींत परतो आयलों. तिकेटीचे पयशे, रिझर्वेशनाचे पयशे आनी आपणाल्या कमिशनाचे पयशे घेवन ताणें म्हज्या हातांत तिकेट दवरली. तिकेटीक लागले तितलेच पयशे ताणें कमिशनाचे घेतले. मोन्यांनी दिले. कितें करतलों? भायर येतकूच हांवें सरदारजीक म्हळें, *'सरदारजी, यह रिश्वत नहीं है क्या?'*

*'काहे की रिश्वत?...* रेल्वेचे पयशे रेल्वेक मेळ्ळे... तुका तुज्या नांवाचें रिझर्वेशन मेळ्ळें. ताणें आपणालें कमिशन काडलें... तो एक ट्रॅव्हल एजंसी चलयता. लोकांचेर उपकार करूंक तो हांगा बसूंक ना. जोडपाक बसला. तो कमिशन घेतलोच. तूं स्टेशनार तिकेट काडपाक गेल्लो जाल्यार तुका वर दोन वरां लायनींत उबो रावचें पडटलें आशिल्लें... रिझर्वेशन धा दिसां उपरांतचें मेळटलें आशिल्लें. धा दीस तुका कोलकात्यांत फुकट होगडावचे पडचे नाशिल्ले? तुगेले सगले त्रास ताणें वाटायले. *इसमें रिश्वत कहां आयी?*

म्हजे कडेन जाप नाशिल्ली. पुणून खंय तरी चुकलां अशें दिसलें. खंय तें लक्षांत आयलें ना. हे खबरेक आतां पंदरा वर्सां जायत आयलीं. अजुनूय हांवें दिली ती 'रिश्वत' आशिल्ली काय कितें, म्हाका सांगूंक येना.

म्हजे आवयन एक फावट म्हळें, 'आमच्या भुरगेपणांत धुवे खातीर थळ सोदताले तेन्ना भुरगो कितें जोडटा हाची चवकशी आमचे म्हालगडे पयलीं करताले. आनी 'पगार पन्नास रुपया... पुणून म्हयन्या म्हयन्याक अडेजशें तो **वयले मेळयता'** ही जाप मेळटाली तेन्ना थळ पक्कें करताले.'

'वयले म्हळ्यार कसले?'

'लोकांचीं कामां करून मेळटात ते.'

'पुणून लोकांचीं कामां करपा खातीरूच तर ताका पन्नास रुपयांचो पगार मेळटालो न्हय? अशें हांवें

म्हळें तेन्ना तिणें जाप दिली, 'पन्नासान किते जाता रे? पन्नास रुपयान कसलो संवसार चलयतलो तो?'

ते मुस्तींतल्या लोकांक लांच दिवप वा लांच घेवप समा न्हय अशें दिसनाशिल्लें जावंक जाय असोच हाचो अर्थ करचो पडटा.

दिल्लीच्या तखतार बशिल्ले मोगल पात्शा कोणाक नोकरेर घेवचो म्हणपाचें येवजिताले तेन्ना खंय ते **'हो वयले कितले करतलो'** हाचो अदमास घेताले आनी ते प्रमाण ताचो पगार थारायताले. नोकरेर बसतल्यांक पगाराचें व्हडलेंशें लागञाशिल्लें. नोकरेर लागतकूच जालें. फुडें कितें करचें हें खासा तोच थारायतालो.

बिरबल अकबराच्यो कांय आख्यायिको चलतात. तांतली एक आयकल्ली-

एक खेपे खंय अकबरान बिरबलाक म्हळें, 'हो भ्रश्टाचार भ्रश्टाचार म्हूण तुमी जप करतात तो कितें? पात्शा निर्मळ आनी कडक आसत जाल्यार भ्रश्टाचारी मनशाक जाग्यार हाडपाक वेळ लागना. राज्यांतलो सगलो भ्रश्टाचार ना करूं येता.'

बिरबलान म्हळें, 'अशें?' आनी दुसऱ्या दिसा ताणें अकबराच्याच दरबारांतल्या एकल्याक ताचे मुखार उबो करून म्हळें, 'हाका जाग्यार हाडून दाखय.'

'सद्दां सकाळीं यमुनेचे तडीर वचून बस आनी न्हंयेंत कितलीं ल्हारां वयर सरतात आनी कितलीं जिरतात हाचो हिशोब सांजवेळां हाडून दी.' अकबरान ताका काम सांगलें. एक सप्तक वचूंक ना, कितलेशे वेपारी ह्या मनशा आड कागाळी घेवन दरबारांत आयले. कागाळ कसली? 'जहांपनाह, हो न्हंये तडीर बसून आमचे कडल्यान भरमसाठ टॅक्स वसूल करता... तुमचीं तारवां येतात वेतात तेन्ना म्हज्या ल्हारां मेजपाच्या वावराक आडखळ हाडटात अशें सांगून.'

'कळ्ळें, जहांपनाह, कितें जाता तें?' बिरबलान अकबराक म्हळें.

'हय रे बाबा, तुजेंच खरें, भ्रश्टाचार ह्या लोकांच्या शिरंत्रांनीच घोळटा. तो देशांतलो ना करप कोणाक जमपाचें ना.'

असल्या ह्या जल्मजात भ्रश्ट देशांत स्वराज्य मेळना फुडें कॉंग्रेस सरकारान 'समाजवादी पॅटर्न' सुरू केलो आनी सरकाराच्या हातांत सुमारा भायर सत्या दिली. परिणाम- 'परमिट-कोटा-लायसंस राज्य' चलपाक लागलें. लांच घेवपाच्यो हजार वाटो उकत्यो जाल्यो. तेन्ना सावन तुमी कसलेंय काम सरकाराच्या खंयच्याय खात्यांत घेवन वचात, चपराश्या पसून डायरेक्टरा मेरेनचे एकान एक सरकारी नोकर पयलीं 'तुमचें काम जावपाचें ना' म्हूण सांगतले आनी थोडी चिरीमिरी हाताक लायना फुडें 'जावपाचीं नात' तीं सगळीं कामां फटाफट जावन पडटलीं. 'लांच दिवपी आसात म्हूण लांच घेवपी आसात' असलें एक कोष्टक लांच घेवपी फटींग सरकारी नोकरांनी चलयलां, तें खरें न्हय. लांच दिलिना जाल्यार स्वराज्यांत तुमचीं कामां कशींच जायनात. लांच घेवपी लोक वयर आसात म्हूण सकल मेरेन भ्रश्टाचार चलपाक लागला. 'वयलो लोक' निर्मळ आनी कडक आसलो जाल्यार राजकारभारांत खंयचेच कडेन भ्रश्टाचार चलपाचो ना. *राजा कालस्य कारणम्* होच समाजाचे गतिशीलतायेचो नेम हें विसरूंक फावना. नेहरू राजवटींत भ्रष्टाचार खूब वाडला म्हूण लोक उलोवपाक लागले तेन्ना नेहरून 'एण्टी करप्शन बोर्ड' सुरू केल्लो. ताणें कसले दिवे लायले?

एका राजाक खंय दुदा साय खूब आवडटाली. राजवाड्या मुखारूच एकलो दूद विकतालो. तागेर सायूय मेळटाली. राजा आपल्या सेवेकाऱ्यां मदल्या एकल्याक चार आणे दिवन वाटी भर साय हाडून खातालो. एक दीस राजाक त्या सेवेकाऱ्याचो दुबाव आयलो. 'हो चार आणे घेवन वता खरो, पुणून साय चार आण्यांची न्हय, तर तिनूच आण्यांची हाडटा, एक आणो बोल्सांत घालता जातलो.' राजान ताचेर नदर दवरपाक दुसऱ्या एकल्याक इन्स्पेक्टर म्हूण नेमलो. ताणें एक दीस साय हाडटल्याक 'रंगे हाथ' पकडलो. 'साल्या, चार आणे व्हरून तीन आण्यांची साय राजाक हाडून दिता? आत्तांच्या आत्तां तुकां गोळाक लावंक सांगतां राजाक.

'नाका, नाका... हांव एक गरीब मनीस... पगार मेळटा तो पावना. म्हूण एक आणो चोरतां,' ताणें रडून सांगलें.

इन्स्पेक्टरान म्हळें, 'बरें आसा, हे खेपे तुका सोडटां... फायच्यान दोनूच आण्यांची साय हाडून राजाक दी. एक आणो तुका दवर. एक म्हाका दी... तूं चारूच आण्यांची साय हाडटा म्हूण हांव राजाक समजावन सांगतां... म्हारगाय खूब वाडल्या. तो एक वर्ल्ड फेनोमेनन म्हूण सांगतां.'

नेहरूलो 'एण्टी करप्शन बोर्ड' हाचे भायर दुसरे कसले दिवे लायतलो?

आनीक एक अडचण आमकां नडटा. आमचें काम करून दिवप कोणाच्या हातांत आसा हें केन्नाच कोणाक कळना. म्हूण आमी कितें करतात, ज्या सरकारी खात्यांत आमचें काम आसता त्या खात्यांतल्या सगळ्यांक लांच दिवन मेकळे जातात. 'हो फाटीं-फुडें पळे नासतना लांच दिता' म्हणपाचें कळना फुडें जण एकलो आपणालो भाव वाडयत वता. च्यांग-काय-शेकाच्या चिनांत अशें चलिल्लें. भ्रश्टाचार हाता भायर गेल्लो. ह्या भ्रश्टाचारानूच माओत्से तुंगाचे क्रान्तीक वाट मेकळी करून दिल्ली. सोवियेट रशियेंतूय असोच भ्रश्टाचार वाडिल्लो. ह्या भ्रश्टाचारानूच लेनिन आनी स्टॅलिनान मोट्या यत्नान उबो केल्लो 'सोवियेट संघ' विघटीत जालो. आमच्या देशांत माओत्से जल्माक येवपाची आस्त ना. पुणून देश विघटीत जावचो ना हे मात कोणाकूच सांगूंक येवपाचें ना. तुर्ताचीं लक्षणां पळेल्यार एक दोन वेंचणुकां उपरांत तीन चार 'राष्ट्रां'नी देश विघटीत जालो (फुटलो) जाल्यार कोणेंच अजाप करचें न्हय.

दक्षीण कोरियांतल्या दोगां राष्ट्राध्यक्षांक भ्रश्टाचाराच्या गुन्यांवा खातीर ख्यास्ती जाल्यात. एकल्याक मरणाची, दुसऱ्याक बावीस वर्सांचे बंदखणीची. दोगांयचे आड लोकांची तिडक पळोवन कोर्टान हो निकाल दिल्लो. ह्या 'इण्डिया दॅट इज भारत' देशांतल्या लोकांचें रगत न्हिवलां आसूंक जाय. तें पेटून उसळना. उसळ्ळें जाल्यार लोक ताचे कडेन लक्ष दिनात. लोक मुर्दाड. न्यायालयां 'सुशेगाद'. एके एके केशीचो निकाल दिवपाक दोन दोन, तीन तीन दसकां लायतात. नरसिंहरावांचे राजवटींत लखुभाई पाठक नांवाची एक केस न्यायालयांत आशिल्ली. नरसिंहराव मरून किल्लले. लखुभाई किल्लून युगां जालीं. केसीचें कितें जालें, केन्ना समजलें ना. न्यायंदान अशेंच चलपाचें

असो लोकांचो समज जालो जाल्यार तांचो गुन्यांव न्हय. स्वराज्यान अशे तरेचो एक समाज घडयला की जंय जण एकलो चोरता. कोण कोणाक धरून व्हरिना. कित्याक, धरून व्हरपीय सवाय-चोर आसतात.

एक गजाल लक्षांत दवरिल्ली बरी - असल्या ह्या देशांत भ्रश्टाचार आळाबंदा हाडपाचें काम खंयच्याच राजकी फुडाऱ्याच्या हातान जावपाचें ना. हे पार्टी बदला दुसरी पार्टी सत्येर आयली जाल्यार भ्रश्टाचार सोंपतलो हो भ्रम एक. हालिंसाराचो चोरांचो सम्राट हाजी मस्तान सांगता -

'ह्या देशांत सत्येर आशिल्लो आनी विरोधी पक्ष अशे दोन पक्ष नात. सगळे एकेच माळेचे मणी. आयज जो सत्येर ना तो भ्रश्टाचारा संबंदान उलयता तेन्ना 'हांकां सगळ्यांक फारान मारूंक जाय' म्हणटा. तीनसांज जायना फुडें तो आमगेर येता आनी म्हणटा, 'सत्येर येवपाक पयशे जाय पडटात. ते आमचे कडेन नात.' आमी ताका पयशे दितात आनी ताचे कडल्यान आमकां जाय तीं कामां करून घेतात.'

ह्या चांडाळचक्रांतल्यान देशाची सुटका कशी जातली? गांधी सारको कोणूय येतलो आनी तो आमची सुटका करतलो म्हूण आमी ताची वाट पळेत बसतले व्हय? जाल्यार एक लक्षांत दवरात - गांधी सारको कोणूय हजार दोन हजार वर्सां उपरांतच येता. दोन हजार वर्सां क्रांती गांधीची वाट पळेत बसपाची ना. देशा मुखार आयज दोनूच मार्ग आसात - एक, देश विघटीत जाता तो पळेत बसपाचो. दुसरो, नक्षलवाद्यांच्या हातांत देश गेल्लो पळोवपाचो. तिसरो मार्ग ना. हांवें 'आयज' म्हळां. फायचें सांगूं नज. निर्शेणेच्या काळखांतूच फायची फांतोड लिपिल्ली आसता म्हणटात ती निखटी कवी कल्पना न्हय. एक भरींव सत्य तें. समाज केन्ना थांबना. तो सदां गतिशील रावला. एक दीस क्रांती जातलीच जातली. डोळस काय कुड्डी हेंच पळोवपाचें.

### क्रांती कोण करतलो?

कोणाचेर येतलो क्रांतीचो भार? धवाड्यां मदल्या कोणाचेर? च्ये. हो 'धवाड्यां'चो वर्ग. ताका समाज बदल्लेलो नाका. समाज चलता तसोच तो चंद्र सूर्य आसा सर चलत उरचो अशें मानतल्या लोकांचो वर्ग हो. दुसऱ्यांच्या स्रमाचेर फोल्गां मारपी. ताणें खंयच क्रांत्यो घडोवन हाडूंक नात.

मागीर, कोण घडोवन हाडटलो क्रांती? भौसांतलो कोणूय? मर मर मरून भूक आनी उपासा सारकीं दळडिरां जोडपी निर्शेल्लो-खर्शेल्लो वर्ग हो. तो केन्ना केन्ना बंडान पेटून उठ्ठा. पुणून दुसरो कोणूय ताका पेटोवन उठयता तेन्नाच. तेन्ना तो जयप्रकाशां फाटल्यान वता. इन्दिरा गांधींचे फाटल्यानूय वता. कोणाच्या फाटल्यान वचचें हें तो थारायना. तें काळ थारायता. आनी काळ केन्ना जयप्रकाशां अर्दान आसता. तर केन्ना इन्दिराजींच्या. न्हंयेंत पडिल्ल्या लाकडा सारकी गत्त हाची. लाकूड न्हंयेचे व्हांवतेंत पावलें जाल्यार तें व्हांवतेच्या नेटान व्हांवत वतलें. मदींच तडी वेल्या खंयच्याय झोपांत घुसपलें जाल्यार कोणूय येवन ताका व्हांवतेंत धुकलून सोडी सर थंयच रावतलें. ताच्या गळ्यांत कोणेंय जड फातर बांदिल्लो आसलो जाल्यार तें न्हंये तळाक वचून बसतलें आनी कुसऽ सर थंयच रावतलें. ताका आपली अशी खाशेली इत्सा नासता तशी खाशेली प्रेरणाय नासता.

ह्या वर्गांतल्या लोकांचें मोल शून्य. पुणून हें शून्य जेन्ना आंकड्या उपरांत येता तेन्ना तें आंकड्याचें मोल धा वांट्यांनी वाडयता. जयप्रकाशाचें मोल एक आंकडो आशिल्लें तेन्ना ताणें तांचें मोल धा वांट्यांनी वाडयल्लें. इन्दिराजींचे फाटल्यान रावलें तेन्ना इन्दिराजींचें मोल धा वांट्यांनी वाडयलें.

क्रांतिशास्त्रांत धवाड्या वर्गाकूय मोल ना. तशें भौसाकूय ना. धवाडे आनी भौस ह्या दोन वर्गा मदीं आनीक एका वर्गाचे लोक आसतात. तांकां आमी 'मध्यम वर्ग' ह्या नांवान पाचारतात. आयजवेर संवसारांत जितल्योय क्रांत्यो जाल्यो त्यो ह्या मदल्या वर्गानूच घडोवन हाडल्यात. सकयल्या वर्गाचें (भौसाचें) शून्य तांचे फाटल्यान जितल्या प्रमाणांत रावलां तितल्या प्रमाणांत क्रांत्यांचें मोल वाडलां. म्हूण, समाज बदलूंक जे वावुरल्यात तांणी भौसाक आपणा वशीन ओडपाचो सदांच यत्न केला. आनी जैत मेळ्ळां तेन्ना तें ह्या वर्गांतल्या लोकांकूय तांणी दिलां.

भारताचे स्वतंत्रतायेचें झूज मदल्या वर्गांतल्या लोकांनी चलयल्लें. रशियेंतली बॉल्शेवीक क्रांती मदल्या वर्गानूच घडोवन हाडिल्ली. चिनांतले माओचे क्रांतीचें नेतृत्व मदल्या वर्गांतल्या लोकांच्याच हातांत आशिल्लें.

भौस तांचे फाटल्यान आशिल्लो.

समाजांत जी नीत चलता तिवूय मदल्या वर्गांतल्या लोकांनी पोसवण दिवन वाडयल्ली. आयज ज्या पांवड्याची ही नीत त्याच पांवड्याचें राजकर्ण, अर्थकर्ण समाजांत चलता. मदलो वर्ग समाजाचे फाटीचो कणो. तो भ्रश्ट जालो जाल्यार समाजाचें राजकर्ण आनी अर्थकर्णूय भ्रश्ट जाता.

आयज गोंयचोच न्हय तर देशांतलो मध्यम वर्गूच भ्रश्ट जाला.

तो कसो भ्रश्ट जालो? कोणें ताका भ्रश्ट केलो? तागेरूच जल्माक आयिल्ल्या तागेल्या दिवट्यान. मोर्गाद पुतान. **नवश्रीमंतान.** संस्कृतायेचे नदरेन गांवढळ Vulgar, नितीचे नदरेन आपमतलबी. अर्थीक नदरेन चैनींत लोळपी. तो सत्येचे कदेलीर बसूंक ना. पुणून हे कदेलीर कोणाक बसोवचो, कोणाक न्हय हें तोच थारायता. तो वेंचणुकेक उबो राविना. पुणून ताच्या आधारा बगर कोणूच वेंचणूक जिखिना. मागीर वेंचणुकेक तो कॉंग्रेसीचे तिकेटीर उबो रावूं वा भाजपाचे वा आनीक खंयच्याय पंगडाचे. वेंचणूक जिखपाक उमेदवाराक नवश्रीमंताचो आधार जायच पडटा. तो मेळ्ळोना जाल्यार ह्या भारतवर्षांत साक्षात प्रभु रामचंद्र लेगीत वेंचून येवपाचो ना.तो 'आपल्याच' लोकांक उबे करता आनी वेंचून हाडटा. हाका लागून येता त्या सरकाराचेर ताचोच प्रभाव उरता. तो राजकारभारांतूय 'आपल्याच' लोकांची भर्ती करता. आनी सगळी सत्या आपणा हातांत दवरता. अर्थतंत्रांतल्या एकान एक आंगाचेर ताचेंच नियंत्रण उरता.

देशाचें शासन प्रशासन आयज नवश्रीमंताच्याच हातांत गेलां.

सरकाराक,लोकांक नागोवपी हर्षद मेहता हें तागेलें आराध्य दैवत. हर्षद मेहतांत शें प्रतिशत हर्षद मेहता आशिल्लो. नवश्रीमंतां मदीं पन्नास प्रतिशत, पाउणशें प्रतिशत, अंयशीं प्रतिशत कोणूय आसत,

पुणून हर्षद मेहता आंगांत आसले बगर हांची चांट उखलना. रातयांच अब्जाधीश जावप हें हांचे मदल्या जण एकल्यांचें सपन. हाकाच लागून देशाचें अर्थतंत्र सट्टे-बाजाराचें रूप घेवंक पावलां.

आपणाले श्रीमंतीचें गांवढळ प्रदर्शन करप ही तांची हौस. घर बांदलें जाल्यार ते पालासी सारकें बांदतलो. घरांतल्यो जमनी (देवळांतले वरी) पाशाणी आसतल्यो. कार्पेट जायच पडटली. पुताचें वा धुवेचें लग्न जालें जाल्यार ताचो सुवाळो अभिषेक ऐशच्या लग्नाच्या सुवाळ्या परस व्हड दबाज्याचो आसतलो. लालू प्रसादान आपणाले धुवेचें लग्न केल्लें तेन्ना जो सुवाळो घडोवन हाडिल्लो तसलो देशांतल्या खंयच्याच संस्थानिकान पयलींय घडोवन हाडूंक ना, आयजूय हाडूंक ना, हे तरेचो आशिल्लो.

आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, लालू प्रसाद 'समाजवादी' आशिल्लो. लोहिया-जयप्रकाशाचो शिष्य आशिल्लो.

गोंयची सुटका जाली ते उपरांतच्या पयल्याच दसकांत गोंयचो भौजनसमाज बांदोडकाराचे प्रेरणेन बामण-भाटकार-पसरकारांच्या नांवान खडे फोडपाक लागलो. भाटकार-पसरकार सगळे बामण नाशिल्ले. सांखळेचे राणे आनी कुंकळ्ळी काणकोणचे मराठे भाटकारूच आशिल्ले. पुणून बामण आपणालो बचाव करपाक मुखार सरले नात. भियेले. तांकां एक कळिल्लें, आमी सरंजामशायेचे अवशेष. सरंजामशायेचे दीस आतां उरूंक नात. आनी तांणी आपणाली Lifestyle बदल्ली. ते ल्हान व्हड उद्योग चलोवपाक लागले, डॉक्टर, अॅडवोकेट, इंजीनियर जाले. टॅक्नोक्रॅट जाले आनी विदेशांत गेले. आयज बामणांतले कितलेशे कर्तुत्वी भुरगे अमेरिकेंत कॅनडांत, इंग्लंडांत, ऑस्ट्रेलियेंत वचून रावल्यात. थंयच थीर जाल्यात.

आनी देश नवश्रीमंतां मदल्या कॉंट्रॅक्टर, बिल्डर, स्मगलरांच्या हातांत गेला. हांचे मदीं कांय बामण आसतले. पुणून भाटकार वर्गांतले न्हय. कोंताकूय धरपाचे न्हय. कशेंय आसूं, हांगेल्या 'सिक्सटी व्हायट' आनी 'फोर्टी ब्लॅक' ह्या गणितान देशांतलीं सगळीं मूल्यां उरफाटीं पराटीं जाल्यांत. काळो पयसो जोडपाचें, लिपोवपाचें आनी धंद्यांत गुंतोवपाचें एक नवें शास्त्रूय तांणी विकसावन काडलां.

आनी तांचे आड कोणूच उतर लेगीत काडिना कित्याक? जाप आयकून कांय लोकांक धसको बसतलो. **'हांतले अर्द्या परस चड नवश्रीमंत भौजनसमाजांतले म्हूण, आनी सत्या आयज तांच्याच हातांत आसा म्हूण.'**

हे लोक कावलाक आयिल्ल्या भाटकारांच्यो जमनी फुके-सवाय घेतात. तांचें 'कन्वर्शन' करतात आनी तांचें मोल वाडोवन त्यो भायल्या उद्योगपतींक विकतात. कोणें कोणाच्यो जमनी घेतल्यो, कितल्यांक घेतल्यो, कन्वर्ट कश्यो केल्यो आनी कोणाक कश्यो विकल्यो हाची चवकशी करपी यंत्रणा ना म्हूण ते वाटावल्यात. प्रामाणीकपणान जियेवचें, भ्रश्टाचारा पसून पयस रावन सादें जिवीत जियेवचें ही देख आतां इतिहासांत जमा जाल्या. फाटल्या एक दोन दशकांत जितले 'घोटाळे' जाले ते सगळे ह्या नवश्रीमंत लोकांनी केल्यात. कांय उक्ताडा आयल्यात पुणून ख्यास्त कोणाकूच जावंक ना. कित्याक? घोटाळे करपी तेच आनी ख्यास्त करपीय ते. चोर केन्ना चोराक धरून दिता व्हय? आनी आमी तांकांच भौन भौन वेंचून दितात. देश अवनतीक पावचो ना जाल्यार खंय पावतलो?

हाका उपाय ना? आसा. तो कोण करतलो? ज्या मध्यम वर्गागेर नवश्रीमंत जल्माक आयला तागेरूच एक नवो पूत जल्माक आयला. तो निकतोच वयांत आयला. आनी तो कोणूय कितें करता तें नाका नाका म्हणीत रावला. सॅज? नाका. आयटी? नाका. उद्योगीकरण? नाका. शारीकरण? नाका. हे तरेचो नानाक्कार चलयत रावला. निर्शेल्लो, खर्शेल्लो हो मध्यम वर्गाचो दुसरो पुतूच क्रांती घडोवन हाडपाचो आसा. मात्सो थार धरात. तो पेटून उठिल्लो थोड्याच वर्सां भितर दिश्टी पडटलो. तो गांधी नासतलो, लोहिया नासतलो. घडये नक्सलवादी आसतलो. तो आमचीं सगळीं प्रमेयां उरफाटीं पराटीं करून उडयतलो.

*म्हाका तो दिश्टी पडटा. बाकीबाबांक दिश्टी पडिल्लो-*
*नेम ना रे केन्नां कोण/ कुदत कसो जावन बळी.*
*घाडी भगत गुरव गोंसांय, देवळि, थवय, मेस्त मुळी...*
*आसत गावडो, आसत सुदीर / आसत कुणबी, आसत म्हार*
*भार येतर तोच देव / मार शेंसार मार शेंसार*
*सत्य आतां आटूय दिको / जोगुल कशें पेट्टलें.*
*आनी लटिक सगळ्या आंगार / खोरोज जावन फुट्टलें*
*घरचीं पिशीं भायलीं भुतां / खिणांत जातलीं थंड गार.*
*मार शेंसार मार शेंसार...*

बाकीबाबांक हो भार गोंयांत येतलो अशें दिशिल्लें. गोंयांत आयिल्लो हो भार देश सगळो पेटयतलो हें म्हाका स्पश्ट दिसता.

वांचून उरल्यार पुरो म्हणटां हांव ताका पळोवपाक आनी ताचे क्रांतींत वांटो घेवपाक.

## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| | नामो | : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. | संपादपी | : माधवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| | नामो | : २०१–बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव–गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी




इ. स. २०६०.
मनशान आपले दूद दिती आवय कशे धर्तरेक गर्भा तळांतल्यान दुखयल्ली, तिची भोव विपस्टा केल्ली. सुखां भोगच्या हावेसान तो कुड्डो जाल्लो. म्हणच घडये ती मोठी अच्छेवी जाल्ली. रागान महाकाली दुर्गे वरी थयथयाट करूंक लागिल्ली. सगळें आरतें परतें करताली. एका वाठारांत उदक माथ्या वयर पावन बुडून मरचो हुंवार येतालो. वेळ ना काळ ना, अचकीत हाडां फोडची थंडी पडटाली. केन्नाय मळबांतल्यान गरमेच्यो जिबो जश्यो आंग चाट्टाल्यो. हुलातापान जीव चरचरतालो. उश्माघातान लोक पटपट मरताले. आकाशगंगेच्या खंयच्या पेट्ट्या केणांतल्यान, भगभगपी नखेत्रांतल्यान ही गरमी येताली काय मनीस आपल्या कर्मानच मरतालो! ह्या धा वीस वर्सांनी लोक जितलो बुडून मेलो तितलोच शिंयान कुडकुडून मेलो, गरमेन हुलपून मेलो.

रुतुचक्र मोडिल्लें आनी काळ लागीं पाविल्लो. सगळी धर्तरी इतली प्रदुशीत जावन गेल्ली, सगळ्या विश्वतत्वान धर्तरे वेल्यान आंग काडून घेतिल्लें, धर्तरेक मरूंक सोडिल्ले वरी.

आयजवेर मनशान मोटार गाडयांतल्यान कितल्यो बांयो तेल लासलें आनी ताचो धुंवर आनी विखाळ वायू हवेंत सोडलो! कितल्या अणुइंधनाचो 'कचरो' वातावरणांत भरसलो! कितल्या कारखान्यांनी कितलें प्रदूशण पातळायलें! भूंयपोटांतलें तेल आनी कोळसो वयर काडून हे वयर धर्तरेच्या आंगार लासताले, धर्तरेचें मडें लाशिल्ले वरी आनी सोताच्याच मरणाचो शिगमो खेळटाले. सोताच्याच मरणाची दारार पडिल्ली थाप आयकूंक ना येवपा सारको ह्या 'बुदवंत' मनशाचो मेंदू इतलो कसो भेरेल्लो! सगले बुदवंत तर म्हणटाले, आतां विनाश थारिल्लोच आसा. तरीय पेट्टी होळी तांणी कित्याक रावयली ना? कोळसो, अणुइंधन लासून विज्ज इतली निर्माण करताले ताचेन रातीचो जसो दीस जाल्लो, ती विज्ज चोवीस तास हवो उबयत रावताली. एक दुश्टचक्र - कोळसो लासून गरमी सोडप आनी ताचेन तयार जाल्ले विज्जेनय रात-दीस वातावरण तापोवप.

गच्चेन पातळिल्लीं हिसपा भायर क्राँक्रिटाचीं जंगलां, हजारांनी मैलांचे डांबरी रस्ते दीसभर सुर्याची हुनसाण ओडून घेवन तापताले आनी ती गरमी रातची हवेंत सोडटाले.

इ.स. २०९०.

पावसाचें प्रमाण सामकेंच उणें जालें आनी मळबांत सासणाचें काळें धरून रावंक लागलें. सुर्याचें दर्शनूय म्हेळ जालें. सुर्या काळो पडलो. पूण तो मळबांत मांडिल्ले 'काळे'वयल्यान तापयतच आसलो. ती गरमी सकल देंवतच आसली.

धर्तरे वयले विद्‌वान ह्या अद्रश्टभोगाक मनशाल्या पाड सुखां भोगच्या हावेसांतल्यान आयल्लें विद्‌वाटी संकस्ट अशें म्हणटाले. ते आतां सांगूंक लागिल्ले, खरें सूख सैमाच्या गोपांत आसा, धुंवर ओंकपी गाड्यांनी ना, फ्रीज कुलरांत ना, तें उकत्या मळांनी आसा. क्राँक्रीटच्या जंगलांत तर तें इल्लेंय ना. पूण आतां बरोच उशीर जाल्लो. 'सुखा' एडिक्ट जाल्लो मनीस कांयच आयकून घेवंक तयार नासलो.

मळबाची निळाय अखखी काळी जाल्ली. झाडांचीं पानां हळडुवीं जाल्लीं. उदकाचो रंग जांबळो जाल्लो. मातयेचो रंग गोबरो जाल्लो. हांची गरमी ओडून घेवन जिरोवपी शक्तच ना जाल्ली. सगळी गरमी देंवन आयल्लें मळब आनी धर्तरी हांचे मदीं सांचिल्ली.

आंगार काळो धुंवर घेवन मळब वर्सवर्साक ओणव घेवन सकल येतच आसलें. लोक म्हणटाले, हें ज्या दिसा धुंवटांतलें वीख घेवन भूंयक तेंकतलें त्या दिसा मनीस घुसमटून मरतलो.

ह्या वर्सांनी पावसा दीस म्हण नासले, गीम म्हण नासलो, शिंया दीस म्हण नासले. वर्साच्या खंयच्याय दिसांनी पावस पडटालो आनी मागीर गरमी पडूंक लागताली. लोक म्हणटाले, मरणाचे वेध हे अशेच आसतात, धर्तरी मरणाच्यो काडाओडी काडटा. ह्या वर्सांनी लोक देवाक आनी विज्ञानाक चरांटून गाळी संवताले. देवाक खोटो बिजूट म्हणटाले तर विज्ञानिकांक धर्तरि वेले खरे मारेकार आतंकवादी म्हणटाले. ते दिसल्यार पच करून आंगार थुकताले. खरें तर गेल्लीं धा-बारा वर्सां सगल्या युनिव्हर्सिटींतले विज्ञानाचे फांटे बंद पडिल्ले. लोक विज्ञान म्हटल्यार भियेवन आंग काडटाले.

केन्ना मळबांत सांचिल्लो काळो धुंवर सकल देंवन येतालो तेन्ना गरमेचो हुलाताप खूब वाडटालो. केन्ना तो धुंवर धवसो जावन वयर वयतालो तेन्ना इल्ली थंडसाण होलमताली. ह्या धुंवरांतल्यान सुर्याचें दर्शन दुर्मीळ जाल्लें. केन्ना दिसल्यारच तो फासफल्लोसो चिडिल्लोसो जसो तुकड्या तुकड्यांनी दिसतालो. केन्ना भर दनपरांच खग्रास गिराणा वरी काळोख पडिल्लो आसतालो. चंद्राचें तोंड तर गेल्लीं कितलींशींच वर्सां कोणें पळोवंक नासलें. चान्नें पळोवंक लोक आशेताले पूण तें धुंवरा कुपां पार करून आलतडी पावच नासलें.

एक दीस तिनसांजचो अचकीत पावस झडूंक लागलो. इल्लो इल्लो करून ताणें बरोच जोर धरलो. लोक खोशयेन घरा भायर पावसांत भिजूंक लागले. नाचत चिंब भिजले. पूण कांय वेळान आंगार फोड उठूंक लागले. दुसऱ्या दिसाक आंगार चवनां पडून आंग भगभगूंक लागलें. दुखीन सगळ्यांच्यो बोबो. एकलो जाणटेलो, ताच्याय कपलार हड्ड्यार चवनां पडिल्लीं, म्हणूंक लागलो, फटीचो पावस तो. धुंवरांतल्यान ॲसीड गळटालें, हाचे फुडें धर्तरेर ॲसिडाचोच पावस पळयात; आतां पाण्याचो पावस नशिबांत ना आमच्या.

गेल्लीं बरींच वर्सां धड पावसच पडनासलो. पडल्यारच केन्नाय असोच वेळ काळ सोडून. पावसाळो म्हणटा तो येयच नासलो. आतां शेतकार भूंयंत बीं रोवन पावसाची वाट पळयनासलो. तर पावसान केन्नाय भूंय भिजली म्हणटकीर घाई घाईन कसलेंय बीं रोयताले आनी उज्या तेंपाचीच पीक काडून घेताले. आठवड्याच्यो पंद्रशीच्यो, म्हयन्याच्यो अश्यो बऱ्योच पिको मुद्दम शेतकी विज्ञानिकांनी मुखार हाडिल्ल्यो. पूण पावस दिसान दीस उणो जायतच आसलो. तातूंत मदीं मदीं विखाळ ॲसिडाचो पावस पडटालो.

भूंय तळांतलें उदक तर पाताळांत पाविल्लें. हजार हजार फुटांचे पायप घालून पिवंक उदक वयर ओडटाले. गोडें केल्लें दर्यांतलें उदक चारशीं रुपयांनी एक बाटली घेवन पिताले. अर्दो वयर जोड उदकारच खर्च जाताली. दुशीत उदक, रसायनां भरसल्लें धान्य आनी फळां, विखाळ वायू हाचेन एकाद्री महामारी पसरची तशीं सगळे तरेचीं क्रांक्राचीं दुयेंसां पसरिल्लीं. तिशी बळाटिल्ल्या तिगांतल्या दोगां बायलांचीं थानां कातरून उडयल्लीं, गर्भपिशवी काडून उडयल्ली. मनीस आनी सगळीं सैमतत्वां हांचे मदीं कसलेंच सामंजस्य नासलें. सगळीं पर्यावरणसुत्रां विसकटून गेल्लीं. दोंगर आनी न्हंयो, रान आनी कुपां, दर्या आनी मळब, पावस आनी भूंय, वारो आनी झाडां-पेडां हांचे मदीं कसलोच आत्मीक संबंद उरूंक नासलो. हवेचो वारो जायनासलो, दर्याक गाज येनासली, हुनसाणेक थंडसाण मेळनासली. उदकाचें बर्फ जायनासलें.

आतां आतां मनशाचीच काकूळट दिसूंक लागिल्ली. गाडयांनी ताचे पांयच मोडून उडयल्ले, बटणां दांबचे संवयेन तकलेचो गुळो जाल्लो. आयतें सूख भोगच्या हावेसान ताचो पुरुषार्थ मरून गेल्लो. ताणी धर्तरी भोगली, सुमारा भायर, बलात्कार करचो तशी भोगली, सगळीं वस्त्रां पिंजून पिंजून भोगली. हातूंत तो मनान मरून गेल्लो. भोगतल्या मनशांच्यो संवेदना बेगीनच मरून वतात काय किर्ते! सैमांतलीं सगळीं सावदां सुकणीं सदां मारच्या कुकडां, बोकडां वरीच जाल्लीं. ही आपली सावळी, हो आपलो पावस, हो आपलो श्वास म्हण मानी नासतना झाडां कातरताले. मनशालें मरण तर मेल्ल्या हुंदराक शेंपडेक धरून भायर व्हरून उडोवचें तशेंच जाल्लें. मनशाचीं मनां मेल्लीं, ताचेन सैमा वांगडाचो मोग, संवाद सोंपिल्लो, 'भोग' हाचे पेल्यान आध्यात्मीक वैचारीक अस्तित्वच मनशाक नाशिल्लें. करुणा आनी सेवा हो गूण मनशाक सोडून वचून कितलो तेंप जाल्लो काय! मनशाचो रगताच्यो नळयो बसयल्लो एक फातर जाल्लो.

मळबांतलो काळो थर वर्सा वर्साक जाड जायत आसलो, आनीक काळो जायत आसलो. विज्ञानिकांच्या सांगण्या परमाणें तातूंत खूब तरेचो विखाळ वायू, धुंवर जाल्लो धातू आनी खूब उदकाची वाफ भरिल्ली आसली. विखाळ वायूंतल्यान गरमी भायर सरताली ती वाफेक उदक जावंकच दियनासली. तो गच्च काळो थर जड जायत सकल सकल देंवत आसलो. तो थर केन्नाय भूंयक तेंकतलो आनी आमी घुसमटून मरतले अशें लोकांक दिसतालें. ना तरी ह्या वर्सांनी लक्षांशी लोक अस्थमाचे पिडेन जर्जर जावन पडिल्ले. श्वास आडखळून मरताले.

गरमेन न्हंयंतलें, दर्यांतलें उदक आटून मळबांत पाविल्लें. कितले बर्फ ऊंच दोंगरा वेल्यान हिमनगांतल्यान दोनय ध्रूव प्रदेशांतल्यान वितळून येवन दर्यांत मेळिल्लें. दर्यादिगे वेलीं कितलींशीं शारां बुडून गेल्लीं! तेंवय उदक आतां मळबांत पाविल्लें. दर्यांचेंय आतां कोंड कशें जाल्लें. ताका पयलीं वरी गाज येयनासलीं, ल्हारां उठनासलीं. बारीक मोठें नुस्तें परतें परतें वेळेर येवन रार्शीनी मरून पडटालें.

जीं शारां बुडलीं थंयच्या लोकाची दैनाच जाली. सगळे कारखाने, उद्योगधंदे बुडले. मागीर हे लोक हातांत मेळटा तें घेवन रानांमळांनी फासपल्ले. रानांतली कुंदमुळां, पालो खाताले. हुंदीर, सरडुकां, माकडां, सुणीं-माजरां, मारून खाताले. ते लोक खंय खंय थिरावतात म्हणसर अर्द्या वयर मरून गेले. ह्या शारांनी लोकाक, जायत्या पाड, बाश्कळ सुखभोगी वस्तूंची गोडी लायल्ली. तांतलें आतां कांयच कोण्णाक मेळनासलें. च्या, साखर, साबण, वस्त्रां, पायतणां - कांयच मेळनासलें. व्हडल्या व्हडल्या शिरवंत बंगल्यांनी रावपी हे लोक आतां तणा चुडटाच्यो झोपड्यो बांदून रावताले. मागीर निर्शेणेंतल्यान उचंबळाय आनी मागीर झगडीं, मारामारी, हिंसा. आतां तीं मनशां नाशिल्लींच. तांचीं जशीं जबडे, दावखुलां फुटिल्लीं जनावरां जाल्लीं. आतां झगडटना हांगाय ल्हान ल्हान चोमे जाल्ले. चड करून एकेका वाठारांतल्यान

जीव घेवन धांवन आयलल्या लोकाचे. ते खूब फाटल्या रानटी पंगडां वरी आपसांत दांडे, तोणके घेवन झगडटाले. तकलेक रगत मारून येयल्ले वरी लोक सगळो उचांबळ जाल्लो. कामभोगाचो तर जसो उकतो रगत खेळ सुरू जाल्लो. लग्न व्यवस्था केन्नाच मोडून पडिल्ली. सगळीं नातीं तुटून गेल्लीं. नात्यांतलो मनीस काय समलिंगी मनीस तें कांयच पळयनासले. कुडींनी फक्कत कुड्डो उजो. भायली गरमी आंगांनी धुंवंक लागिल्ले वरी नागड्यांनी भोवताले आनी नीट आडोस आसा काय ना तें पळयनासतना कोणाच्योय कुडी वेंगयताले. रासवळ कामभोगाचे मांड उक्त्यार पडटाले. गरमेन तकली धुंविल्ल्या मनशाचो धर्तरेर पिसो खेळ चलिल्लो. धर्तरेर फक्कत मनशां दिसतालीं, एक सवणें नासलें, एक प्राणी नासलो. कोण जाणा ते, भियेवन भागून खंयच्या घोलींत झिलींत वचून लिपून राविल्ले, मनशांक शिरापत.

मळबांतलो काळो थर वर्सा वर्साक जड जायत, जाड जायत सकल येतच आसलो. तसोच तो वयर अवकाशा वटेनय पातळटालो. विज्ञानिकांक भिरांत दिसताली. धर्तरे वयलें सगळें उदक वाफ जावन मळबांत गेलां तें भरकटंत मळबा भायर अवकाशांत पावल्यार परतें धर्तरेर येवचें ना. मागीर धर्तरी सासणाची सुकून वतली. पूण तें वाफ जावन गेल्लें उदक परतें हाडूंक हल्ली थंडसाण खंयच नासली.

आकाशगंगेंत आनीक खंय तरी जीव आसा काय पळोवंक विज्ञानिकांनी कितली माथेफोड केली. पूण ताका खंयच जिवाची कुरू मेळ्ळी ना. आतां ते म्हणटाले, जीव हें ब्रम्हाडांतलें अप्रूप धन आनी तेंच ब्रम्हांडाचें चैतन्य. तेंवय आतां निमाणी घटका मेजताले. ब्रम्हांडांत हाचे इतली दुखेस्त खबर दुसरी नासली. कांय देवभावार्ती लोक अवकाशा वटेन तोंड करून देवाक न्हय तर परगिन्या वयल्या हेर जिवांक पाराथताले. तूं खंयूय आसल्यार आधाराक यो, भोंवतणी पातळिल्ले हे काळे वाफेचें उदक करून भुंयेर रकय. पूण सगळो संवादच तुटिल्लो. हो लागीं उबो आशिल्लो झगझगीत सुर्या नीट दिठयेंत येनासलो, तर परग्रहा वयलो जीव खंय!

खंय सावन कसलोच आवाज नासलो. काळो धुंवर जाड जायतच आसलो. तो गरमी दळतच आसलो. आतां लोकांनी गरमी वाडोवचीं सगळीं साधनां बंद उडयल्लीं. पूण वयर पातळिल्ल्या धुंवरान इतलो विखाळ वायू भरिल्लो, तो वयल्यान सुर्याचो उजवाड ओडून आपणांत पुराय जिरोवन घेतालो. इल्लोय वयर सकल सोडनासलो.

सैमांतलीं झाडां-पेडां सासणाची पानझड आयल्ले वरी खांदयांच्यो काडयो घेवन उबीं आसलीं. उरिल्लीं पिवळीं पडून सामकीं विस्कळ जाल्लीं. एका सवण्याक सावळेक बसूंक सुवात नासली. सवणीं गरमेन आनी तानेभुकेन इतलीं भागिल्लीं, चिंवचिंव आवाज लेगीत तांच्या चोचींतल्यान भायर पडनासलो. तीं केन्ना केन्ना झाडार बशिल्ले कडच्यान ढुब्ब करून सकल पडटालीं.

रानांतलीं जनावरां बरींच उदका विणें मरून गेल्लीं. उरिल्लीं भागून कट्टर जावन मरणाक पाविल्लीं. तीं केन्ना उदकाच्या, खावडीच्या सोदांत गांवांनी घुसतालीं. लोक तांचे फाटीक लागताले. तांकां फातरायताले. मारून खाताले. कोले, भालू, बिबटे, मेरवां, हरणां, साळी, सोंशे - कितले लोकांनी फातरावन मारुन खायले हाका हिशोब नासलो. तानेन भुकेन तीं इतलीं थकिल्लीं आसतालीं, थोडीं धावलीं की लकून पडटालीं. मागीर लोक तांकां दांड्यांनी मारताले आनी भाजून शिजोवन खाताले. ही निमाणी संद आसली, मनशाक सैमा वांगडा, सैमांतल्या जीव जिवाण्यां वांगडा बरेपण जोडून वांगडाच भावपणान मुखार वचचेली. म्हणच घडये तीं जनावरां गांवांत हात जोडून घुसतालीं. पूण आपूण मोटो बुदवंत म्हणपी मनशान तें वळखलें ना आनी ती संद वगडायली.

ह्या वर्सांनी मुयो मात हिसपा भायर वाडिल्ल्यो. पुराय धर्तरी पोखरून उडोवचे तांकीन जश्यो त्यो भितल्ल्यान धर्तरी पोखरायत आसल्यो. मनशां उपरांत हे धर्तरेर आपलेंच राज्य हे जाणविकायेन जशें तांचें बळगें वाडतच आसलें. एका खंडांतल्यान दुसऱ्या खंडांत पावचें हे भाशेन भूंयंत तांच्यो रोयण्यो एके लायनींत मुखार सरताल्यो.

सगळ्या न्हंयां बायांचीं कोंडां जाल्लीं. तळ्यांनी रेबो साचिल्लो. तातूंत आनी गरमी. ताचेन जळेरां हिसपा भायर वाडिल्लीं. रात जातकीर जशे जळेरांचे काळे पड्डे हवेंत घोलताले. ॐ धरून संवसारांतले सगळे स्वर बंद पडिल्ले आनी पुराय धर्तरेर जळेरांचें गुंवगुंवप घुंवतालें. तांणी पसरायल्ल्या दुयेंसांनी मनशां पटापट मरून वतालीं. उदक-पाणी, खाण-जेवण ना जावन जायतीं हास्पिटलां बंद पडिल्लीं. विजज नाशिल्ल्यान बरेच वखदांचे कारखाने बंद पडिल्ले. गरमी आनी तातूंतल्यान दुयेंसां अशें दुश्टचक्र सुरू जाल्लें.

विजज नाशिल्ली. सांज जाली म्हणटकीर गच्च काळोख जसो तकलेर बसतालो, दोळ्यांत रिगतालो, जीव घुसमटायतालो. तकले वयर काळखो धुंवर, ताचे सकल एक दिवो ना. काळोख जसो काळो रेबो जाल्ले वरी धर्तरेर पसरतालो. लोक मागीर आयिल्ले कडेनच मुड्डो जावन पडून रावताले. फाल्यांच्या काळ्या धुंवरांतल्यान देंवन येवपी काळश्या सूर्य किर्णांचे आशेन.

अणूंक बोटांर खेळोवपी इतलो बुदवंत मनीस इतलो कसो पिसो जालो! गरमेचो भस्मासूर केन्नाच दारार येवन उबो राविल्लो. ताचें घातमारेपणय मनीस जाणा आसलो. पूण हे वर्तमानपत्रांनी, पुस्तकांनी, भाशणांनी फक्कत अॅकडॅमीक चर्चा करताले. कितलींशींच वर्सां तांणी हाचे आड कसलोच खर उपाय घेतलो ना. व्हडले व्हडले मोटारकारींचे कारखाने घालताले आनी कुंवाळे विकिल्ले वरी त्यो सवाय विकताले. तातूंत कितें ते आपलें रगत पिळून घालून मोटर चलोवचे आसले? शेवटाक तातूंत तेल लासून गरमी आनी विखाळ वायूच पसरायताले न्ही!

वीसशें णव्वद ते एकवीसशें णव ह्या वीस वर्सांनी संवसारांतलो अर्दो वयर लोक मरून गेल्लो. मडीं लासल्यार गरमी वाडटा म्हण सगळेच तीं पुरताले. खरें तर सरकारां आतां नांवा पुरतींच आसलीं. पूण तीं उश्णता वाडोवचे विशीं खूब सादूर जाल्लीं. कोणय उश्णता वाडोवचें कसलेंय कर्तूब करता म्हण कळ्ळ्यार ताका फारांनीच मारतालीं. मनशां प्रत्यक्ष उश्णतेचे बाधेन उश्माघातान मरतालीं. विखाळ हवेन घुसमटून मरतालीं. उश्णतेन पातळिल्ले रोगरायेन मरतालीं. अन्न उदक ना जावन मरतालीं, आनी हो संवसार आतां सोंपतलो हे भिरांतेनय मरतालीं. ज्या वाठारांनी जनवसती चड दाट आसली थंय लोक चड मरताले. एकल्या भारतांत साठ कोटी तरी

लोक मेले असो अदमास आसलो.

भारताक आतां भारत कोणच म्हणनासलो, 'इंडिया' म्हणटाले. 'भारत म्हजो देश' म्हणनासतना 'इंडिया इज माय कंट्री' म्हणटाले. कारण सगळ्यो भारतीय भासो मरून गेल्ल्यो. सगळ्याक इंग्लीशच चलताली. पयस हिमालयांतल्या दोंगरांनी खंय खंय इल्ली हिन्दी चलता म्हण आयकल्लें. फक्त भाशा मेल्ल्यो पूण धर्मीक कट्टरपण, जातीभेद, वंशभेद चड झगडाळ जावन अजुनूय बेस तिगून आसलो. शेजारचो बंटराम केन्नाय म्हणटालो, देवभाशा संस्कृत सोडून तुमी गाये मांस खातल्यांची इंल्लीश आपणायली म्हण देव रागार जालो आनी सगळो विसकोट जालो!

सुकून रेबो जाल्ल्या न्हंयांनी लोक एके तरेचीं तवशीं पिकयताले. न्हंयंत शैंकड्यांनी मैल त्या तवश्यांचीच पीक. ताचो व्यापार नेटान चलतालो. अर्द लोक तींच खावन पोट भरतालो. न्हंयच्या खोल कोंडींनी ट्यूबवॅल घाल्यार उदकय बरें मेळटालें.

संयुक्त राष्ट्रसंघाचे सुरक्षा समितीन आज्ञा काडून संवसारांतल्यो सगळ्यो तेला बांयो सील केल्ल्यो. पूण ताची तस्करी नेटान सुरू जाल्ली. त्या त्या सरकारान कितल्या तस्करांक फारांनी मारले तरीय ते थांबनासले. मरणाचे धडेर पाविल्लो तो लोक तेलाची तस्करी करून पयशे कित्याक जोडटाले, देवाकच खबर!

मळबांत काळो धुंवर पातळिल्ल्यान सोलर एनर्जीची आस्त नाशिल्ली. विज्ज निर्मणेचे सगळे प्रकल्प बंद पडिल्ले. तेल लासपाचेर बंदी आशिल्ली. लोक आतां मरून सुकिल्लीं झाडां-पेडां कातरून इल्लो उजो उजवाड करताले.

विशेक वर्सां फाटींच संवसारांतलें सगळें बर्फ पागळून दर्याच्यो वेळो, धडये वेलीं शारां बुडिल्लीं. तें उदक आतां गरमेन वाफ जावन मळबांत पाविल्लें. परत दर्या सकल आपले शिमेंत पाविल्लो आनी बुडिल्लीं शारां उदकांतल्यान वयर सरिल्लीं. पूण आतां थंय मनशांली वसती नाशिल्ली. फक्कत पडींग इमारती दिसताल्यो, कांय धड कांय कोसळिल्ल्यो.

तळीं, बांयो, न्हंयो, दर्या, आयजवेर लाशिल्लें तेल, कोळसो आपल्या पोटांत घेवन मळबांतलो धुंवर फुगतच आसलो. तें एक अजापाचें रसायण आसलें. तातूंत उदक आसलें, ॲसिड आसलें आनी कितल्याश्याच तरांचो विखाळ वायू आसलो. तातूंत आनी ताच्या गर्भांत गरमी तापतच आसली. सुर्याची पुराय गरमी तो धुंवर ओडून घेतालो आनी भितल्ले भितर जिरयतालो. तो धुंवर आनी भूंय हांचे मदीं गरमेचो एक पाटसो व्हांवतालो... मनशां, सवणीं, सावदां सटासट मरतालीं.

इ.स. २००९.

गरमेन आटून आटून वाफ जावन धर्तरी वयलें बरेंच उदक मळबांत पाविल्लें. दर्याचो गाज उणो जावन तार्चे लेगीत एक कोंड जावंक लागिल्लें. दोंगरा येदे देवमाशे दर्या वेळेर येवन जीव दिल्ले वरी मरताले. व्हडल्या व्हडल्या नुस्त्यांच्या सांगाड्यांनी वेळो भरिल्ल्यो. सगळ्या दोंगरांचीं माथीं बोडकीं जाल्लीं. एक तणा पाकळी नासली. कांय दोंगरांच्या मुळसांनी इल्ली हळडुवीसाण दिसताली, मरूंक पाविल्ल्या झाडा-झोंपांची. पुराय धर्तरी चुलीर दवरिल्ले हांडये वरी तापिल्ली. मळबांत कुपां न्ही तर उज्याचीं केणां दाटिल्लीं. धर्तरी धरून मळबा मेरेन मरणाचो हुलाताप पातळिल्लो सवणीं, सावदां, जिवाणीं, खंयची सांवळी सोदीत खंय पाविल्लीं. काय मरून गेल्लीं तें खबर नासलें. मनशांच गरमेच्या हुलातापान सुजून गेल्लीं. तोंडां तांबडीं तांबडीं दिसतालीं. तीं उश्माघातान मरतालीं. गेल्ल्या धा वर्सांत संवसारांतलीं अशीं अठरा कोटी मनशां मरून गेलीं असो अदमास आसलो. दिसान दीस तीं मरतच आसलीं.

संवसारांतल्या सगल्या सरकारांनी कडक आज्ञा काडून तेलार चलपी सगळीं वाहनां बंद उडयल्लीं. तीं आतां कोट्यांनी रिते दबे कशे सगळे कडेन पडून आसले. सगळे कारखाने बंद पडिल्ले. ताचेन बेकार, उपाशीं लोकाचे चोमे हिंस्त्र जावन सांवार काडटाले: विज्ज निर्माण करपी सगळे प्रकल्प आपशींच बंद पडिल्ल्यान सगळ्याक विज्ज तुटिल्ली, रातचो काळोख पातळटालो.

जो कोणय उश्णता वाडोवचें, प्रदूशण पातळावचें कर्तूब करतालो ताका फारान मारची आज्ञा आसली. हे भाशेन हजारांनी लोकांक फारांनी मारिल्ले.

पूण खूब उशीर जाल्लो. उश्णता आनी विखाळ वायू भस्मासूरा वरी धर्तरी धरून मळब मेरेन पातळिल्लो. त्या वायूंत उश्णतेची गिरण आशिल्ले वरी तों चडच उश्णता पातळायतालो. ते उश्णतेन धर्तरि वेलें दर्या धरून सगळें उदक खूब वेगान वाफ जावन मळबांत पावतालें. तें परतें सकल हाडूंक इल्लींय थंडाय नासली.

संवसारांतल्या दर तिनांतल्या एका मनशाक कातीचो कॅन्सर जाल्लो. पांचांतलो एक मनीस पिसो जाल्लो आनी रस्त्यांनी आड्डत भोंवतालो. हवा विखाळ जाल्ल्यान श्वास आडखळटालो. दम लागतालो. लोक रात रात दम्याचे पिडेन वळवळटाले. गरमेक लागून एक वस्त्रा कुडको कोणाक आंगार नाका जाल्लो. लोक झुंडीनी नागडे भोंवताले. लोकाक राग इतलो येतालो, कोणाक केन्नाय आडवो उडोवन ताच्या हड्ड्यार बसताले. गरमी वातावरणांतली आनी गरमी पोटाची भुकेची. संवसारांतले सगळे संपत्तीची लुटालूट चलिल्ली. खाजगी संपत्ती म्हण कितें उरूंकूच नासलें. जिवा जाळाक, पोटा भुकेक मेळटा ताचेर हात मारचें इतलेंच उरिल्लें. आडावंक आयल्यार मडीं पडटालीं. खंय एक अन्नाचो कण, उदकाचो थेंब मेळटा म्हण कळ्ळ्यार लोक मडीं माड्डीत धांवताले.

धर्तरि वांगडाचो ब्रह्मांडाचो पुराय समतोल इबाडून गेल्लो. पुराय धर्तरि वयलें वातावरण फुटिल्ल्या दुदा वरी जाल्लें. पयसुल्लीं कृश्णविवरां, नखेत्रां, गिरे आनी अदृश्य वस्तुराशी घडये पिर्तुमेच्या ह्या मरणाचो वेध घेतालीं. तिंवूय असहाय्य आसलीं. 'एका गिऱ्याचें मरण' घडये ब्रह्माडांच्या पुस्तकांत नोंद जावचें आसलें. विश्वांत अप्रूप सोबीत अशी जीवसृश्ट फक्कत पिर्तुमेचेरच जीवरुपाक आयिल्ली. ती मरून पिर्तुमेचो सुको सडो जावप हाचे इतलें व्हड दुःख ब्रह्माडांत दुसरें नासलें.

धर्तरिर हजारांनी वर्सां गोठेवन आशिल्लें बर्फ खरें तर ते धर्तरिचें सुरक्षा कवच आसलें. बऱ्या वायट काळाक तें पावतालें. उदकाची पुरवण जाताली. उश्णतेचेर नियंत्रण आसतालें. तें आतां पागळून दर्यांत वचून मेळिल्लें. ताचेन दर्या वेळो, दर्या धडे वयलीं शारां बुडून गेल्लीं. थंयचे बरेच लोक मरून गेल्ले. उरिल्ले रानांवनांनी भोंवताले. आनीक एक-दोन वर्सां

गेल्यार तेवय पुराय सैमा सयत मरतले अशें दिसतालें. संवसारांतली तीन चतुर्थांश जनसंख्या मरून गेल्ली - गरमेन, पिडेन, भुकेन, कांचान, भिरांतेन. अशेंच चल्ल्यार अजून चड काळ ती उरिल्लीय तग धरतशें दिसनासलें.

कशेंय करून मळबांत वाफ जावन पाविल्लें उदक सकल येवंक जाय आसलें. ते खातीर थंडसाण जाय आसली. तीच तर तुसभरय नासली. हजार हजार फुटां सकल्ल्यान भूंयंतल्यान उदक ओडून काडून तेंवय सोंपत आयिल्लें. कसलेंय दुशीत उदक पियेवन, विखाळ हवा घेवन मनशाले कुडीचो कासोव जावंक लागिल्लो. मनशालीं कमरां धरिल्लीं, फाटी कणो वांकडो जाल्लो, थायरॉयडस् वाडिल्लीं.

आतां वर्स भरांत पावस पडलो ना तर होच निमाणो विध्वंस थारतलो. आनीक आनीक जितो जीव हांगा मेळचो ना! कुरकुटांतलो जल्लो लेगीत उक्त्यार येवन मरून पडटलो. उरतले फक्कत फातर आनी मातयेचेय फातर जातले. शेवटाक माती ही उदका बगर फातरच आसता.

मळबांतलीं कुपां दिसान दीस गच्च जायत धर्तरी धरिल्ल्या अवकाशा मेरेन पातळूंक लागिल्लीं. आकाशांत एक म्हासागर भरून उदक आसलें पूण ताका थंडी मेळनासली. तें सकल येयनासलें. आतां जाणकार आगळीच भिरांत उकतायताले. हीं सगळीं उदकाचीं कुपां पिर्तुमेच्या गुरुत्वाकर्शणा भायर गेल्यार परतीं धर्तर वटेन येवचीं नात. पावस पडचो ना, धर्तरेचो एक सुको सडो जातलो सासणाचो. धर्तरेर 'उरिल्लो' लोक तर थेंब भर उदकाक वळवळटालो.

इ.स. २०१९.

एक दीस सकाळीं उठून पळयल्यार सगळीं कुपां पयलीं धा-वीस हातार आशिल्लीं तीं आतां येवन धर्तरेक तेंकल्यांत. भूंय आनी कुपां हांचे मदलो इल्लो उजवाडाचो, उश्णतेचो पाट ना जाला. दनपारच्या बारा वरांर लेगीत मध्यान रातीचो काळोख पातळ्ळा. लोक काळखांत चाचपडत सगळो वावर करूंक लागिल्ले. चड लोकांक ह्या काळखांत आपलें मरण दिसतालें. लोक पुंजको भर उजवाडाक, थेंब भर उदकाक, कण भर अन्नाक आशेताले.

पयस काळखांतल्यान केन्ना कोणालो तरी जाणटो आवाज घुंवतालो, 'आयच्या काळखांतल्यानच फाल्यांची फांतोड उदेता. सोताक मरणा पयलींच मरूंक दिवं नाकात.' हें होलमून लोकाली आस्त पालेताली, ते काळखांत धडपडत वचून न्हंयच्या, तळ्यांच्या ओलसार तळांत लायिल्लीं तवशीं, कणंगां काडून हाडटाले.

आतां तकलेर कसलें तरी वोजें होलमतालें, उदकाचेंशें, वाऱ्याचेंशें. तें इल्लें सुखदेणें, थंडशें आसलें. गेल्या साठ-सत्तर वर्सांत पयलेच फावट मनशान अशी इल्ली थंडसाण अणभविल्ली. सुर्या तर मळबांत खंय शेणून गेल्लो, खबर नासली. अचकीत एक दीस ॲसिडाचो पावस पडूंक लागलो. लोक आतां ॲसिडा पावसाक वासा वयल्यानच वळखताले आनी बेगी बेगीन घरांनी धांवताले. त्या दिसा तो इतलो पडलो, घरा वेल्यान गळूंक लागलो. रस्त्यां वयल्यान व्हावंक लागलो. मागीर म्हयनो भर तो दर दिसा पडतच आसलो. गांवांनी, दोंगरांनी दर्यांनी चिपये येदे थेंबे पडटाले. तो व्हांवतां व्हांवतां रोखडोच भूंयंत जिरून वतालो.

ॲसिडा पावस म्हयनो भर झडून गेलो आनी हवेंत आनीक इल्ली थंडाय भरली. मळबांतलें काळें चडच जाड जायत भूंय वटेन देवंक लागलें. पूण खरो पावस पडनासलो. लोकाक वोगीच दिसतालें, आतां खंयच्याय खिणाक पावस झडूंक लागतलो.

अचकीत एक दीस एक अजाप घडलें, एक टिकटिवें मळबांतल्यान काळोख चिरीत 'टिक्टिंवाक, टिक्टिंवाक' करीत हुडून गेलें. लोक खोशयेन आड्डत घरा भायर आयले. मागीर कितलेशेच दीस अशे सवण्याचे रडिल्लेशे आवाज काळखाच्या दुसऱ्या पोंता वेल्यान आयकूंक येताले. दोंगराच्या तेमकार, घळींनी, वेळेचे पयसुल्ले तडीर अशे आवाज घुंवताले. लोक मनांत म्हणटाले, इतलो तेंप खंय दडी मारून बशिल्ले हे आवाज, काय गरमेन अंदून धरिल्ले ते! लोकाक वोगीच दिसतालें, व्हड व्हड रूख जे अजुनूय अर्दमर्द जिवे आसले, तांकां नव्यान आंकरी फुटल्या, तांचे फाटी वेल्यान हात भोंवडावन पळोवचें अशें तांकां खूब दिसतालें. पूण मनीस खूब मोटवो आसलो.

मळबांत सांचिल्ल्या धुंवराचें, वाफेचें, गच्च काळें आतां दोनशें-एक मैल तरी जाड जावन अवकाशाच्या दारांत पाविल्लें. हातूंत सुंर्या शेणून गेल्लो. सुर्याचीं किर्णां काळ्या धुंवरा भायर दोनशें मैलांरच फासपून वयतालीं. सकल पावनासलीं. ताचेन दिसान दीस इल्ली इल्ली थंडाय वाडटाली.

एक दीस मळबांत झग्ग करून विज्ज चकचकली. तो उजवाड पळोवन मनीस खोशयेन पिसो जालो. बारीकशी उज्या तीर झगझगत मळबाचे आरपार गेल्ली. ताणें धर्तरेवेलो काळोख खीणभर चिरून उडयल्लो. मागीर मात मळब सारकें तडतडत वाजत रावलें. आवाजाचो आनी उजवाडाचो एक अदीम सैम खेळ सुरू जाल्लो. पुराय रात विज्ज थार दियनासतना चकचकताली आनी मळब मोडून पडटले वरी वाजतालें. लोक कांचवेव जमनीक पोट लावन घरांत पडिल्ले. भायर जशें संवसाराच्या पुनर्जल्माचें उत्पाती महानाट्य चलिल्लें.

सकाळ पाराक इल्लो इल्लो उटंगारांचो पावस झडूंक लागलो. दडकांचेर दडको पडटाल्यो आनी न्हंयां तळयांनी पावल पावल उदक वयर चडटालें. गेल्ल्या साठ-सत्तर वर्सांत खर हुलातापान वाफ जावन वयर गेल्लें उदक आतां रकतालें. असो पावस थार दियनासताना दिसांचे दीस पडलो आनी आतां सगळ्या संवसाराक मरणाची शिंया हुडहुडी भरूंक लागली. तें शीं ल्हवू ल्हवू शुन्या खाला पावलें. धुंवरांतलें ॲसीड झडून गेल्लें आनी सुर्याचो उजवाड धर्तरे मेरेन पावच नासलो. पडिल्लो पावस तर थंडाय पातळायतालो.

आतां पावस पडनासलो. फक्कत बर्फ पडटालें. मळबांतल्यान बर्फाचे पड्डे सकल देंवताले. तीन-चार म्हयन्यांतच ह्या बर्फान दोंगरांच्यो तेंगश्यो आनी देंगणा, न्हंयो, तळीं, भरून गेल्यो. पुराय धर्तरेर धोंपर भर बर्फ पातळ्ळें.

आतां एक नवें हिमयूग - एक नवी 'आयस् एज' - सुरू जाल्लें. गरमेच्या भस्मासुराक लागून थोडेच लोक आतां जिवे आसले. ते मुखार कशे तग धरतात तें पळोवचें आसलें.





# नाच

**जुझे लॉरेन्स**

शेंतांत तशें व्हडलें ट्रॅफीक आसना. तरूय रॅड सिग्नल पडिल्ले वरी भोल्याचे बैल घट्ट जावन थंयच उबे रावले. भोल्यान तांकां फाटीर थापटायले. पूण बैल फुडें सरले नात. बैलां वाटेर कोण नासलो. मदीं कांय एक नासलें.

भोल्यान बैलाच्या गळ्याक लायिल्ले पिशवेंतलें तण काडून ताच्या तोंडाक लायलें.

बैलान तकली हालयली.

तिडकेन भोल्यान बैलाच्या भोंकार खोंट मारली.

बैल हांबेत दाव्यान घुंवले आनी नांगर ओडीत धांवले.

''हो आनी कसलो मद!'' भोल्यान म्हळें.

भोलो बैलांक शेताच्या पयशिल्ल्या पोंतार व्हरून थंय जोत घालूंक लागलो. पांच स पासयो बऱ्यो गेल्यो. शेता बांदयेच्या मदेकांत पावना फुडें बैल परते थांबले.

भोल्यान तकली हालयली, ''हें आनी कसलें पिशेपण!''

बैलांच्या तोंडा वटेन येवन ताणें जमीन तपासली. फोंडकूल काय नासलें. फातर नासलो. कांयच नासलें. भोल्यान बैलां फाटल्यान वचून तांचेर बडी मारली

''हीर्रऽऽहूऽऽय'' करून बैलांक लकयले.

हे फावटी बैल उजव्यान घुंवन धांवले.

भोलो, ताची बायल आनी तांचे बैल गांवच्या भायल्या पोंतार एके धाकटुले खोंपींत रावतालीं. थंयच्यान शेत पांच मिणटांची वाट.

बैल भोल्याक भियेताले.

भोलो बायलेक भियेतालो.

''बेकार लवडी! दोन पयशे जोडूंक जायना! चंदूक पळय मरे, कितलो हुशार तो मनीस. चंदू आमच्या आदाराक पावता म्हणून बरें!''

बायलेची तापसाण आयकूंक नाका म्हणून भोलो फांतोडेर उठून बैलांक घेवन शेतार वतालो. पूण आयज नांगरपाचें काम वेवस्थीत जायनासलें. भोल्यान उजव्यान शेत खणलें आनी दाव्यान शेत खणलें. मदलो कुडको तसोच उरलो.

बैल मदलो कुडको नांगरपाक कशेच तयार नासले.

भोल्यान बैलांक थंयच बांदले. घरा गेलो आनी शेजाऱ्याक म्हळें, ''मधू, म्हाका तुगेले बैल मातशे दी. ''

''तुज्या बैलांक किदें जालां तर?''

''कांय ना. दोन वरांनी रोखडेच हाडून दितां.''

''व्हर तर,'' मधून म्हणलें.

भोल्यान मधूच्या बैलांक नांगर लायलो आनी उरिल्ल्या कुडक्यार व्हेले. दोगूय बैल शेता मदीं पावना फुडें ''ओं ओं'' करीत बंद पडले.

बडी लायल्यार हालनात. खोंट मारल्यार धोलनात. चार बडयो पडटकच मात बैल रिवर्स मारून दुसरेच वटेन चलूंक लागले.

भोलो कुले खरपीत चिंतूंक पडलो.

मधू विडी ओडीत थंय पावलो.

''किदें चल्लां रे?''

''बैल मदल्या कुडक्यार नांगर ओडपाक तयार नात.''

''हॅट्ट! हांव दाखयतां... ए काळू... चल रे...''

पूण मधून बैलांक फुडें फाटीं, हेवटयान तेवटच्यान नाचोवनूय आदलेंच घडलें. मधू आनी भोलो दोगूय माथें खरपीत घरा परतले.

ते सांजे गादयेर मधून हेरांक सांगून सोडलें. फेणयेची कोपीण घेवन बशिल्ले ते सगले फुरफुरपाक लागले.

''भोल्याच्या शेतांत कितें तरी आसोंक जायें.''

''आरे, थंय कोणेंय भांगर पुरिल्लें आसतलें.''

''भोल्याचेर कोणेंय करणी केल्या आसतली.''

''भोल्याचे बायलेचेर चंदू करता तशी...''

''ओगी रावात पिश्यांनो!'' एका कोनशाक बशिल्ल्या शंभू घाडयान म्हणलें. ''कितें बडबडटात? जाणात तुमी? भोल्याचें शेत गांवचे शिमेर पडटा!''

सगले ओगी पडले. एकामेकांक पळोवपाक लागले. मधून इल्ली फेणी जमनीर रकयली. घाडी इंगळ्यां सारके दोळे मोटेच करून उबो रावलो.

''ह्या दिसांनी गांवांत बरेंऽऽ चलना. पयरूच रातचो शिमेर भोंवतना म्हाका झाडां वयल्यान मोट्टो उजवाड दिसलो. राखणदार रातीचो दीस करपाक शकता!''

दुसऱ्या कोनशाक बशिल्लो जाणटेलो भिकूमाम पडिल्ले दांत दाखोवन हांसलो - ''थंय कांयच ना रे...''

''घडये ताका राग आयला जातलो,'' जाण्टेल्याची पर्वा करनासतना घाडयान म्हणलें. ''भोल्या, ह्या वर्सा तुवें सूर रोंट दिल्लें?''

भोल्यान तकली हालयली. घरांत पेज सारकी पोटाक पावनासली, सूर रोंट आनी खंयचें!

उलयतां उलयतां सगल्यांनी भोल्या खातीर उपाय काडूंक जाय म्हण थारायलें आनी गादयेच्या दाराक आपटत तिपटत भायर सरले.

ते राती देंवचाराक सूर रोंट पावलें.

दुसऱ्या दिसा तीन बैलांच्यो जोडयो घेवन गांवकार शेतांत पावले. एका फाटल्यान दुसरो, सगले खेळगड्यां भाशेन बैल आनी नांगर घेवन घुंवत रावले. मदलो धा ते बारा हातींचो कुडको तसोच उरलो. घाडयान वर भर मागणें केलें. तरूय खंयचोच बैल त्या जाग्यार पांय पासून दवरपाक तयार नासलो. गांवकार बरेच भियेवन घरा परतले.

भोलो घरांत भितर सरतना भितरसून चंदू भायर सरतालो. ताचे फाटोफाट भोल्याची बायर दारार आयली. भोल्याक पळोवन तिणें आंग काडलें. मागीर अडेची हांसली.

''पळय, चंदून केळीं हाडून दिल्यांत...''

''ये भोल्या! तुज्या शेतांत कसलें प्रकरण चल्लां खंय?'' चंदून विचारलें.

चंदू वाड्या वयलो पंच. मटक्याचो धंदो चलोवपी. आनी सगल्यांच्या घरांत बोट घालपी.

भोलो ओगीच रावून घरांत भितर सरलो.

साजूले गादयेर ते रातीं सोरो खूब खपलो.

''राखणदाराचें पोट सूर रोंटान भरलें ना,'' घाडयान सांगलें. ''ताका आनीक कितेंय दिवचें पडटलें.''

''कोंबो?'' सदू म्हाल्यान विचारलें.

''म्हागेली कोंबी आसा,'' मधू फुडें सरलो. ''फारीक केन्नाय केल्यार जाता रे भोल्या... हें वायटपण आख्ख्या गांवाक बादपाक शकता म्हणून.''

कोनशाक बशिल्लो भिकूमाम हांसलो. ''कांय ना तें कशें बादतलें!''

हेवटयान चंदून गांवच्या मास्तराक सांगलें.

मास्तरान पत्रकाराक सांगलें.

पत्रकारान कमरबंदाक सांगलें.

डॉक्टर कमलाकर कंटक पणजेच्या महाविद्यालयांतलो एक बुदवंत आनी शाणो विज्ञानीक आसलो, पूण कॉलेजींतले भुरगे आनी भायरूय सगले ताका ''कमरबंद कंटक'' म्हण वळखताले.

तो कसल्याय विशयाचेर भाशण दिवपाक शकतालो. पयरूच ताणें एन्.आय.ओंत ''गोंयची सुंगटां कडी'' हाचेर खडेगांठ भाशण दिल्लें. आनी ताच्या आदल्या दिसा कला अकादमीच्या ब्लॅक बॉक्सांत 'व्हायट होल' हे संकल्पनेचेर तो देड वर उलयिल्लो.

सकाळीं उठून भोलो शेतांत गेल्यार, थंय गर्दी.

चंदू, मास्तर, पत्रकार आनी डॉ. कमरबंद शेतांत बोवाळटाले.

मधू आनी हेर गांवकार कोंबी, मिरसांग, मीठ आनी लिंबू घेवन तयारी करताले.

कमरबंदान भोल्याच्या बैलांची भानगड पळयली. अजाप जावन तोवूय बांदये मदीं घुंवत रावलो.

''हांगा कितेंय तरी आसा!'' कमरबंदान म्हळें.

''हांव छापून सोडटां...'' पत्रकारान म्हळें.

''हांगा कोणेंय कितें तरी केलां'' घाडयान म्हळें.

''शेताक कितेंय तरी बादलां.''

''भोल्याच्या कांट्यार कोण तरी बसला.''

''चंदू बशेन...?''

''वगी राव!''

डॉ. कमरबंद आनी ताचे मनीस वर दोन वरां थंयच भोंवले आनी घुंवले. गांवकार तांचे मदींच घुंवले, भोंवले आनी कोंबी कातरली. दनपरां सगले घरा परतले.

भोलो घरांत सरतना बायल तापली - ''आयजय बेगीन आयलो, मेल्लो!''

भोल्याक समजलें.

चंदू सकाळभर पत्रकार आनी विज्ञानिकां मदींच उरिल्लो.

ना जाल्यार येदना म्हळ्यार घरांत चिकू येतासले.

बैल थंय कशे वतले?

''तो आजुनूय थंय बसला,'' ''घाडयान म्हणलें.

सगले फेणयेचे उबेक बशिल्ले.

''ताका आनी कसलोय मोठो मान दिवचो पडलो.''

मधू फुडें सरून बोकडो दिवपाक तयार जालो.

भोल्याचें रीण वाडत वतालें. तो ओगीच बसलो.

सकाळचो भोलो शेतार गेल्यार... घुस्पागोंदळ.

वीस ते तीस विज्ञानीक आनी पन्नासेक पत्रकार एकठांय जाल्लें. डॉ. कमरबंद शेता मदीं एक यंत्र उबें करून मदल्या कुडक्याचेर टॅस्टींग करतालो. इतल्यान एकलो दोतोर भोल्याच्या बैलाची गांड तपासूंक लागलो.

यंत्राक तेंकुनूच गांवकार बोकड्याक मारूंक तयार जाल्ले.

चंदू दोनूय चोम्यां मदीं नाचतालो.

''ह्या पाड पडिल्ल्यांक धांवडावपाक जाय.'' मधून चंदूक म्हळें. ''देवाच्या जाग्यार येवन बोवाळ घालतात!''

''ह्या पिशांक हांगचे काड मरे!'' कमरबंदान चंदूक सांगलें. ''इतलें म्हत्वाचें हांगा घडलां आनी हे आवटे बोकड्यांक आनी कोंबयांक घेवन नाचतात.''

दिसभर नाटक चालू उरलें.

चंदू मदीं भोल्यागेर वचून उदकाची तान भागोवन आयलो.

सांजेच्या चार वरांचेर कमरबंदान हुयेली मारली.

सगळे विज्ञानीक यंत्राक पळोवन नाचपाक लागले.

''पळय,'' कमरबंदान चंदूक सांगलें. ''हांगा कितें तरी आसाच! आमच्या यंत्राच्या स्क्रिनाचेर दिसता. वाटांगुळ्या बोलाभशेन, स हात ते आठ हात लांब, आनी पांच हात उंचायेचें.''



भोलो, मधू आनी हेर गांवकार चाट पडले.

तांकां त्या जाग्यार कांयच दिसनासलें.

विज्ञानीक उडक्यो मारून नाचताले तें पळोवन चंदूक कांय समजलें ना. तो उठून भाशण दिवूंक लागलो -

''आमच्या गांवची नामना आतां संवसारार जातली. हाचे फुडें कितेंय करतले जाल्यार आमचे पंचायतीक सरकारान पैशांचो आदार दिवचो पडटलो. आमचो गांव फामाद जातलो जाल्यार, आमचीय उदरगत जावूंक जाय.''

गांवकारां मदीं वचून चंदून तांकां सांगलें, ''राखणदारा खातीर आमी हांगा एक व्हडलें देवूळ बांदया. ते दोतोर आनी सरकार पयशे दितले. हांव बांदतलों.''

भोलो सांजचो घरा पावता म्हळ्यार ताची बायल अस्वस्थ जावन रेंकेताली.

भोल्याक कळ्ळें.

चंदू गांवची उदरगत करूंक मग्न उरिल्लो.

ना जाल्यार आयज पोपायांचें पांटें पावता आसलें.

चार दिसां भितर भोल्याच्या शेताची जात्रा जाली.

दोनशीं तिनशीं लोक जमले. सगल्या जगा वयले विज्ञानीक आनी टी. वी. चॅनलांचे मनीस आयले. सरकारा कडल्यान पयशे घेवन चंदू आनी गांवकार त्या जाग्याक तेंकून देवूळ बांदपाचे तयारेक लागले.

भोलो रोयतालो त्या शेताच्या भाटकाराक सरकाराचे पयशे मेळ्ळे.

विज्ञानिकांनी त्या मदल्या जाग्याचे भोंवतणी राजू बांदून थंय वचपाची मनाय केली.

''हांगा आसा ती वस्त पिर्तुमे भायली आसूंक जाय. ती कितें, तातूंत कोण आसा, ती खंयच्यान आयली... हें सगलें सोदून काडपाक जाय,'' कमरबंद पत्रकारां कडेन उलयतालो.

''ये चीज को मैंने नया नाम दिया है - 'कमरबंद बंदकमरा'! ये कमरा खोलके देखना है'' ताणें दूरदर्शनाच्या रिपोर्टराक सांगलें. ''ही वस्त तपासून उकती करूंक, हांगची काडून आमच्या लॅबांत व्हरपाक जाय.''

हें आयकून कुशीक उबो राविल्लो भिकूमाम हांसलो.

''नाच तें कशे व्हरतले!''

एका विज्ञानिकान राजू हाडलो, पूण बांदपाक कांयच नासलें.

दुसऱ्यान क्रेन हाडली पूण उखलपाक कांयच नासलें.

जमनीचेर उदक मारलें.

विजेचे करंट लायले.

वेगवेगळ्या गॅसांचे फवारे सोडले.

पूण थंय कांयच बदल्लें ना.

मनशान थंय जाय तशे फिरपाक जातालें, फकत खंयचोच बैल सुणो वा माजर थंय नाक पासून लावपाक तयार नासलें.

जगभर उचांबळाय जाली. पत्रांचेर गाजलें. टी. वी. चेर वाजलें.

जग सोंपपाचो वेळ आयला म्हण थोडो लोक घर सोडून रानांत गेलो.

अमेरिकेच्या राष्ट्राध्यक्षान इराण देशाचो गुन्यांव केलो आनी ताचेर बॉंब घाले.

गांवच्या मास्तरान सुटी घेतली.

चवथ्या दिसाक सांजेच्या वेळार दोन हजार लोक जमले. देवळाक पयशे येत रावले आनी चंदू नाचून नाचून थकलो.

ते रातीं भोल्याक देवळाचें सामान राख म्हण सांगून चंदू घरा गेलो. भोलो रातचो देवळाच्या जाग्यार न्हिदलो. चंदूक आपल्या घरा पावपाक फांतोड उदेली.

सकाळीं उठून पळयल्यार त्या शेतां आनी यंत्रां मदीं भोल्याचो बैल सुस्त न्हिदिल्लो. विज्ञानीक बैलाक थंय पळोवन स्क्रिना कडेन धांवले.

''गेलें! गेलें! आशिल्लें तें गेलें!'' ते रडले.

भिकू मामान तकली हालयली - ''नाशिल्लेंच जाल्यार कितें वतलें?''

गांवकार एकठांय जमले. राखणदार धादोशी जालो म्हणून ते नाचूंक लागले. देवळाचें काम आनिकूय जोरान पेटलें. पयशे भरपूर एकठांय केल्लेच. चंदून मोटार घेतली.

दोन दिसां भितर थंयचे विज्ञानीक खूब निर्शेवन आपणालें सामान कवळून घरा गेले. संवसार सोंपता म्हणून रानांत गेल्ले लोकूय निर्शेवन घरा परतले.

कमरबंदाक अंतरराष्ट्रीय इनाम फावो जालें. सरकारान ताचो पगार तिबरात वाडयलो. ताणें बरयिल्लें पुस्तक *कमरबंदाची उस्तवारी* भरपूर खपलें. ताणें रोखडेंच दुसरें पुस्तक बरयले - *शीत, कडी आनी कमरबंद.*

भोलो आदीं रोयतालो त्या धाकट्या शेता मदीं एक व्हडलें देवूळ जालें. उद्घाटनाक मुखेल सोयऱ्याचे हस्तुकीं भोल्याच्या बैलांक फुलांचो हार घालो. भोल्याकूय हार घालपाक आयिल्ले, पूण भोलो घरा नाशिल्लो. तो हार भोल्याचे बायलेक दिलो. तिणें तो मागीर चंदूच्या गळ्यांत घालो.

फुडल्याच म्हयन्यांत चंदू वेंचणुकेक उबो रावलो आनी त्या वाठाराचो आमदार म्हणून वेंचून आयलो. भोल्याची बायल तागेरूच रावूंक गेली.

भोल्याचे बैल पवित्र म्हणून राखणदाराच्या देवळाचे समितीन तांकां व्हरून देवळांत पोसूंक दवरले.

भोलो हांगा थंय भोवंक लागलो. एक दीस तो खंय तरी नाच जालो.

कोणाक व्हडलें कांयच पडलें ना.

दर शिवरात्रेक जयजयकार मात आयकूंक येता.

जय भोलानाथ...



# कवितेच्या सांगातांत
## (एक दिसपटी)

**माधव बोरकार**

कोल्हापूर ९.६.०७

*चांदणवेळ* हो बाकीबाबाल्या वेंचीक कवितांचो संग्रह. गो.म. कुलकर्णी आनी कुसुमाग्रज हांणी ताचें संपादन केलां. *प्रतिभा* ह्या बाकीबाबाल्या पयल्या संग्रहा पासूनच्यो वेंचीक कविता हातूंत आसात. ताका गो.म. कुलकर्णींची प्रस्तावनाय आसा. हांवें एक पळयलां, बाकीबाबाले कवितेचो विचार करतना खंयचोच समिक्षक तांचे *'प्रणयमुग्धेस'* हे १९३० वर्सा बरयल्ले कवितेचो विचार करिना. खंयच्याच संकलनांत तिचो आसपावूय जावंक ना. म्हजे नदरेन हे कवितेक खाशेलें म्हत्व आसा. ती कविता बाकीबाबाले कवितेच्या विकासाचे वाटे वयलें म्हत्वाचें पेणें. १९२६ ते १९३० मेरेन बरयल्ल्यो कविता बालकवी, गोविंदाग्रज हांच्या प्रभावांतल्यान आयिल्ल्यो दिसतात. ह्या कवितांचे फाटभुंयेचेर *'प्रणयमुग्धेस'* ही कविता दवरून पळोवची. ही कविता बाकीबाबाले कवितेचें नीज दाखयता. तिका आपली अशी शब्दकळा आनी सूर आसा. ती फुडाराच्या प्रवासाची दिका दाखयता. निखळ प्रेमाचो अणभव ती व्यक्त करता. तेच प्रमाण तिका चित्र आनी सुरांचें परिमाण आसा.

मुखार बाकीबाब भा. रा .तांबेचे कवितेन भारावन गेले. आनी तांबेचे कवितेचे गूण आनी दोशूय तांचे कविते भितर रिगले. म्हत्वाचो दोश म्हळ्यार, एके कल्पने भोंवतणी कविता विणपाची आनी अंतीं तात्पर्य काडपाचें. मुखार मात ती कविता ह्या प्रभावांतल्यान भायर आयली.

*'प्रणयमुग्धेस'* कवितेक ७७ वर्सां जालीं. तरी ती म्हाका आजूय चिरतरूणय दिसता. आनी इतली सुंदर कविता कडेक कित्याक उरची हाचें अजाप दिसता. तें तिचें प्राक्तन अशेंच हांव म्हणीन. आनीक कांय वर्सांनी एकाद्रो टिकाकार तिका उखलून आपल्या माथ्यार घेतूय. कोणें सांगचें...

*नादांत गुंगसी जें शब्दांत सांग बाले*
*आषाढच्या घनें कां त्वन्नेत्र भारलेले?*
*होसी रसार्द्र केवीं झुकतेस द्राक्षवेली?*
*ओठांत वेदनेची मदिराहि साठलेली!*
*पायांस अंतराचा कां भार साहवेना?*
*कां बोल घोळलेला ओठांतुनी सुटेना?*
*कां सावलींत तुझ्या बघतेस बावरून*
*भलतीच लाज मेली वद गे सखे त्यजून*
*घे शेत हेलकावे तव कां विळी न चाले?*
*नादांत गुंगसी जें शब्दांत सांग बाले*

मुंबई १३.१२.१९३०



१०.६.०७

'My Son's Father' ही डॉम मोरायशाची आपजीण वाचतना ताच्यो कांय कविता याद जावंक लागल्यो. त्यो हांवें पयलीं वाचिल्ल्यो. पूण सारक्यो कळूंक नाशिल्ल्यो. त्या कवितांक कवीच्या चरित्राचो संदर्भ आंसा म्हणपाचें ही आपजीण वाचतना लक्षांत आयलें. कविता समजुपाक कवीचें चरित्र जाणा जावपाकूच जाय अशें नासलें तरी कांय कडेन चरित्राचे संदर्भ अर्थाचे वाटेर उजवाड घालपाक शकतात हेंय तितलेंच खरें. कांय टिकाकार त्या कवीन खंयचीं पुस्तकां वाचिल्लीं, खंयच्या कवीच्यो कविता वाचून खंयच्यो वळी ताणें underline केल्यात हाचो होलम घेतात. आनी ताचे वयल्यान कवितेच्या अर्था मेरेन वचपाचो यत्न करतात.

कांय कवी म्हणटात, म्हजे कविते कडेन पळयात. म्हज्या चरित्रा कडेन कित्याक पळयतात? नसत्यो चवकश्यो करूं नाकात.'' पूण तेच प्रमाण W.B. Yeats सारकेलो कवी सांगता, ''म्हजी कविता तुमकां सारकी समजतली जाल्यार म्हजी आपजीण वाचात. म्हजे कवितेचीं मुळां तुमकां थंय मेळटलीं. आनी तशें पळोवंक गेल्यार येटसाचें म्हणणें चूक न्हय. ताची कविता तशीच intensely personal म्हणटात तशी. कितेंय कोणेंय म्हणूं, दर एके साहित्यकृतीक, कलाकृतीक चरित्राचो वास आसताच. सिल्वीया प्लाथाचें चरित्र वाचतकच तिच्यो Ariel ह्या संग्रहांतल्यो कविता म्हाका चड बऱ्यो समजल्यो.



१४.६.०७

देशांत इंग्लीश शिकप आयलें आनी आमकां गिन्यानाचें एक दार उकतें जालें. ह्या शिक्षणाचो परिणाम एकाच बराबर वेगवेगळ्या मळांर जाल्लो दिसता. मुंबय, कलकत्ता ह्या शारांनी चित्रकला शिकोवपी शाळा आयल्यो आनी ताका लागून भारतीय चित्रकला भायर भितर बदलून गेली. नव्या रंगांचो वापर आनी तेच बराबर नवें तंत्र आयलें. चड करून व्यक्तिचित्रणांत खूब बदल आयले. रँब्रां, गोया हे ते पिळगेचे आदर्श जाले. तेच बराबर भारतीय चित्रशैलीक म्हत्व दिवपी हावेल आनी सोलोमन दिसतात. भारतीय चित्रकला आपल्या मुळा पसून पयस वचपाक जायना अशें तांकां दिसतालें.

तीच गजाल कवितेची. बंगाली कवीं मुखार मिल्टन, शेले, किट्स, बायरन हे कवी आदर्श जाले. मराठींत केशवसुतान *Golden Treasury* वाचून नवी वाट धरली. आशयूच न्हय तर कवितेच्या आकृतीबंधांत बदल केलो. 'सुनीत' हो प्रकार sonnet वयल्यान आयलो. तेच प्रमाण उद्देशिका (ode) आनी विलापिका (el-

egy) हे कवितेचे प्रकार इंग्लीश कवितेच्या प्रभावांतल्यान आयले. चंद्रशेखर हो बडोद्याक रावपी कवी एका पत्रांत इंग्लीश रोमँटिक कवी आनी रॉबर्ट ब्राउनिंग सारकेल्या कवींचें रीण मान्य करता. तांबे तर किट्स, शेले, बायरन हांचे कवितेन भारावन गेल्लो दिसता.

भा. रा. तांबेनूय टेनिसन, ब्राउनींग, शेलेचो खोल अभ्यास केल्लो आनी त्या काव्याचो प्रभाव तांचे कवितेचेर जालो. पूण ते एकां पत्रांत बरयतात तें लक्षांत दवरपा सारकें आसा: इंग्लीश कवितेच्या वाचना वांगडाच प्राच्य काव्याचें वाचप सोडपाक जायना. नाजाल्यार भलतोच ग्रह तयार जावपाची शक्यताय आसा. आमचीं रत्नां आमकां उण्या पांवड्याचीं दिसपाक लागत. स्वाभिमान ना जाता. म्हजी अशी खात्री आसा: आमचे कालिदास, भवभूति, बाण, भास, क्षुद्रक हांचो पांवडो खंयच्याय व्हड इंग्लीश कवी परस उणो न्हय. हें पत्र तांबेन गो.स. नणदीकर हाका बरयल्लें. *(विश्रब्ध शारदा,* खंड १, पान ४०२.) खासा तांबे इंग्लीश पत्रां सुंदर शैलीन बरयताले.

आर्विल्ली भारतीय कविता आमचें कवितेचें दायज आनी युरोपी कवितेचो प्रभाव पचोवन उबी रावल्या.



१.७.०७

कवीक कविता येतात, सुचतात काय तो कविता करता? म्हाका दिसता येतात, सुचतात आनी करता हीं क्रियापदां कवितेचे निर्मणे प्रक्रिये संबंदान सुचयतात. येवप आनी सुचप हांचो अर्थ साधारणपणान एकूच कसो. कित्याक, येवपांत सुचप आसताच. फकत कविता करप मातशें वेगळें. तातूंत यांत्रिकताय येता. करप ही क्रिया कितें सुचयता? मेस्त एक मेज करता. म्हळ्यार, मेजाचो डिझायन तो आदीं करता आनी ते प्रमाण तो लाकूड कापून तें जोडटा आनी तातूंतल्यान मेज आकाराक येता. कवी जेन्ना आपणें कविता केली अशें म्हणटा तेन्नाय खंयची तरी एक कल्पना ताच्या मनांत आसता. आनी ते कल्पनेचे भोंवतणी तो शब्दांचें जाळें विणटा. हाचो पडटाळो घेवपाक कांय कवितांची निर्मणी प्रक्रिया तपासून पळोवची पडटली. कांय कवींनी आपले अणभव बरोवन दवरल्यात. बाकीबाबाली चड गाजिल्ली कविता म्हळ्यार *'तेथे कर माझे जुळती'*. हे कवितेच्यो सुरवेच्यो दोन वळी *'तेथे कर माझे जुळती/दिव्यत्वाची जेथ प्रतीती,'* ह्या दोन वळींनी सबंद कवितेचो nucleus आसा. ही कविता कशी सुचली ते संबंदान खासा बाकीबाबान बरयलां. ह्यो दोन वळी तांकां उत्स्फुर्त आयल्यो अशें ते सांगतात. मागीर मुखावयली कडवीं ते मूळ कल्पनेच्यो देखी कशे रचीत गेले. भा. रा. तांबे हांच्यो चडावत कविता ह्याच रुपबंधाच्यो. तशें पळोवंक गेल्यार बाकीबाबाली सुरवेची कविता वेगळी आशिल्ली. मुखार तांबेच्या प्रभावाक लागून तांची कविता नवो रुपकार घेवन आयली. पूण बाकीबाबाल्यो *'स्मृति'*, *'जपानी रमलाची रात'* ह्यो कविता तांकां आयिल्ल्यो दिसतात. तातूंतल्यान निखळ असो सौंदर्यानुभव व्यक्त जाता.

मनोहरराय सरदेसाय सदांच 'कविता केली' अशें म्हणटाले. आनी तांच्यो प्रासंगीक स्वरुपाच्यो कविता वाचल्यार तें पट्टाय. *'आयलो पोल'* वा *'कांय उद्देशिका'* ह्यो केल्ल्यो कविता अशें दिसूं येता. *'गोंयां तुज्या मोगाखातीर'* ह्या तांच्या पयल्या संग्रहांतल्यो सगळ्योच कविता एका उमाळ्यान आयल्यात. तातूंतली *'पांचवें पातळ न्हेसून चलये'* ही कविता म्हजे विशेश आवडीची. कोंकणी कवितेच्या इतिहासांतली ती एक म्हत्वाची कविता अशें हांव मानतां. ते कवितेच्यो निमाण्यो वळी...:

*भांगरा बोटान सार जोत*
*घरा दारांत चांदनें पळे*
*तुज्या आंगार म्हज्या आंगार*
*फुल्ले मोगा मोगरे कळे*

ह्यो वळी इंद्रीय संवेदना व्यक्त करतात. हे कविते संबंदान तांणी म्हाका सांगलें तें अशें ही कविता तांणी स्पुरून बरोवंक नाशिल्ली. मुंबय आसतना विष्णू नायक आनी ते कांय काळ एकठांय रावताले. विष्णू नायकान तांकां 'पांचवें पातळ' असो विशय दिलो आनी ताचेर कविता करपाक सांगलें. आनी ही कल्पना घेवन तांणी रोखडीच ही कविता रचली.

चडशे कवी आपले कवितेचो draft सांबाळून दवरिनात. त्या draft चो अभ्यास केल्यार कवितेच्या मूळ रुपा सावन तें अखेरचें रूप मेरेनचो प्रवास पळोवपाक मेळटा. डिलन थॉमसाक एका धपक्यांत कविता येना आशिल्ली. खूप फावट एके कवितेचे तीस चाळीस draft जाताले. ताच्या चडश्या कवितांचे draft सांबाळून दवरिल्ले मेळटात. कांय कडेन वळींचो क्रम बदलतालो, तर कांय सुवातांनी उतरांचे जागे बदलताले.

कांय कवी हे सगळे बदल कागदाचेर नोंद करून दवरिनात. हरींद्र दवे हो गुजराती कवी कविता पूर्ण सुचले उपरांतूच कागदार बरोवन काडटालो. आपूण सगळे बदल मनांतल्या मनांत करतां अशें ताणें एके कडेन बरयलां. पूण हे बदल टिपून दवरल्यार कवितेचे निर्मणेची प्रक्रिया नीट समजुपाक बरें जाता. इलियटाच्या The Waste Land हे नामनेचे कवितेचे सगळे drafts सांबाळून दवरल्यात. तिचें सुरवेचें रूप ते तिचें छापिल्लें रूप मेरेनचो प्रवास कळटा. ते draft छापिल्लें एक पुस्तक आसा म्हणपाचें एके कडेन हांवें वाचलां. हे कवितेचेर इजरा पाउंडान संपादकीय संस्कार केल्यात.



कोल्हापूर
१७.०८.०७

कवी शब्द घडयता काय ते ताच्या हातसून आपसूक घडटात? घडये तो कवितेचे गरजेंतल्यान कांय शब्द घडयता आसत. पूण ते कवितेची तशी खरीच गरज आसल्यार ते शब्द घडिल्ले वरी दिसतले. ना जाल्यार तांकां कवितेंत बळयां हाडून बसयल्ले वरी दिसतलें. पु. शि. रेगेचे कवितेंत घडयल्ले शब्द घडिल्ले वरी दिसनात. पोरणे मराठींतले शब्द तांचे कवितेंत नवे जावन येतात. ती तांची भाशीक जाण आनी प्रतिभेचो गूण. असले भाशीक प्रयोग हेरांनी केल्यार ते अडेचे दिसूं येतात. आनी दिसताय.



कोल्हापूर

२५.१.०८

"प्रत्येक चित्रांत एक बीं आसता. तें दुसऱ्या चित्रांत रुजून येता. चित्र हें एकाच कॅनव्हासा पुरतें उरना. हांव म्हज्या चित्रांत म्हज्या मूळतत्वाचो विस्तार करीत वतां. ताका लागून म्हज्या चित्रांत बदल जायत रावता. खरें म्हळ्यार, पेंटींग ही एकूच गजाल नासता. पेंटींग म्हळ्यार कितल्याश्याच गजालींचो सुमेळ आसता. प्रत्येक चित्रांत एके तरेचें रुपांतर आसता आनी ताका अंत नासता. दोन चित्रां केन्नाच एक नासतात. मात थंय बीं मात तेंच आसता."

चित्रकार व्ही. एस. गायतोंडे आपल्या चित्रां संबंदान अशें विधान करता. तें तपासून पळयतना कवितेचो विचार मनांत येता. कवितेचो आशय एके कविते पुरतो उरना. तो दुसरे कवितेंतल्यानूय व्यक्त जावपाक सोदता. ताका लागून घडये कवी कवितेंतल्यान आपल्याक repeat करता अशें दिसपाची शक्यताय आसता. चड करून व्यक्तिनिष्ठ कवितेचे बाबतींत ताचो चड अणभव येता. मनशाक आयिल्ले अणभव तरेकवार आसले तरी तांचो एकमेकां लागीं संबंध आसता. खासा गायतोंडे हे व्यक्तिनिष्ठ चित्रकार. तो चित्रांतलें बीं म्हणटा ताचो अर्थ अणभव असोच धरूं येता. Yeats सारकेलो कवी म्हणटालो, आपली कविता एकोडी काडून तिचो अर्थ लावचेलो यत्न करूं नाकात. तिका समजून घेवपाक तिचे फाटली, फुडली कविता पळोवची पडटली. ताकाच लागून येट्स कवीच्या आत्मचरित्राक चड म्हत्व दितालो. कवी आपले कविते वरवीं आपले जिणेंतले बरे वायट अणभव व्यक्त करता अशें तो सांगता.



# कूर्ग - कर्नाटकी कशिद्याची पाचवी देग

## हर्षा शेटये

मा या म्हयन्यांतलें निमणें सप्तक. मंगळूर सावन कूर्ग वचपाक भायर सरलीं. कूर्ग पावता म्हणसर दनपार जाली. हॉटॅल कूर्ग इंटरनॅशनलांत आमचें बुकींग आशिल्लें. हॉस्पिटॅलिटी डॅस्कार बशिल्ल्या सरितान बेगीबेगीन उठून येवकार दिलो. रुमांत सामान दवरून जेवन आयलीं. मातशीं आड पडून सांजचीं पासयेक गेलीं पावस झडून गेल्लो. थंड शितळ वारें आंगाक खातखुतल्यो करतालें. लागींच आशिल्ल्या 'राजास सीट' ह्या पॉयंटाचेर गेली. हो भाग दरयेच्या तोंकार आसा. थंयच्यान सरभोंवतणच्या वाटाराचें आनी सकयले दरयेचें दर्शन जाता. कोडागू राजा हांगा सांजवेळार सुर्यास्त पळोवपाक बसतालो. म्हणून हो राजालो पॉयंट. हांगा सोबीत गार्डन आसा. भुरग्यांक खेळपा खातीर पार्क आसा. म्युझिकल फाउंटन आसा. थंय बसून थंड वारें आंगार घेत सांजवेळ मजेन सारूं येता. थंयचें एक आकर्शण म्हळ्यार थंयची टॉय ट्रेन. ही ट्रेन - 'कावेरी पटना एक्सप्रेस' - जाणट्यांक भुरग्यांक वाटकुळीच गार्डनांत भोंवडावन हाडटा. आमीय भुरग्यां खातीर दोन खेपे ट्रेनींतल्यान भोंवन आयलीं. सुर्यास्ताचो वेळ जाल्लो. पूण पावसान घुमटी घाल्ल्यान पश्चीम घाटांतलो सुर्यास्त पळोवपाक मेळ्ळोना.

तिनसांज सोंपून रात जाली. जेवन पासय मारपाक भायर सरलीं. रस्त्यार लायटी नाशिल्ल्यो. किट्ट काळोख... पूण धुक्याची शाल पांगुरिल्लो वाटार... रात सोंपली. निकतेंच उजवाडटालें. गॅलरीचें दार उकतें करून भायर आयलें. मुखार एक ल्हानशेंच घर आशिल्लें. चारूय वटांनी पोरसूं. गॅलरीक तेंकुनूच एक गोड जांबांचें झाड आशिल्लें. हळडुव्या कोराच्या पिकिल्ल्या जांबांनी भरिल्लें. असलेंच एक झाड म्हज्या आजोळा आशिल्लें. आमी ताका पुर्तुगाली जांब म्हणटालीं. आज्यालें पोरणें घर मोडून बिल्डींग बांदतना हें झाड मारचें पडलें. आज खूब तेंपान सकाळच्या पारार जांबांनी भरिल्लें हें झाड पळोवन म्हजे दोळे तृप्त जाले.

थोड्या वेळान भुरगीं उठलीं. न्हांवन धुवन ब्रेकफास्ट घेवन दुबारे वचपाक भायर सरलीं. रिजवान टॅक्सी घेवन आयिल्लो. दुबारे वतना वाटेर वेलचेचे, कॉफयेचे मळे पळयले... कॉफयेचीं ल्हान ल्हान झोंपां... मदीं मदीं संत्रांचीं झाडां, सिल्वर ओक... रिजवान दाखयत रावलो. त्या दिसांनी कॉफी, वेलची, संत्रां, हांचो सिझन नाशिल्ल्यान कॉफयेच्या फळांनी भरिल्लीं कॉफयेचीं झोंपां पळोवंक मेळ्ळिंनात. डिसेंबरांत झाडांक चंवर येता आनी कॉफयेचीं धवींच फुलां फुलतात तेन्ना पयसुल्ल्यान पळोवपाक झेल पडिल्ले वरी दिसता खंय.कॉफयेचो एक आगळोवेगळो परमळ दिगंतांत भरून उरता. रिजवान सांगत आशिल्लो. चुकून-बिकून उरिल्लो परमळ आमच्या वांट्याक येत काय म्हूण हांव वास घेत आशिल्लें.

रिजवानाच्यो खबरो आयकत आयकत कुशालनगर पावलीं. कुशालनगर एक ल्हानसोच गांव. शिंयाळें वारें कुडकुडो हाडटालें. थंयच्या हॉटेल अतिथींत कूर्ग स्पेशल कॉफी घेतली. रोखडींच दुबारे पावलीं. दुबारे म्हळ्यार एक ल्हानसोच जुंवो. हो जुंवो रान खात्या कडेन आसा. थंय हतयांक मनशाळावपाचें काम चलता. व्हड्यांत बसून आमी थंय गेली. कावेरीच्या उदकांत हतयांक न्हाणयताले. थंय आयिल्ले पर्यटक हतयांक न्हाणोवपाची आपली उमेद भागयताले. थंयच्या हतयां भितर सगळ्यांत जाणटी हतीण दुर्गा परमेश्वरी एकावन वर्सांची जाल्यार सगळ्यांत ल्हान परशुराम दोन वर्सांचो. सगळ्या हतयांचीं नांवां आनी तांचीं वर्सां थंय बरयल्यांत. तातूंतले एके हतिणीचें नांव हर्षा आशिल्लें. दत्तराजान तें वाचलें मात, बापाय म्हन्यांत धांवत गेलो आनी हांसत हांसत 'पप्पा, हतिणीचें आनी मम्माचें नांव सेम मरे', अशें सांगून धांवत परतो आयलो. मागीर थंय हतयांक खावोवपाचो प्रोग्राम जालो. नाशणे वांटून तांचे फुटबॉला येदे लाडू करतात. परशुराम ल्हान म्हणून ताचो लाडूय ल्हान. पूण तो ल्हान लाडू खायना आशिल्लो. आवय मैथिलीच्या तोंडांत सोंड घालून तिचो लाडू काडून खातालो. तें पळोवन थंय जमिल्ल्या भुरग्यांची मनरिजवण जाताली. मागीर थंय हतयांचो शो जालो आनी मागीर भुरग्यांनी हतयार बसून पासय मारली.

थंयच्यान रिजवान आमकां निसर्गधाम पळोवपाक घेवन गेलो. होय एक ल्हानसो जुंवो. कावेरी न्हंयचे देगे वयलें दाट बांबूचें रान. तातूंत रावपाक बांबूंच्यो कॉटेजी. भितर सरतनाच लाकडी हालतो पूल. भुरग्यां खातीर पार्क, हतया वयली भोंवडी, हरणां, सोंशे. एक दीस सारपाक एक रमणीय थळ.

वाटेर येतना वतना कुर्गी बायलो दिश्टी पडटाल्यो. तांची साडी न्हेसपाची तरा सामकी वेगळी. तीं साडयेच्यो मिरयो फाटल्यान काडटात आनी पदर उजवे वटेन खांदार वयर घेतात. तो पदर पीन लावनूच घट्ट दवरचो पडटा. म्हजे दोळे कुर्गी भेस घाल्ल्या दादल्याक सोदताले पूण म्हाका कोणूच दिसले ना.

कुर्गाक आनीक एक पळोवपा सारकें थळ म्हळ्यार गोल्डन टॅम्पल. 'बायलकुपे' हें तिबेटी देवूळ कुशाल नगरा लागीं कूर्ग-मैसूर बॉडरीचेर आसा.हो खरो म्हळ्यार तिबेटी रिफ्यूजी कॅम्प. फाटल्या पंचेचाळीस वर्सां सावन हांगा तिबेटी लोकांनी मिनी तिबेट वसयलां. आमी दनपारच्या बारा वरांचेर थंयचे नामड्रॉलींग मोनेस्ट्रींत पावलीं. थंय पावतकच हांव भारतांत आसां, कांय थायलॅंडांत तें म्हाका येवजुचें पडलें. सुंदर नक्षीकाम केल्लीं देंवत्या पाख्यांचीं रंगरंगयाळीं देवळां. अप्रतीम. मुखेल देवळांत ६० फूट उंचायेची बुद्धाची बशिल्ली मूर्त आसा. आनी दोनी कुशींनी तागेले शिष्य पद्मसंभव आनी अमितायुश हांच्यो मुर्त्यो आसात. देवळांत भितर सबंद वणटीचेर बुद्धाच्या जिवितांतले प्रसंग पितारिल्ले आसात. तो सगळो वाठारूच सुंदर. एके वटेन रांगेंत तिबेटी हस्तकलेचीं दुकानां आसात. तो दीस पुनवेचो आशिल्ल्यान थंय लामांचो सुप्रसिद्ध स्पिरीट डान्स आशिल्लो. आमी थंय आसतनाच हळडुवे केसरी कपडे घाल्ले, माथ्यार व्हडल्यो तसल्याच कोराच्यो तोपयो घाल्ले लामा देवळां मुखावयल्या जाग्यार

जमूंक लागले. म्हणटा म्हणसर हजारां वयर लामा थंय जमले. दर एकल्याच्या हातांत कसलें न्हय कसलें वाद्य आशिल्लें. वांटकुळेच रावन ते व्हडल्या व्हडल्यान वाजयत नाचूंक लागले. एके शिस्तीन. थंयच्या एका तिबेटी मनशान सांगलें, तुमी दोनेक वरां हांगा उबीं रावन हो नाच पळयात. तुमकां तो बऱ्याक पडटलो. तुमच्यो कसल्योय अडी-अडचणी आसल्यार त्यो पयसावतल्यो. तुमकां कसलीच भायली बादा जावची ना. आमी वर भर तो नाच पळयलो आनी थंय आशिल्ल्या दुकानांत भितर सरलीं. ताणें एक घांट दाखयली. एक इल्लीशी लाकडाची बडी दिली. ती एका चित्तान घांटीचेर वांटकुळीच भोंवडावपाची. ल्हवू ल्हवू घांटींतल्यान मधूर सूर येतात. थंयची याद म्हणून ती एक घांट घेतली.

जेवपाक परतीं मडिकेरी, कूर्ग इंटरनॅशनलांत आयलीं. जेवन भायर सरतनाच सरिता मेळ्ळें. सरिता कुर्गी. हांवें ताका मुद्दाम विचारलें, हांव हांगा इतलें भोंवलें, पूण कुर्गी भेस घाल्लो एकूय दादलो-मनीस म्हाका पळोवंक मेळ्ळो ना. तर ताणें म्हाका सांगलें, हालीं कुर्गी दादले पँट-शर्टूच घालतात. फक्त सणां-परबांक आनी कुर्गी लग्नांत *'कुप्प्या'* घालतात. म्हळ्यार, धोंपरां मेरेन पांवपी त्रिकोणी गळ्याचो मोटव्या हाताचो काळो कोट, पोंदा लांब हातांचो धवो शर्ट. कमराक तांबडो सेदाचो पामरे बशेन कपडो 'छाले' - बांदतात. तातूंत *'पिचकत्ती'* (खंजीर) खोयतात. ही *पिचकत्ती* भांगराची नाजाल्यार रुप्याची आसता. माथ्यार धवी जरीची देगर आशिल्ली पगडी नाजाल्यार फेटो. आमी उलयता आसतना थंय जयंती पावलें. तें त्याच हॉटेलांत काम करता. ताणें म्हाका फिल्ड मार्शल करिअप्पा लश्करांत भरती जातना इंटरव्यूक वतना होच भेस करून गेल्लो आनी ताचो इंटरव्यू घेवपी इंप्रेस जाल्लो म्हणून सांगलें. जयंतीचें उलोवप म्हळ्यार घसघसो कशें. तें कुर्गी रिती, सण परबो हांची म्हाका म्हायती दीत रावलें.



*कूर्गी दादल्याचो भेस*

*'हुथरी'* ही तांची मुखेल परब. ही नव्यांची परब. ती नोव्हेंबर डिसेंबर म्हयन्यांत येता. शेतांत तयार जाल्ले तांदूळ हाडून वर्स भर घरांत दवरतात. घराब्याची भरभराट जावं अश्या अर्थान. आमी पंचमी दिसा पुजिल्लें 'नवें' वर्स भर बांदून दवरतात, तशें. त्या दिसा घरांत पयलीं नव्या तांदळांचो पायस रांदतात. मागीर हेर जिनस. ह्या दिसा कुर्गी जिनस रांदून एकामेकांक जेवपाक आफयतात, फोग लायतात. ही एक दिवाळीच म्हळ्यार जाता. *'कोली करी'* म्हळ्यार चिकन करी, *'तळेपुट्टू'* म्हळ्यार इडल्यो, नाजाल्यार *'पापुट्टू'* म्हळ्यार तांदळांचीं सान्नां, नाजाल्यार *'नोपुट्टू'* म्हळ्यार शिरवळ्यो हांचे बराबर खावप. गोंयकारां बशेन किल्लाची भाजी, अळम्यांचें तोंडाक, आंब्यांचें सांसव असले जिनस कुर्गी जेवणांत आसतात. कुर्गांत पिकता ती पिकावळ तांच्या खाणां-जेवणांत दिश्टी पडटा.

*'कैलपोड्'* ही एक खाशेली परब. सप्टेंबराच्या पयल्या सप्तकांत ती मनयतात. ही परब म्हळ्यार एक तरेची आयूध पुजा. शिकारेक वा कासाक वचपाच्या सिझनाची ही सुरवात. भितर आशिल्ले खंजीर, तलवारी, आर्मां काडून तीं निवळ करप आनी तांची पुजा करप, दुकर मारून ताची शाकोती रांदप. *'पंधी करी'* ही कुर्गी लोकांची खासियत. कसल्याय सणा-परबेक, लग्नाक ही *पंधी करी* रांदुकूच जाय. *पंधी करी* खावप *'कडेबुट्टू'* (तांदळाचे वडे) नाजाल्यार *'आक्की रोटी'* (तांदळाच्या पिठाचे भाकरे) वांगडा. सणा-परबेक दुकर मारतात हें आयकून म्हाका मातशें अजाप दिसलें. भारतांत हिंदू समाजांत दुकराचें मांस खायनात. आनी हांगा तर दुकराच्या मांसाक सणां-परबांनी पयली सुवात दिल्या. तशीच कॉफयेक! घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्याक कॉफी पिययले बगर कुर्गी मनीस केन्नाच धाडिना. कुर्गी लग्नांत खंय जेवण जातकीच खास कुर्गी कॉफी सर्व्ह करतात, सवितान म्हाका सांगलें.

सविताल्या बापायचो कॉफयेचो मळो आसा. ताचीं आवय-बापूय आनी भाव तो पळयतात. सविताक मळ्यांतल्या कामाची आवड ना आनी तातूंतली कांय खबरूय ना. तें हॉटेल व्यवसायांतूच आपलो करियर करूंक सोदता. बापायक आपूण बेगीन लग्न जाल्लें जाय, ताणें हांसत हांसत सांगलें.

जयंतीन म्हाका सोमतेंच सविताच्या थरूक नाशिल्ल्या लग्नाचें आमंत्रण दिलें आनी सांगलें, कुर्गी लग्न पळोवंक तुमी मुजरत येयात. कुर्गी लग्नाचो बोवाळ दोन तीन दीस चलता. लग्नाच्या आदल्या दिसाक *'उरुकुडुवा'* म्हणटात. ह्या दिसा शेजार-पाजारचे लोक एकठांय जावन लग्नाची तयारी करतात. व्हंकलेची आवय व्हंकलेच्या गळ्यांत पोवळ्यांत बांदिल्लें मंगळसूत्र - *'पत्ताक'* - बांदता. कुर्गी लग्न गांधर्व पद्धतीन फ़कत एकामेकांक हार घालून जाता. कुर्गी मनीस झुजपी. तो व्हंकलेक झुजांत जिकून मागीर लग्न जातालो. ते खातीर न्हवरो व्हंकलेगेर येवन स केळ्यांचे गबे तरसादीन कापता आनी व्हंकलेक जिखता. मागीर व्हंकलपावणी न्हवऱ्यागेर वता. थंय न्हवरो आपल्या कमराचो खंजीर काडून नाल्ल फोडटा. व्हंकल बांयच्या उदकाची कळसुली भरून घेता आनी रांदचेकुडींत येता. बांयचें उदक म्हळ्यार कावेरी न्हंयचें एक रूप अशें मानून नव्या जिविताची सुरवात करतना तिचो पयलीं आशिर्वाद घेतात. मागीर घरच्या जाणट्या मनशां कडल्यान आशिर्वाद घेतात. आशिर्वाद दितना जाणटेल्यांनी उकत्या माथ्यान आसपाक जायना, तर *'चौका'* म्हणून सेदाचो कपडो माथ्याक बांदूंक जाय.

जयंती म्हाका कुर्गी लग्नाची एक एक गजाल सांगत राविल्लें. इतल्यान रिजवान आयलो आनी आमी मडिकेरी लागसारचीं थळां पळोवंक भायर सरलीं.

*'अब्बे'* म्हळ्यार कुर्गी भाशेंत धबधबो. हो अब्बे फॉल्स पळोवंक कॉफये मळ्यांतल्यान भितर वचचें पडटा. उदक ७० फूट उंचाये वयल्यान सकयल पडटा आनी न्हंयेक मेळटा.

थंय सावन आमी ओंकारेश्वर देवळांत गेलीं. भायर फुलकारां फुलां आनी चिरमुल्यो घेवन विकपाक बशिल्लीं. देवूळ भायल्यान पळोवपाक मशीद कशी दिसली. देवळाच्या चारूय वटांनी चार मिनार आसात. देवूळ इस्लामीक आनी गॉथीक शैलींत बांदलां. थंयच्या राजान चुकून एका ब्राह्मणाक मृत्यूदंडाची शिक्षा दिली. ते खातीर तो ब्राह्मण ब्रह्मराक्षस जावन भोंवपाक लागलो. मागीर राजाक ताच्या गुरून काशीक्षेत्रा वयल्यान शिवलिंग हाडून त्या जाग्यार पुजेक लाय म्हणून सांगलें. देवळा मुखार व्हडली तळी आसा. ती सामकी व्हडल्या व्हडल्या नुस्त्यांनी भरून गेल्या. तांकां पळोवन चिरमुल्यो भायर कित्याक विकपाक आशिल्ल्यो ताचें कुवाडें सुटलें. तळी चारूय वटांनी लोखणाचे वारांव घालून बंद केल्या. धडेर चिरमुल्यो पडिल्ल्यो दिश्टी पडल्यो. सोनलान आनी दत्तराजान धांवत भायर वचून चिरमुल्यो हाडल्यो आनी नुस्त्यांक खावपाक घालूंक लागली. चिरमुल्यो खावपाक चोम्यांनी नुस्तीं - शेवटें, तांबशे, पालू... एक अजापूच कशें. देवाचे तळयेंतलीं नुस्तीं म्हणून कोण तांकां मारूंक वचना जावंये.

गड्डिगी तीन मकबरे आसात. पयलो राजा लिंगराजेंद्राचो, दुसरो राजा वीरराजेंद्र आनी ताची राणी महादेवीअम्मा हांचो.तिसरो लिंगराजेंद्राचे गुरू रुद्रप्पा हांचो. भितर हिंदु देवांची चित्रां कोरांतल्यांत पूण भायली बांदावळ मुस्लीम धर्तीची.वयर घुमट आनी कुशीक चार मिनार. हे मकबरे पळयतना फाटल्या म्हयन्यांत हैदराबादाक पळयिल्ल्या कुतुबशाही मकबऱ्यांची याद जाली. दोगांय भितर बरेंच साम्य आशिल्लें. मकबऱ्यार वयर चडून पळयल्यार मडिकेरीचो सोबीत वाटार दिश्टी पडटा. तिनसांज जायत आयिल्ली. बेळेच भंयसो दिसपाक लागलो. हांव भुरग्यांक घेवन बेगीबेगीन सकयल देंवलें.

थंयच्यान मर्कारा बाजारांत आयलीं. एका दुकानांत भितर सरलीं. दुकान मसाल्याच्या वासान घमघमतालें. साकांनी भरून वेलची विकपाक आशिल्ली पळोवंक मेळ्ळी. दोळे धादोसले. वेलची, कॉफी, दालचिनी आनी म्होंव घेतलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आनीक खंय गेलिंनात. ब्रेकफास्ट घेवन सरिता म्हऱ्यांत खबऱ्यो मारूंक बसलें. भुरगीं टेबलटॅनीस खेळपाक गेल्लीं. मदींच तांचें कितें तरी जालें आनी सोनल आनी दत्तराज धांवत आयलीं. सरिता म्हाका आमी खंयची भास उलयतात काय म्हूण विचारूंक लागलें. हांवें म्हळें, कोंकणी. तुका कोंकणी भास आसा म्हूण खबर आसा मगो?

'खबर आसा म्हणजे? हांवें कोंकणी उलयतना आयकल्या. पूण म्हाका तातूंतलें कांय समजना.पूण आमच्या ऑफिसांत रेश्मा आसा. तीं घरा कडेन कोंकणीच उलयतात.' ताणें रोखडेंच रेश्माक आफयलें. रेश्मान येवन हांसतच आपली कोंकणींतल्यान वळख करून दिली आनी मागीर कितलोसो वेळ हांसतूच रावलें. रेश्मा डिसौझा. बापूय मंगळूरचो. नोकरेक लागून मडिकेरी पावलो. रेश्माची आवय मूळची पुट्टुरची. तिच्या कुळारची चडशी फामील मडिकेरी लागसारच्या



*कूर्गी पद्धतीन साडयो न्हेशिल्ल्यो बायलो*

गांवांत रावता. कूर्ग जिल्ल्यांत सुमार पांचश्यां वयर क्रिस्तांव घराबे आसात. हातूंतलीं चडशीं कोंकणीच उलयतात. हालिंसराक मात मातशी इंग्लीश भितर सरूंक लागल्या. रेश्मान खंत उक्तायली. आपल्याक कोंकणी बरे तरेन उलोवंक येता. पूण बरोवंक येना. आपलो बापूय मात कन्नड लिपयेंत कोंकणी बरयता, वाचता, ताणें सांगलें. आपूण गोंयांत केन्नाच पावूंकना. आपलो बापुयूय पावूंक ना. गोंय आमचें मूळपीठ. आमकां एकदां तरी थंय वचपाक जाय अशें आपलो बापूय म्हणटा. आपल्याक गोंयकारां मेळिल्लीं म्हूण बापायक कळ्ळें जाल्यार ताका खूब खोस जातली. रेश्मा उलयत रावलें. रेश्मा, जयंती आनी सरिता हांचे कडेन उलयतना दनपार केन्ना जाली तें कळ्ळेंच ना.

रिजवान आमकां टॅक्सी घेवन व्हरपाक येत म्हूण आमी बेगीबेगीन जेवून आयलीं. त्या दिसा रिजवानाक भयणी बराबर मंगळूरा वचचें पडलें म्हूण ताणें आपल्या इश्टाक 'हसनाक' धाडिल्लो.

आमी थलकावेरी वचपाक भायर सरलीं. भायर पावस शिरशिरतालो. गाडी गांवगिऱ्या वाटारांतल्यान वताली. वाटेर वेलचेचे मळे पळोवंक मेळ्ळे. खंय खंय बायलो पिपऱ्यो, म्होंव, चिबडां, केळीं घेवन विकपाक बशिल्ल्यो. उपरांत बेट्टेगिरी गांव लागलो. स्मिथा बेट्टेगिरी म्हूण म्हजे बराबर शिकतालें. तें ह्याच गांवचें. आज कितल्या वर्सांनी ताची याद जाली. कॉफयेचे मळे दिसताले. भितर सोबीत बंगलेय बांदिल्ले दिसताले. भायर मारिल्ले नेमप्लेटीर जोयोप्पा, बोमाप्पा, बिडाप्पा, चेंगाप्पा असलीं नांवां आशिल्लीं. चेरामबाने काडून भागमंडला पावलीं. थंय रावऽ नासतना सोमतीं थलकावेरी गेलीं. वाटेर भागमंडलाचें म्होंवांमुसांचें पालनकेंद्र लागलें. सहकारी तत्वाचेर तें चलता. थलकावेरी देंवलीं. थलकावेरी ब्रह्मगिरी दोंगुल्लेचेर आसा. सोंपणां चडटा म्हणसर झणझणीत वारें व्हांवंक लागलें. वाऱ्यान आमी उडून वतात काय कितें अशी अवस्था जाली. आनी पळयतां पळयतां थंयच्या सैमान पारदर्शक असो धुक्याचो बुरखो पांगुरलो. कापूस पिंजारून उडयल्ले बशेन. कापुसूय म्हणूं

नज. अरळ अशें कितें तरी. साखरेची पिठी वाऱ्यार उबिल्ले बशेन. धुंवटी आनी इतली सोबीत आसूंक शकता हाची हांवें कल्पनाच करूंक नाशिल्ली.

सोपणां चडून वयर गेलीं. थंय एक घुमटी आसा आनी म्हऱ्यांत इल्लेंशें उदकाचें कुंड - ब्रह्मकुंडिगे. तोच कावेरी न्हंयचो उगम. भितर दिवो पेट्टालो. मुखार ल्हानशी तळी आसा. वयर सोपणां चडून वतकीच दोन देवळां आसात. गणपतीचें आनी अगस्तेश्वराचें. तातूंत शिवलिंग आसा. थंयच्यान कूर्गाचो चारी वटेनचो वाटार दिसता. अरबी समुद्र्य दिसता खंय. इतले म्हणसर पावस शिंवरूंक लागलो. धवशीं गोबरीं कुपां थलकावेरीच्या सैमाक खिरयत रावलीं. सगळो परिसर - ब्रह्मकुंडिगे, देवळ्यो, झाडां-पेडां - गोबरे धुंवटेच्या कुसव्यांत विरून गेलो आनी आमी आमचे नकळत थलकावेरीच्या गोपांत विरगळून गेलीं. एक विसरपाक न येवपा सारको अणभव.

कुर्गी लोक कावेरी न्हंयच्या जल्माची एक कथा सांगतात. ब्रह्मगिरी पर्वताचेर कवेर ऋशी आपणाक भुरगें जावचें म्हूण तप करतालो. पूण ताच्या नशिबांत भुरगें नाशिल्लें. तेन्ना ब्रह्मदेवान आपली मानसकन्या 'लोपामुद्रा' कवेर ऋशीक दिली आनी तूं तिका आपलीच चली समजून बरे तरेन वाडय म्हूण सांगलें. कवेर ऋशीन ते चलयेक अपुरबायेन वाडयली. मायेस्त सभावाक लागून ती सगळ्यांक आवडूंक लागली. कवेर ऋशीची चली म्हणून तिका कावेरी म्हणूंक लागले. एक दीस तिणें पळयलें, आपले आशिकुशीक उदकाचो दुकळ आसा. लोकांक उदका खातीर वळवळे काडचे पडटात. उदक नाशिल्ल्यान शेतां पिकनात. तें पळोवन तिका खूब वायट दिसलें. तिणें देवांची आराधना केली. ब्रह्मा, विष्णू आनी शंकर तिगूय तिका प्रसन्न जाले आनी जाय तें मागून घे म्हणूंक लागले. तिणें मागलें, आपूण इत्सा करतली तेन्ना आपले कुडीचें उदक जावचें आनी न्हंयच्या रुपान व्हांवचें. एकदां अगस्ती ऋशी कवेर ऋशीच्या आश्रमांत आयिल्लो. ताणें कावेरीक पळयली आनी तिका लग्ना खातीर मागणी घाली. तिणें ताका सांगलें, आपूण लग्नाक तयार आसा, पूण अगस्तीन तिका एकली दवरून पयस केन्नाच वचूंक जायना. अगस्तीन तें मान्य केलें. हांगाच ब्रह्मगिरी पर्वताचर कवेर ऋशीच्या आश्रमांत तांचें लग्न जालें. थोड्या तेंपान अगस्ती ऋशी राजाच्या आमंत्रणा वेल्यान यज्ञाचें पुरयतपण करपाक गेलो. हेवटेन ताणें आपली अट मोडली म्हूण कावेरीन ब्रह्मकुंडिगेंत उडी घेवन आपले कुडीचें उदक केलें आनी भुंयेपोंदच्यान व्हांवंक लागली. ती एकदम भागमंडला हे सुवातेर भायर सरून कनिका आनी सुज्योती ह्या दोन न्हंयांक मेळ्ळी. ही खबर अगस्ती मुनीक कळना फुडें तो धांवत आयलो आनी ताणें तिका परती येवपाक विनयली. हेवटेन कोडागूचो राजा आनी सगळे लोक कावेरी न्हंयक येवकार दिवपाक आयले. कावेरीक अगस्तीच्यो आनी लोकांच्योय भावना समजल्यो. तिणें सांगलें, आपूण आपले कुडीचीं दोन रुपां करतां. एक रूप लोपामुद्रा म्हणून अगस्ती ऋशीची बायल जावन रावतलें. तर दुसरें कावेरीच्या रुपान उदक जावन व्हांवतलें. कोडागू लोकांच्या जिवितांत सूख समृद्धी हाडटलें आनी, तांकां आशिर्वाद दिवपाक दर वर्सा ती प्रगट जातली. दोंगुल्लेचेर, घुमटे मुखार ब्रह्मकुंडिगे म्हणून जे कुंड आसा तातूंतल्यान, ऑक्टोबर म्हयन्यांत सूर्य तूळ राशींत वता त्या दिसा, उदकाचे बुडबुडे येतात आनी थोड्याच वेळान कुंड उदकान भरून व्हांवता. हो दीस कावेरी संक्रमण म्हूण कुर्गी लोक भक्तिभावान मनयतात. त्या दिसा हांगा व्हड जात्रा भरता. थंय आयिल्ले लोक मुखावयले तळयेंत न्हातात. त्या दिसा कुर्गी लोक परातींत भरिल्लो तांबयो दवरून घराघरांत कावेरीची पुजा करतात.

थलकावेरीच्यान येतना भागमंडला देंवलीं. हांगा शंकराचें केरळी शैलींत बांदिल्लें सुंदर देवूळ आसा. हांगाचें शिवलिंग श्री भगंड महर्षीन स्थापन केल्लें म्हणून ताचें नांव भगंडेश्वर. कुशीक सुबम्हण्यम आनी गणपतीचीं देवळां आसात. आमी थंय पाविल्लीं तेन्ना हीं देवळां निखळावन तशाक तशीं परतीं बांदपाचें काम चलतालें. हीं देवळां खूब पोरणीं. तीं केन्ना बांदलीं, कोणाकूच खबर ना. फकत १४ व्या शतकांत मलबार केरळाचो तेन्नाचो राजा भोधारुपा भगावार हो ह्या देवळांचे वेव्हार चलोवपाक पयशे धाडटालो इतलो उल्लेख थंयच्या फातराचेर बरयल्लो मेळटा.

हांगा देवळां मुखार तीन न्हंयांचो संगम जाता. कावेरी, कनिका आनी सुज्योती. थंय वचून हातपांय बुडयले. थंडगार उदक.

भागमंडलाच्यान परत येतना वाटेर दोन दुकर गाडयेक आडवे आयले. हसन म्हणपाक लागलो, 'ये सुअर बहुत खतरनाक चीज है। कुर्गी लोक दुकर मारतात, रांदतात आनी खातात, पूण दुकर गाडयेक आपटल्यार गाडी बदलतात.

सगळो गांवगिरो वाटार. पूण वचत त्या गांवांत सरकारी शाळा दिसताल्यो.त्योय बी ल्हानश्यो, चकचकीत रंग बी काडिल्ल्यो सोबीत इमारती. हांगा शाळा बेगीन सुरू जातात जावंये. भुरगीं युनिफॉर्म बी घालून शाळेंतल्यान येतात तीं दिश्टी पडटालीं.

निमाण्या दिसा दनपरां जेवपाक आमी मर्कारा मार्केटांत आशिल्ल्या अतिथी हॉटेलांत गेलीं. वाटेर आशिल्ल्या हॉलांत कोणाचें तरी लग्न आशिल्लें जावंये. कुर्गी पद्दतीन साडयो न्हेशिल्ल्यो,भांगरां बी घाल्ल्यो खूब बायलो दिश्टी पडल्यो. तांचे बराबर आशिल्ले दादले पँट, शर्ट घालुनूच आशिल्ले. आनी अचकीत म्हाका कुर्गी भेस केल्लो दादलो दिश्टी पडलो... म्हाका 'युरेका... युरेका...' अशें आड्डनशें दिसलें. लांब हातांचो धवो कोट वयर मोटव्या हातांचें धोंपरा मेरेन काळें जाकीट. पोंदा धवी पॅण्ट. माथ्याक फेटो, कंबराक सेदाचो तांबडो पटो. ताका खंजीर खोयिल्लो काय ना तो मात म्हाका दिश्टी पडलो ना. ताका पळोवन हांव इतलें उचंबळीत जालां तें पळोवन हसन म्हणपाक लागलो, हांगाच्या स्टुडियोंत हो भेस घालून फोटो काडपाक मेळटा. तें आयकून सोनल फुल्लें. ताका कुर्गी भेस घालून फोटो काडन दिसलो. ताका घेवन हांव फोटो स्टुडिओंत गेलें. तांणी सांगलें, भुरग्यांचो ड्रेस ना. तरी पूण हॉटेलांत वतकीच ताणें म्हजे कडल्यान कुर्गी पद्दतीन साडी न्हेसून घेवन फोटो काडून घेतले.

चार पांच दीस आमी कूर्गांत भोंवली. कुर्गी जेवण जेवलीं. ताजे टवटवीत कॉफये मळ्यांतलें कूर्ग पळयलें. पूण कॉफयेचीं झोंपां धव्याफुल्ल फुलांनी भरून वतात आनी ताचो परमळ धाय दिकांनी पातळटा तो अणभवपाक तरी परत एकदां कूर्ग वचपाकूच जाय.



# प्राचीन कोंकणी *भारत**

रॉकी मिरांद

फाटल्या कितल्याश्या वर्सां सावन भौ. डॉ. रॉकी मिरांद सोळाव्या शेंकड्यांतल्या कोंकणी *भारताच्या* हातबरपांचेर संशोधन करतात. इतिहासीक भासविज्ञान हो रॉकीबाबांचो विशय. कोंकणींत इतिहासीक भासविज्ञानाच्या मळाचेर कितलींशीं वर्सां एकूच नांव दोळ्यांत घसघशीत भरतालें - भौ. डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे हांचें. डॉ. रॉकी मिरांदान ह्या मळार पावल दवरलें आनी कोंकणीच्या इतिहासीक अभ्यासांत कितलीशी नवी भर पडली. सोळाव्या शेंकड्यांतल्या कोंकणी *भारताचें* रॉकीबाबान केल्लें संपादन आनी संशोधन पुस्तक रुपान आनीक कांय तेंपान उजवाडा येवपाचें आसा. हांगा दिला तो ह्या संपादनाक बरयल्ले प्रस्तावनेचो एक वांटो. तो वाचतकच रॉकीबाबान कितले बारीकसाणेन आनी खोलायेंत देंवन हो वावर केला ताचो वाचप्याक होलम मेळटलो. रॉकीबाबांचो वावर सोळाव्या शेंकड्यांतले कोंकणी भाशेचें (खरें म्हळ्यार, कोंकणी भाशेचे एक बोलयेचें) रूप एकविसाव्या शेंकड्यांतल्या वाचप्यां मुखार उबें करतलो; आनी, कोंकणी भाशेच्या साहित्यीक इतिहासाचींय कांय सतां उकतीं करतलो हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

– संपादपी

### १. हस्तप्रती

पुर्तुगालच्या ब्रागा शारांत मीञु विश्वविद्यालयाच्या ग्रंथालयांत रोमी लिपयेंत बरयल्ल्यो प्राचीन कोंकणीच्यो दोन हस्तप्रती आसात: कोदेक्स ७७१ आनी कोदेक्स ७७२. कोदेक्स ७७२ हातूंत *महाभारत* (७६७ पानां), *रामायणाचो* एक अपूर्ण वांटो (५९ पानां), आनी उरिल्ल्या पानांनी थोड्यो गौण कथा मेळटात. *महाभारतांत* सुरवेक सगले कृतीचे नांव मेळना, पूण सगले कृतीचें नांव 'भारत' म्हणून दुसरे कडेन उल्लेख मेळटा. पर्वांचे सुरवेक पर्वांचीं नांवां मेळटात. हातूंत धा पर्व आसात: आदिपर्व, सभापर्व, अरण्यपर्व, विराटपर्व, भीष्मपर्व, द्रोणपर्व, कर्णपर्व, शल्यपर्व, गदापर्व आनी अश्वमेधपर्व. हे भायर हातूंत भीष्मपर्वाची दुसरी अपूर्ण प्रत मेळटा. कोदेक्स ७७१ हातूंत मुखेल कृती रामायण (२६८ पानां) हे भायर *महाभारताचो* आदिपर्व (१६२ पानां), अश्वमेधपर्वांतली एक अपूर्ण कथा ('हंसध्वजाची कथा'), आनी थोड्यो गौण कथा मेळटात. ह्या दोन कोदेक्सां शिवाय मीञु विश्वविद्यालयाच्या ग्रंथालयांत तिसरी हस्तप्रत मेळटा ती कोदेक्स ७७३. हातूंत जायत्यो मराठी कृती पद्यरुपांत मेळटात. हें मराठी साहित्यूय रोमी लिपयेंतूच आसा.

कोंकणी *भारताच्या* दर एका पर्वांत दोन वा अदीक कथा आसात. ह्यो कथा अध्यायां भाशेन आसात. आदिपर्वांत अठरा कथा आसात. भीष्मपर्वांत आनी अश्वमेधपर्वांत धा धा कथा आसात, सभापर्वांत आनी अरण्यपर्वांत सात सात, विराटपर्वांत आनी द्रोणपर्वांत पांपांच, गदापर्वांत तीन, कर्णपर्वांत आनी शल्यपर्वांत दो-दोन अश्यो सगल्यो मेळून ६९ कथा आसात.

१९८५ इसवेंत फादर आंतोनियु पिरेयरा हांणी तिनूय कोदेक्सांच्यो झॅरॉक्स प्रती गोंयां हाडिल्ल्यो. ह्यो झेवियर सेंटर अव्ह हिस्टॉरिकल रिसर्च हे संस्थेंत आसात. ह्या कोदेक्सांची एक प्रत टॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राच्या ग्रंथालयांत मेळटा.

त्या काळाच्या ग्रंथांनी आनी हस्तप्रतींनी पानाचें फुडलें आनी फाटलें अर्द मेळून एक पान लेखिल्लें पळोवंक मेळटा. पानाच्या फुडल्या अर्दाचो उल्लेख करतना पानाच्या आंकड्या उपरांत लातीन संज्ञा रेक्तो (recto = फुडें )जोडटात, आनी फाटल्या अर्दाचो उल्लेख करतना पानाच्या आंकड्या उपरांत लातीन संज्ञा वेर्सो (verso =उरफाटें) जोडटात. हे भाशेन ६० आंकड्याच्या पानांत दोन बरयल्लीं पानां आसपावतात - १. फुडली कूस- ६० रेक्तो (६०r) आनी २. फाटली कूस - ६० वेर्सो (६०v). हांचे आंकडे क्रमान ११९ आनी १२० अशे मेळटात.

कोदेक्स तयार करतना तातूंत पानांक आंकडे घालूंक नाशिल्ले जावंक जाय. त्या काळाच्या हस्तप्रतींनी आनी प्रकाशीत ग्रंथांनी दरेका पानाचे अखेरेक फुडल्या पानार येवपी पयलो शब्द दिताले. हाका लागून पानांचे क्रम सारके दवरूंक मजत मेळटाली. कोदेक्स तयार जातकीर थोड्या काळा उपरांत ह्या कोदेक्सांनी पानांक आंकडे घाल्ले जावंक जाय. पूण हे आंकडे घालतल्यान पानांचो क्रम सारको आसा काय ना तें पयलीं तपासूंक ना. अरण्यपर्वांत, भीष्मपर्वांत आनी अश्वमेधपर्वांत पानांचो क्रम सारको ना. पानांचो क्रम सारको करूंक पानांची मांडावळ फुडले सुचींत दिल्ले प्रमाण करूंक जाय. कंसां भितर दिला तो झेवियर सेंटरांतले प्रतींत छापिल्लो पानाचो

* हांगा दिल्ल्या सगल्या देखींनी विरामचिन्नां आसात. पूण हस्तप्रतींनी विरामचिन्नां भोव उणीं आसात. कोदेक्स ७७१ तल्या देखींनी कोदेक्स नं. दाखयला. कोदेक्स नं. दाखोवंक ना त्यो सगल्यो देखी कोदेक्स ७७२ तल्यो.

आंकडो.

| | कोदेक्स |
|---|---|
| आदिपर्व: | ७७१: १४७ रे (२८५)-२२८ वे (४३०) |
| | ७७२: १ रे (१)-६० रे (११९) |
| सभापर्व: | ७७२: ६० वे (१२०)-९९ वे (१९६) |
| अरण्यपर्व: | ७७२: १०० रे (१९७)-१०१ वे (२००), १०३ रे (२०३)-१०४ वे (२०६), १०२ रे (२०१)-१०२ वे (२०२), १०५ रे (२०७) - १३४ वे (२६६) |
| विराटपर्व: | ७७२: १३४ वे (२६६)-१५१ रे (२९७) |
| भीष्मपर्व (अपूर्ण): | ७७२: १५२ रे (२९८)-१६१ वे (३१७) |
| भीष्मपर्व (पूर्ण): | ७७२: ४२५ वे (८३८), ४२५ रे (८३७), २७६ रे (५४१)-२८१ वे (५५२) २६७ रे (५२३)-२७५ वे (५४०), २८२ रे (५५३)-३२८ वे (६४६) |
| द्रोणपर्व: | ७७२: ३२८ वे (६४६)-३७६ रे (७३८) |
| कर्णपर्व: | ७७२: ३७६ रे (७३९)-३९५ वे (७७८) |
| शल्यपर्व: | ७७२: ३९५ वे (७७८)-४०६ रे (७९९) |
| गदापर्व: | ७७२: ४०६ रे (७९९)-४२४ वे (८३६) |
| अश्वमेधपर्व: | ७७२: २६५ रे (५२०)-२६५ वे (५२१), १६२ रे (३१८)-१७७ वे (३४९), २१० रे (४१४)-२५७ रे (५०५) |

अरण्यपर्वांत एकूच पान सारक्या क्रमांत ना: १०२. तें अरण्यपर्वाचें पांचवें पान, पूण तिसऱ्या पानाचे सुवातेर मेळटा. अपूर्ण भीष्मपर्वांत सगळीं पानां सारके सुवातेर आसात, पूण पूर्ण भीष्मपर्वांत सुरवेचें पान वेगळें जाल्लें जावंक जाय. तें ग्रंथाचे अखेरेक दवरिल्लें मेळटा आनी तेंवूय उरफाटें. हाका लागून भीष्मपर्वाची पयली कथा कोदेक्साच्या निमाण्या पानार (४२५ वे) सुरू जाता आनी ४२५ रे पानार फुडे सरता. ते शिवाय फुडलीं स पानां तांचे सारके सुवातेर मेळनात. णव पानां उपरांत (२६७-२७५ हांचे नंतर) मेळटात. अश्वमेधपर्व अखेरेक मेळूंक जाय आशिल्लो, पूण तो मदींच मेळटा, अपूर्ण भीष्मपर्वा उपरांत आनी पूर्ण भीष्मपर्वा पयलीं. हे भायर रामायणांतली एक अपूर्ण कथा आनी थोड्यो गौण कथा अश्वमेधपर्वाचे मदीं मेळटात. अश्वमेधपर्वाचें पयलें पान त्या पर्वा सावन वेगळें जाल्लें जावंक जाय. तें पान पर्वाच्या दुसऱ्या सगळ्या पानां उपरांत आनी गौण कथांच्या पानां उपरांत मेळटा.

इतलीं हीं पानां सारके सुवातेर नाशिल्ल्यान कोंकणी भारतांतल्यो कितल्योश्यो कथा अपूर्ण आसात अशें दिसता. पानांची मांडावळ सारकी करतकूच सगल्या पर्वानी आशिल्ल्या सगल्या कथांची एक तरी प्रत पूर्ण मेळटा. पूण थोड्या कथांनी ल्हान अंश चुकल्यात. दुसरे कडेन बरयल्ल्या बरपाची नक्कल करतना ते अंश चुकल्यात जावं येत. (हाचो तपशील ह्या बरपाचो भाग ८: 'हस्तप्रतींनी विरामचिन्नांचो प्रस्न आनी चुकी' हातूंत पळयात.) गदापर्वाचे निमाणे कथेंत आमकां कथा सगली मेळटा पूण समाप्तीचे थोडे शब्द चुकल्यात.

कोदेक्स ७७१ हातूंत अश्वमेधपर्वांतली हंसध्वजाची कथा अर्दकुटी मेळटा. पूण ही कथेची दुसरी प्रत. दुसरे कडेन ही कथा पूर्ण मेळटा. कोदेक्स ७७२ हातूंत भीष्मपर्व अर्दकुटो मेळटा, पूण उपरांत भीष्मपर्वाची पूर्ण प्रत मेळटा.

मूळ हस्तप्रतींनीय पानांचे आंकडे घालतल्यान चुकी केल्यात. हांवें कोंकणी *भारताच्या* कथांचीं पानां बारीकसाणेन तपासल्यांत. कोदेक्स ७७१तल्या आदिपर्वांत १९० आंकड्याच्या पाना उपरांतच्याय पानाचो आंकडो १९० दिला. २१५ उपरांत पानाचो आंकडो २१७ म्हणून दिला. पूण हांगा कथेचो अंश कांय चुकूंक ना.

तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राक हस्तप्रतींच्यो प्रती मेळटकूच हांवें केंद्राच्या निर्देशकां कडेन तांची एक प्रत मागली आनी तांचे कडल्यान म्हाका सगल्या कोदेक्सांची प्रत मेळ्ळी. ह्या झॅरॉक्स प्रतींनी कितल्याश्या पानांच्यो प्रती अस्पश्ट आशिल्ल्यान त्यो सारक्यो वाचूंक येनात. थोड्या पानांच्यो प्रतीच नात. ब्रागांत झॅरॉक्स करतना त्यो चुकिल्ल्यो जावंक जाय. कित्याक, त्यो झेवियर सेंटरांतूय मेळनात. कोदेक्स ७७१तल्या आदिपर्वांतली सकल दिल्ल्या आंकड्यांचीं पानां मेळनात: १७२ वे, १७३ रे, १८१ वे, १८२ रे, १८८ वे, १८९ रे, १९० वे, १९० रे, १९१ वे, १९२ रे, २०१ वे, २०२ रे, २०६ वे, २०७ रे, २१५ वे, २१७ रे, ('१९० आंकड्याच्या पाना उपरांतच्या पानाचो आंकडोय चुकून १९० म्हणूनूच दिला. देखून तांचो फरक दाखोवपाक १९० आंकडो आशिल्ल्या दुसऱ्या पानाचो आंकडो हांगा १९०' असो दिला.) कोदेक्स ७७२त फुडें दाखयल्लीं पानां मेळनात: ८२ वे, ८३ रे (सभापर्व), ३४१ वे, ३४२ रे (द्रोणपर्व), २१२ वे, २१३ रे, २१३ वे, २१४ रे (अश्वमेधपर्व). ब्रागाक वचून मूळ कोदेक्स तपासतना म्हाका गदापर्वाचें निमाणें पान सोडून सगलीं पानां मेळ्ळीं. गदापर्वाच्या त्या निमाण्या पानार थोडेच शब्द आशिल्ले अशें दिसता. १९९९ आनी २००० इसवेंत ब्रागांत जायते दीस रावून हांवें मेळनाशिल्ल्या पानांची नक्कल केली आनी झॅरॉक्स प्रतींनी अस्पश्ट आशिल्ल्यान वाचूंक येना आशिल्ल्या पानांचीय नक्कल केली.

पिसुर्लेंकारांनी १९५४ इसवेंत ब्रागा कोदेक्स तपासून तांचेर एक लेख बरयल्लो. तातूंत तांणी कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ हांचे मांडावळीचें वर्णन दिलां. (पिसुर्लेंकार १९५६:५९). कोदेक्स ७७१त रामायणांतल्यो कथा आसात म्हणून ते सांगतात. आनी तांणी तांची सुची दिल्या. कोदेक्स ७७२ त महाभारतांतल्यो कथा आसात म्हणून ते सांगतात. पूण झेवियर सेंटरांत आसात त्या झॅरॉक्स प्रतींनी मुखेल भागांत महाभारत आसा त्या कोदेक्साचो आंकडो ७७१ आनी मुखेल भागांत रामायण आसा त्या कोदेक्साचो आंकडो ७७२ असो दिला. ब्रागांत मूळ कोदेक्स तपासतकूच म्हाका कळ्ळें, पिसुर्लेंकारांनी दिल्लें वर्णन सारकें आसा आनी झेवियर सेंटराच्या प्रतींनी कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ हांच्या आंकड्यांची अदलाबदल जाल्या. असली चूक जावपाचो संभव चड आसा, कित्याक कोदेक्सां भितर तांची संख्या बरयल्ली ना, कोदेक्सांचे बांदणे भायल्यान मात तांची संख्या दिल्या.

## २. पयलींचें संपादन-कार्य

कोदेक्स ७७१ आनी कोदेक्स ७७२ हातूंत आशिल्ल्या भारताच्या आदिपर्वाचें संपादन रुद्रीगीश (१९८७) आनी नायक (१९९०) हांणी केलां. झेवियर सेंटरांत आशिल्ल्या प्रतींच्या आधारान हें कार्य केल्ल्यान तांच्या उल्लेखांनीय कोदेक्सांच्या आंकड्यांची अदलाबदल जाल्या. आंतोनियु पिरेयरान हाडिल्ल्यो ब्रागा कोदेक्सांच्यो प्रती झेवियर सेंटरांत येतकूच रुद्रीगिशान तांची एक प्रत घेतली. ब्रागा कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ हातूंत आशिल्लो आदिपर्व तांणी वाचून काडलो. तांणी आदिपर्वाचें एक रुपांतर रोमी लिपयेंत आनी एक रुपांतर नागरी लिपयेंत तयार केलें. रोमी लिपयेंत तयार केल्लें रुपांतर ग्रंथपरिचय, टिपणां आनी उतरावळी सयत तांणी १९८७ इसवेंत प्रकाशीत केलें. पूण रोमी लिपयेंत तयार केल्ल्या रुपांतरांत तांणी वर्णरचना आसा तशी दवरचे बदला ती आतांचे भाशे प्रमाण बदलून दिल्या. देखीक, आदिपर्वाचें पयलें वाक्य Astânapura nânua nagara हाचे बदला Astanapur nanv nogor असो मेळटा. रुद्रीगिशांनी म्हाका सांगिल्लें, तांणी तयार केल्ल्या आदिपर्वाच्या प्रकाशनाक दुडवांचो आदार दिल्ल्यांनी त्या आदिपर्वाची वर्णरचना आर्विल्ली आसपाक जाय अशें सांगिल्लें खंय.

नागरी रुपांतर तांणी प्रताप नायक हांकां दिलें. तांणी तातूंत थोडी बदलणी करून १९९० इसवेंत तें प्रकाशीत केलें. नायक हांणी नागरी वर्णरचनेंत केल्ली बदलणी रुद्रीगिशांक मानवली ना. देखीक, मूळ हस्तप्रतींत मेळटात ते शब्द râze आनी yogue हे नागरींत रुद्रीगिशांनी *राज्य* आनी *योग्य* अशे दिल्ले पूण नायक हांणी ते *राजे* आनी *योगे* अशे बदलून दिल्यात. रुद्रीगीश हांकां हें सारकें दिसूंक ना, कित्याक, हे शब्द *राजे* आनी *योगे* अशे बरयल्यार ह्या शब्दांनी मेळटा तो अंतीम स्वर *भले* (*भलो* ह्या शब्दाचे भोववचन) आनी *माते* (*माता* ह्या शब्दाचें सामान्य रूप) सारेकल्या शब्दांनी मेळटा तोच अंतीम स्वर म्हणून जालो. खरें म्हळ्यार *राज्य* आनी *योग्य* अशें बरोवपय सारकें न्हय आनी *राजे* आनी *योगे* अशें बरोवपूय सारकें न्हय. हांची सारकी वर्णरचना कोदेक्सांनीच मेळटा. जतनायेन बरयतना आदिपर्वाचे बरोवपी râze आनी yogue अशे बरयनात, râzĕ आनी yoguĕ अशें बरयतात. हातूंत e स्वराचेर ह्रस्व कुरू आसा. ती *भले* आनी *माते* ह्या शब्दांनी ना. प्राचीन कोंकणींत आनी प्राचीन मराठींत ताळव्या व्यंजना उपरांत *अ* स्वर आशिल्लो तो *ए* स्वरांत बदलता, पूण अखेरेक आयल्यार तो स्वर ह्रस्व जाता. देखीक यमदेवाचें नांव *Yemu* अशें बरयतात, हांगा *य* चे पयलीं *र* चे शिवाय दुसरें व्यंजन आसत जाल्यार *य* चो लोप जाता. पयलींचें व्यंजन *र* जाल्यार मात *य* चो लोप जायना. संस्कृत *कार्य* हो शब्द cârye̋ वा câriye̋ असो बरयतात, पूण *राज्य* आनी *योग्य* हे शब्द râzĕ आनी yoguĕ अशे बरयतात. केन्ना केन्ना संस्कृत वर्णरचने प्रमाण râzia आनी satia अशेंय बरयतात. (त्या काळार *इ* आनी *य* दोनूय बरोवपाक *i* चो प्रयोग करताले.) कोंकणी आनी हिंदी असल्या आतांच्या भासांनी *राज्य* आनी *योग्य* ह्या शब्दांचो उच्चार [rājjĕ] आनी [yoggĕ] वा [rājjI] आनी [yoggI] असो करतात. तांतूंत *य* चो उच्चार ना. बदला दोट्टी व्यंजना उपरांत ह्रस्व *ए* वा *इ* चो उच्चार जाता. देखून *राज्य* आनी *योग्य* ह्या शब्दांक मिशनरींनी दिल्ली वर्णरचना उच्चारा प्रमाण सारकी दिसता. बरोवपी जतनायेन बरयतना *राज्य* आनी *योग्य* हे शब्द râzĕ आनी yoguĕ अशे बरयताले हें नायक जाणा आशिल्ले. तांणी सांगलां, नागरी लिपींत ह्रस्व *ए* ची कुरू ना, देखून तांणी त्या शब्दांनी दीर्घ *ए* चो प्रयोग केला (नायक १९९०: xiii). विष्णुदास नामाचे नागरी लिपींत मेळटा त्या मराठी आदिपर्वांतूय *राज्य* आनी *योग्य* हे शब्द *राजे* आनी *योगे* अशेच बरयल्यात.

ग्रंथपरिचयांत रुद्रीगिशांनी कोंकणी *भारता* विशीं दोन उपन्यास फुडें दवरल्यात. पयल्या उपन्यासा प्रमाण, कोदेक्स ७७१त आसा ती आदिपर्वाची प्रत कच्ची प्रत आनी कोदेक्स ७७२ त मेळटा ती प्रत निवळ प्रत. दुसरो उपन्यास कोंकणी भारताची कथा कोणें तोंडी सांगिल्ली आनी दुसऱ्यान कोणें ती बरोवन काडिल्ली म्हणून. नायक रुद्रीगिशांचीं थोडीं मतां मानून घेनात पूण हे दोन ते मानून घेतात.

आदिपर्वाचीं ही दोन रुपांतरां तपासल्यार आमकां कोदेक्स ७७१त मेळटा तें रुपांतर कच्चेंशें दिसता, कित्याक तातूंत कोणें जायते शब्द आडी मारून रद्द केल्यात आनी बदला दुसरे शब्द दिल्यात. ताच्या बरोवप्यांनी ती निवळ प्रत म्हणून तयार केल्ली जावं येत. पूण हातबरप पळेतना, मागीर दुसऱ्यान कोणें तातूंत बदलणी केल्या म्हणून कळटा. ते वरवीं ती कच्ची प्रतशी दिसता. सुरवेक ती



'आदि पर्वा'च्या हातबरपाचो एक नमुनो

प्रत दोगां बरोवप्यांनी तयार केल्ली. तातूंत एकल्याच्या बरपांत वर्णरचनेच्यो चुकी भोव थोड्यो मेळटात. दुसऱ्याच्याय बरपांत चुकी मेळटात. पूण दोगांय बरोवप्यांनी दुसरे तरेच्यो चुकी केल्यात. तातूंतल्यो थोड्यो चुकी मागीर बदलणी करप्यान सुदारल्यात. पूण ताणें वर्णरचनेच्यो चुकी सुदारूंक नात. खरें म्हळ्यार, ताच्याच बरपांत वर्णरचनेच्यो जायत्यो चुकी मेळटात. ताच्यो बदलण्यो सगल्यो चुकींच्या सुदारपाच्यो न्हय. थोड्या बदलण्यांनी मराठी शब्द काडून तांचे बदला कोंकणी शब्द दिल्यात. हांवें पयल्या तीन कथांनी मेळटात त्यो बदलण्यो मेजल्यो. तातूंत म्हाका ६० बदलण्यो मेळ्ळ्यो. तातूंत व्याकरणीक वा असल्या सामक्या चुकींचें सुदारप फकत आठ बदलण्यांनी मेळटा. जायत्या बदलण्यांनी शब्द बदलून दिल्यात वा गरजे भायले शब्द काडल्यात. धा बारा बदलण्यांनी मराठी शब्दां बदला कोंकणी शब्द दिल्यात, देखीक, *होउनु* [=जावन], *जातां* [=वतां], *जाउनु* [=वचून], *मनुशासि* [=मनशाक], आनी *राज्यासि* [=राज्याक] ह्या शब्दां बदला *जाउनु, वेतां, वचुनु, मनुशाक,* आनी *राज्याक* हे शब्द दिल्यात. दुसरे कडेन *राजा, आरुडले, घटिका,* आनी *अवकळा* असले शब्द काडून तांचे बदला *राओ, चडले, घडिओ,* आनी *अपमानु* हे शब्द दिल्यात. कोंकणींत *राजा, आरुडले, घटिका,* आनी *अवकळा* असले शब्द वापरूंक जाता पूण असले साहित्यीक आनी तत्सम शब्द चड करून मराठींत मेळटात. *राओ, चडले,* आनी *घडिओ* हे सामान्य तद्‌भव शब्द आनी असले शब्द चड करून कोंकणींत मेळटात. *अपमानु,* तत्सम शब्द खरो पूण *अवकळा* ह्या शब्दा परस तो सादो शब्द.

कोदेक्स ७७२ त मेळटा तें आदिपर्वाचें रुपांतर कोदेक्स ७७१त बदलणी केल्लें रुपांतर म्हणपाचें स्पश्ट दिश्टी पडटा. कोदेक्स ७७१ तल्या आदिपर्वांत केल्यात त्यो बदलण्यो चड करून सगल्यो कोदेक्स ७७२त जोडल्यात. कोदेक्स ७७२ त आसा ती प्रत निवळशी दिसता, कित्याक तातूंत चुकींची दुरुस्ती केल्ली दिसना. कोदेक्स ७७२ त मेळटा ती आदिपर्वाची प्रत निवळ प्रत म्हणून तयार केल्ली खरी, पूण ही प्रत तयार करपी बरोवपी योग्य न्हय. ताची वर्णरचना चड करून सुरवेच्या कथांनी चड अस्ताव्यस्त आसा. भाग ८: 'विरामचिन्नांचो प्रस्न आनी चुकी' हातूंत सुरवेक दिल्लो वर्णरचनेच्या चुकींचो नमुनो पळयात. हातूंत चड करून *अ* आनी *आ* ह्या स्वरांची अदलाबदल जाल्या. देखून हें संस्करण तयार करतना हांवें कोदेक्स ७७२ बदला कोदेक्स ७७१ चो आदार घेतला. कोदेक्स ७७१ त चुकी आशिल्ले कडेन बदलून दिल्ले शब्द हातूंत घेतल्यात. पूण एक बरी गजाल म्हळ्यार, कोंकणी भारताच्या दुसऱ्या पर्वांनी वर्णरचना तितली वायट ना.

कोदेक्स ७७२ त जायत्यो चुकी आसात. तरूय हाच्या आदारान आदिपर्वाचें संपादन करतना रुद्रीगिशांक कांय त्रास जावंक नात अशें दिसता, कित्याक, तांकां प्राचीन कोंकणीचे उतरावळीचें आनी वर्णरचनेचें बरें ज्ञान आशिल्लें. तांणी रिबेयरु हांच्या शब्दकोशांतले उतरावळीचो अभ्यास करून ताचेर कांय लेख बरयल्ले. हे भायर कोदेक्स ७७१ त तांकां शब्दांची सारकी वर्णरचना मेळटाली. पूण तांणी आधुनीक वर्णरचना वापरल्या.

कोंकणी *भारत* कोणें एकल्या देशी विद्‌वानान वा विद्‌वानांनी तोंडी सांगिल्लें आनी दुसऱ्यांनी तें बरोवन काडिल्लें म्हळां. ह्या उपन्यासाक आदार आसा. हाची चर्चा भाग ५: 'कोंकणी *भारता*चे रचपी' हातूंत पळयात.

आदिपर्वा नंतर रुद्रीगीश आनी नायक हांणी संपादन-कार्य फुडें व्हरूंक ना, उरिल्ल्या पर्वांची चड करून एकूच प्रत आशिल्ली आनी झेवियर सेंटरांतल्या झॅरॉक्स प्रतींनी थोडीं पानां नात आनी थोडीं पानां अस्पश्ट आसात, देखून तांणी हें कार्य फुडें व्हरूंक ना, अशें म्हाका दिसता. ब्रागांतले मूळ प्रतींत सगलीं पानां स्पश्ट आशिल्ल्यान हांवें सगल्या कोंकणी भारताचे संपादन-कार्य करपाचें थारयलें.

### ३. ग्रंथ रचपी आनी कथा सांगपी

संस्कृत *महाभारत* कृष्णद्‌वैपायन व्यासाची कृती अशें म्हणटात. हातूंत अर्जुनाच्या पणतूक जनमेजयाक व्यासाचो शिश्य वैशंपायन *महाभारता*ची कथा सांगता. कोंकणी *भारता*च्या सभापर्व, अरण्यपर्व, विराटपर्व, भीष्पपर्व आनी शल्यपर्व ह्या स पर्वांनी कथा सांगपी वैशंपायनूच आसा. पूण आदिपर्वांत कथा सांगपी व्यासाचो पूत आनी शिश्य शुकेंद्र. (ताचें नांव 'सुख इंद्र' म्हणून दिलां.) कोंकणी *भारता*च्या अश्वमेधपर्वांत कथा सांगपी कोण म्हणून सांगूंक ना. पूण कोंकणी भारतांतलो अश्वमेधपर्व *व्यासमहाभारतांत*लो न्हय. मराठी-कोंकणी क्षेत्रांत *महाभारताच्या* कथा-ग्रंथांनी अश्वमेधपर्व आयला तो व्यासाचो न्हय, तर जैमिनिचो. पाठकु नामाचो अश्वमेधपर्व (नामा, पाठकु, तारीक ना. आ) वा ताचे थोडे भाग भारत इतिहास संशोधक मंडळांत मेळटात. पाठकु नामाच्या अश्वमेधपर्वांतली एक कथा ब्रागा कोदेक्स ७७३ त मेळटा, 'धर्माचा अस्वमेधु: तांब्रध्वजाची कथा', (नामा, पाठकु, तारीक ना. अ). पाठकु नामाचो अश्वमेधपर्व जैमिनिचेर आधारीत आसा. मागीरच्या मराठी कृतीं मदीं *पांडवप्रताप* (श्रीधर १७१२) ह्या बरपांतले दुसरे भाग व्यासाच्या *महाभारता*चेर आधारीत आसात. जाल्यारूय हातूंतलो अश्वमेधपर्व जैमिनिचेर आधारीत आसा. *कथाकल्पतरू*, हे मराठी कृतींत *महाभारता*च्यो आनी दुसऱ्यो अनेक कथा आसात. (कृष्णयाज्ञवल्कि, तारीक ना). पूण हातूंत अश्वमेधपर्वाची कथा आसा आनी ती जैमिनिची.

जैमिनिन आपलें वेगळेंच *महाभारत* बरयल्लें म्हणटात. पूण आतां आमकां तो सगलो ग्रंथ मेळना. ताचो अश्वमेध मात मेळटा. व्यासाच्या अश्वमेधपर्वांत आनी जैमिनिचे अश्वमेध कथेंत खूब अंतर आसा. जैमिनिक व्यासाचो आनी एकलो शिश्य म्हणटात. पूण जैमिनिचो अश्वमेध चड मागीरची कृती अशें दिसता. देखून जैमिनि प्रमाण संस्कृत *महाभारताच्या* रचप्याचो शिश्य आसूंक शक्य ना अशें दिसता. जैमिनिच्या अश्वमेधांत जैमिनिच जनमेजया रायाक कथा सांगता. कोंकणी *भारता*चो अश्वमेधपर्व जैमिनिचे रचणुकेचेर आधारीत आसल्यारूय तातूंत आमकां जैमिनिचें नांव मेळना.

कोंकणी *भारता*च्या द्रोणपर्वांत जनमेजयाक कथा सांगता चांगु निवृतिदासु वा निवृतिदासु. द्रोणपर्वाच्या पांचूय कथांनी तोच जनमेजय रायाक कथा सांगता. कर्णपर्वांत तांचें नांव चांगु म्हणून दिलां. तो क्षत्रीय रायाक कथा सांगता. हो क्षत्रीय राय जनमेजय जावं येत. हो चांगु, निवृतिदासु, वा चांगु निवृतिदासु कोण तें कळना.

दोन पर्वांचे अखेरेक (आदिपर्वांत आनी अरण्यपर्वांत) कथा स्कंदपुराणांतली म्हणून सांगलां.

### ४. कोंकणी भारताचें लागिंचें मूळ: विष्णुदास नामाचें मराठी *भारत*

कोंकणी *भारता*च्या कितल्याश्या कथांनी जनमेजयाक *भारता*ची कथा सांगप्याचें नांव दितकूच तीच कथा वा ते कथेची टिका लोकांक सांगप्याचें नांव *नामा* म्हणून दिलां. देखीक,

सभापर्वांत तिसरे कथेचे अखेरेक: *हेचि कथेची टिका विष्णुदास नामा समेस्तां म्रुत्यांक सांगत.*

विराटपर्वांत पांचवे कथेचे अखेरेक: हिचि *कथा म्रुतलोकीं परमेस्पराचो शेरणागतु नामा सांगत.*

चड करून ताचें नांव *विस्ट्नुदास् नामा* (विष्णुदास नामा) म्हणून दिलां. जायते कडेन *परमेस्पराचो शरणागतु नामा म्हणुनूय* दिलां. एके कथेंत *नामदेव* म्हणून लेगीत दिलां. एकुणसत्तर कथां मदीं बावीस कथांचे अखेरेक नामाचें नांव मेळटा: विराटपर्व, कथा ५, भीष्मपर्व, कथा १-८ आनी १०, गदापर्व १-२, अश्वमेधपर्व १-१०.

नामा ह्यो कथा कोणाक सांगता? अनेक कथांनी तो क्षत्रीय रायांक आपल्यो कथा सांगता म्हूण सांगलां. थोडे कडेन तो आपल्यो कथा सगल्यांक सांगता अशेंय आयलां.

कोंकणी *भारता*च्या इतल्या कथांनी नामाचें नांव येता देखून वाचप्यांनी हो ग्रंथ नामा म्हळ्ळ्या कवीन कोंकणींत बरयल्लो जावंक जाय अशें मानलें जाल्यार अजाप न्हय. हांवूय तशेंच समजल्लों. पूण एक दीस ए. एन्. देशपांडे हांणी बरयल्लो प्राचीन मराठी वाङ्मयाचो इतिहास वाचतना तातूंत म्हाका 'नामदेव आणि विष्णुदास नामा' म्हणून एक अध्याय मेळ्ळो (देशपांडे १९६९: १००-१०२). देशपांडे सांगतात, मराठीचो प्रसिद्ध कवी नामदेव केन्ना केन्ना आपणाक 'विष्णुदास' म्हणटा, कित्याक, तो आपणाक विष्णुचो भक्त वा दास मानता. पूण मराठी भाशेंत विष्णुदास म्हणून नांव घेतिल्ले कितलेशे कवी आसात आनी तांचे मदीं अनेक विष्णुदास नामाय आसात. त्या विष्णुदास नामां मदीं एकल्यान *महाभारत* बरयलां, 'भारत' म्हणून. नामा हें नांवूय अनेक कवींनी वापरलां. देखीक, कोदेक्स ७७३ (श्यामा. तारीक ना) हातूंत तीन वेगवेगळ्या नामाच्यो कृती आसात: विष्णुदास नामा, पाठकु नामा, आनी सिम्पा नामा. कांय कृतींनी लेखकाचें नांव *नामा* इतलेंच दिलां. तो कोण नामा तें पारखूंक येना.

विष्णुदास नामान मराठींत बरयल्ल्या *महाभारता*चे दोन पर्व (विराटपर्व आनी कर्णपर्व) कोदेक्स ७७३ त मेळटात. (श्यामा. तारीक ना). ह्या *भारता*च्या दोन पर्वां भायर ह्या कोदेक्सांत विष्णुदास नामाच्यो आनीक कांय कृतीय मेळटात: 'प्रेलाद चरित्र' (प्रल्हादचरित्र), 'हरिचंद्रपुराणकथा' (हरिश्चंद्रपुराणकथा), आनी 'सुखदेवचरित्रकथा'. हे उपरांत म्हाका विष्णुदास नामाचें *नलोपख्यान* मेळ्ळें (जोशी १९७१-७२). ताची वळख दितना संपादकान विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारता*च्या पर्वांच्यो हस्तप्रती खंय मेळटात तें सांगलां. थंय तांणी मुंबयच्या मराठी संशोधन मंडळांत विष्णुदास नामाच्या *भारता*च्या आदिपर्वाच्यो दोन प्रती मेळटात म्हणून सांगलां. हांवें ह्यो प्रती तपासल्यो.

विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारता*चे हे तीन पर्व तपासतकूच कोंकणी *भारत* ह्या मराठी कवीचे कृतीचेर आधारीत आसा म्हणपाचें म्हाका स्पश्ट कळ्ळें.

कोंकणी *भारतां*त ज्या विष्णुदास नामाचो उल्लेख मेळटा तो एकलो मराठी कवी आनी कोंकणी *भारत* ताचे मराठी कृतीचेर आधारीत आसा म्हणून गोंयांत कोणाक खबर नाशिल्ली म्हणून हांवें समजून घेतिल्लें. रुद्रीगिश आनी नायक हांच्या प्रकाशनांनी ही खबर मेळना. तेन्ना म्हाका पिसुर्लेंकारांनी हाचे विशीं बरयल्ले लेख वाचूंक मेळ्ळे (पिसुर्लेंकार १९५६. १९६९) तांणी १९५४ इसवेंत ब्रागांतल्यो कोंकणी हस्तप्रती तपाशिल्ल्यो. ते लेख वाचतकूच म्हाका कळ्ळें, कोंकणी *भारत* विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारता*चेर आधारीत आसा म्हणून तांकां खबर आशिल्ली. कोंकणी भारत विष्णुदास नामाचे मराठी कृतीचो अणकार अशें तांणी बरयलां. पूण आतां मेरेन मेळ्ळ्यात त्या विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारता*च्या तीन पर्वांची कोंकणी *भारता*च्या त्याच पर्वां कडेन तुळा करतकूच स्पश्ट कळटा, कोंकणी भारत विष्णुदास नामाचे मराठी कृतीचेर आधारीत आसा पूण तो अणकार न्हय. ह्या दोन कृतींच्या तपशिलांत जायतो फरक आसा. देखून हातूंतली एक कृती दुसरे कृतीचो अणकार म्हणूंक जायना.

कोंकणी *भारता*च्या कितल्याश्या पर्वांनी विष्णुदास नामाचें नांव येता. कोंकणी *भारत* विष्णुदास नामाच्या *भारता*चेर आधारीत म्हणटना ही कोंकणी भारत रचप्यांची उगती कबुली म्हणूं येत. कोंकणी भारत रचप्यांनी विष्णुदास नामाचें नांव दिलां. इतलेंच न्हय तर आपलें नांव दिवंक ना.

### ५. कोंकणी भारताचे रचपी

सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत गोंयां आयिल्ल्या मिशनरींक क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार करपा खातीर गोंयची भास कोंकणी शिकपाचो हावेस आशिल्लो. हांगाच्या हिंदू लोकाची धार्मीक फाटभूंय समजून घेवपाक *रामायण* आनी *महाभारत* असल्यो तांच्यो धार्मीक कथा वाचपाचोय हावेस आशिल्लो जावंक जाय. तांचे मदले थोडे चड महत्वाकांक्षा आशिल्ले कोंकणीच न्हय, मराठीय शिकले. कित्याक, हिंदू धार्मीक साहित्य ते भाशेंत आशिल्लें. ते पद्यरुपांत आशिल्लें मराठी साहित्यूय वाचूंक तयार आशिल्ले. कित्याक, मराठी बरपांत मेळटा ती शैली आनी छंद वापरून मराठी भाशेंत क्रिस्तांव विशयांचेर आधारीत कृती रचपाची तांची मांडणी आशिल्ली. टामस स्टीवन्स आनी आंतोनियु साल्दाञा हांणी आपल्यो थोड्यो कृती मराठींत पद्यरुपांत मराठी पद्याचो ओवी छंद वापरून तयार केल्ल्यो, हें लक्षांत दवरपाचें (स्टीवन्स १६१६, साल्दाञा १६५५ आनी साल्दाञाची दुसरी तारीक नाशिल्ली कृती पळयात). रोमी लिपयेंत कोंकणी बरोवपाक आनी रोमी लिपयेंत लिप्यंतर केल्लें कोंकणी बरप वाचपाक तांकां सोंपें लागतालें. देखून त्या मिशनरींनीं कोंकणी आनी मराठी बरपांत आनी प्रकाशनांनी रोमी लिपी वापरपाचो निर्णय घेतला, अशें दिसता. मराठीचें थोडें पद्यांत आशिल्लें साहित्यूय रोमी लिपयेंत लिप्यंतर करपाची तांणी वेवस्था केली. तें साहित्य आमकां कोदेक्स

७७३ मेळटा.

*रामायण* आनी *महाभारताच्यो* कथा कोंकणींत गद्यरुपांत दिवपाचो तांणी निश्चय केल्लो. त्यो कथा आमका कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ त मेळटात. *रामायणाच्यो* आनी *महाभारताच्यो* कथा कोंकणींत तोंडी सांगूंक तांणी गांवच्या जाणकारांक सांगिल्लें जावंक जाय. कथा सांगपी एकलोच न्हय, चड जाण आशिल्ले जावंक जाय. ह्या कथां मदीं जायत्यो विसंगती आसात. तातूंत थोड्यो विसंगती त्यो कथा वेगवेगळ्या जाणांनी सांगिल्ल्यो देखून उत्पन्न जाल्यात, अशें दिसता. हे भायर सुरवेच्यो तीन कथा सांगप्याच्या निरुपणांत चड गोंदळ आसा आनी जायत्यो चुकी आसात. ह्यो चुकी विष्णुदास नामाच्या मराठी आदिपर्वांत मेळनात.

१. तो कथा सांगपी भीष्माक गंगेचो सवो पूत म्हणटा (कोदेक्स ७७१ पान १४७ (२८५)), पूण तो गंगेचो आठवो पूत.

२. तो शांतनूकूच न्हंय, भीष्माकूय *राओ* वा *राजा* म्हणटा आनी गोंदळ करता (कोदेक्स ७७१ पान १४७-१४८ वे (२८६-२८८)).

३. शांतनु राय सुगंधेक पयलीं मेळिल्लो आनी तिच्या सुगंधान तो पिसो जाल्लो. एक राय तारयाचे चलयेच्या मोगांत पडटा आनी तिचे कडेन लग्न जावपाक सोदता हातूंत कांय असामान्य दिसना. पूण कोंकणी *भारतांत* भीष्मु सुगंधेक पयलीं मेळटा आनी तिचे कडेन आपल्या बापायचें लग्न करपाची वेवस्था करता पान १४७ वे - १४८ वे (२८६-२८८). ताका पयलीं ही खबर दिवन ताची मंजुरी लेगीत घेना. ते चलयेचो सुगंध कितलोय आसूं, पूण एकलो रायाचो पूत आपल्या बापायचें लग्न हे भाशेन एके तारयाचे धुवे कडेन करपाची वेवस्था करता, हें सारकें दिसना.

४. सुगंधा आपली कथा सांगूंक सुरू करता पूण मदींच कथा सांगपी ती कथा आपूण सांगूंक लागता (कोदेक्स ७७१ पान १४८ रे (२८७) भाग.) ८: 'विरामचिन्नांचो प्रस्न आनी बरपांत चुकी' हातूंत सुरवेक दिल्लो आदिपर्वाचे दुसरे कथेंतलो उतारो पळयात.

५. भीष्म राया कडेन सुगंधेच्या लग्नाची वेवस्था करता. हाका *गंधर्विव्हाओ* [गंधर्वविवाह] म्हळा (कोदेक्स ७७१ पान १४८ वे (288)). हाका अर्थ ना, कित्याक, थंय शांतनु राय हाजीर नाशिल्लो. पयले फावट गंगे कडेन शांतनु रायान गंधर्वविवाह केल्लो म्हणून विष्णुदास नामा सांगता. ती गजाल कथा सांगप्याचे मतींत आशिल्ली जावं येत.

६. दोन फावट कथा सांगपी सुगंधेक *गंगा* म्हणटा (कोदेक्स ७७१, पान १५० रे (२९१)).

ह्या कोंकणी *भारताच्या* कथा सांगप्यांक आमी कोंकणी *भारताचे* रचपी म्हणटात. विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारताच्या* आधारान तांणी त्यो कथा कोंकणींत सांगल्यो. कोंकणी भारताच्या कथांची गद्यशैली आनी तातूंतल्यो चुकी तपाशिल्ल्या विद्‌वानाचें मत अशें आसा: हें साहित्य एकल्यान सांगिल्लें, तें दुसऱ्यान बरोवन काडून तयार केल्लें (रुद्रीगिश १९८७: xvi. नायक १९९०: vii, सरदेसाय २००६:७३-९१). कथा सांगपी मराठी साहित्याचें ज्ञान आशिल्ले कोंकणी मनीस जावंक जाय, पूण त्यो कथा बरोवन घेवपी मिशनरीच आसले काय दिसता. त्या मिशनरींक कोंकणी उतरावळीचें बरें ज्ञान आशिल्लें जावंक जाय आनी कोंकणी साहित्य रोमी लिपयेंत बरोवन घेवपाक तांणींच तयार केल्ल्या नेमां प्रमाण ते बरोवंक शकताले. सुरवेक तांणी जें बरोवन घेतिल्लें तें आमकां कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ हातूंत मेळना अशें म्हाका दिसता. आमकां मेळटात त्यो प्रती सुरवेक बरोवन घेतिल्ल्या बरपांच्यो निवळ प्रती अशें दिसता. जायत्या कथांनी मदले अंश चुकल्यात (भाग ८: 'विरामचिन्नांचो प्रस्न आनी बरपांत चुकी' पळयात). दुसरे कडचें वाचून निवळ प्रतींत बरयतना हे अंश चुकल्यात, अशें दिसता. ह्यो निवळ प्रती तयार करपी एकलो न्हय, चड जाण आशिल्ले म्हणून आमकां तांच्या हातबरपां वयल्यान कळटा.

कोंकणी भारताच्या थोड्या अंशांनी क्रिस्तांव धर्माचो प्रभाव दिश्टी पडटा. कथा सांगप्यां आनी तयार करप्यां मदीं क्रिस्तांव धर्म घेतिल्ले मनीस आशिल्ले जावंक जाय. चड म्हायतीक पळयात भाग १६: 'कोंकणी भारताचेर क्रिस्ती प्रभाव'.

### ६. विष्णुदास नामाची आनी ताच्या *भारताची* तारीक

विष्णुदास नामाचे आनी ताच्या भारताचे तारके विशीं अनिश्चितताय आसा. देशपांडे सांगतात, *महाभारत* रचपी विष्णुदास नामा पंदराव्या शतकांतलो आसलो आनी ताणें १४२८ इसवेंत (शक १३५०) महाभारत बरयल्लें (देशपांडे: १९६९:१०१). ताणें *महाभारताचीं* अठराय पर्वां बरयल्लीं म्हणटात. जोशी (१९७१-७२) सांगतात, विष्णुदास नामाचो काळ १३३८-१४१० आसलो (जोशी १९७१-७२:५,७). तांच्या मता प्रमाण, अश्वमेधपर्व बरयल्ल्या पाठक नामान विष्णुदास नामाचे कृतीची वळख जातकीर आपली कृती तयार केल्ली. पाठक नामा पंदराव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांतलो (जोशी १९७१-७२: ५). आनीक कांय जाणांच्या मता प्रमाण, विष्णुदास नामा सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतलो (खानोलकर १९७७: ३४८-३५०). जोशी सांगतात ते प्रमाण, विष्णुदास नामा पंढरपुरचो (जोशी: १९७१-७२:६).

### ७. कोंकणी भारताची तारीक

कोंकणी *भारत* सुमार १६०० इसवेंत तयार जाल्लें जावंक जाय. रोमी लिपयेंत हें साहित्य तयार करपाचो हावेस आशिल्ले मिशनरी गोंयां पावले उपरांत हें कार्य शक्य आशिल्लें. कोंकणी आनी मराठी भासांचें अध्ययन करून ह्या भासांनी ग्रंथ तयार करपाचो विशेश हावेस आशिल्ल्या मिशनरीं मदीं पयलीं गोंयां पाविल्ले म्हळ्यार टामस स्टीवन्स आनी दियोगु रिबेयरु. स्टीवन्स १५७९ इसवेंत गोंयां पावलो आनी रिबेयरु १५८० इसवेंत पावलो. तांणी हांगा पावतकूच थोड्या वर्सां उपरांत हें काम हातांत घेतिल्लें जावं येत.

मिशनरींनी तयार केल्ल्या एका कोंकणी-पुर्तुगेज कोशांत (अनामीक, तारीक ना) कोंकणी *भारतांतले* आनी *रामायणांतले* उतारे मेळटात. हो कोश दियोगु रिबेयरु हाणें सुरवेक तयार केल्ल्या कोशाचें थोडे सुदारप करून कोणें एकल्यान तयार केल्लो देखून कोंकणी भारत ह्या कोशा परस पयलीं तयार जाल्लें जावंक जाय. पूण ह्या कोशांत बरोवप्याचें नांव ना आनी तारीक ना. रिबेयरुचें नांव आशिल्लें

आनी १६२६ ही तारीक आशिल्लें रिबेयरुच्या कोशाचें एक रुपांतर मेळटा. पूण हातूंत कोंकणी *भारताचे* उतारे नात.

कोंकणी *भारताचे* उतारे मेळटात त्या कोशांतले थोडे उतारे पळयात. कोश तयार करपी हे उतारे खंयचे म्हणून सांगिना. ताणें त्या उताऱ्यांच्या शब्दांनी थोडी बदलणी केल्या.

*अग्र: हियें सुवेच्या अग्राक जेतुकी माती लागता तितुकी भुमि नेदें.*

पान. २७६ वे (५४२): *हे सुवेच्या अग्राक जेतुकी माती लागता तेतुकी भुमि नेदें.*

(हें दुर्योधनाचें उतर, पांडवांक राज्याचो इल्लोय वांटो आपूण दिवचो ना ह्या अर्थाचो.




*आमंगेलो: राजे आमगेलें-शें करुनु दिवूं नाका, तुगेलें-शें करुनु दी सोंतसान.*

पान ४२५ रे (८३७). *आमंगेलें-शें कोर्नु देवूं नाका, तुगेलें-शें कोर्नु सोंतोसान दी.*

(हें कृष्णाचें उतर, आपलें राज्य दुर्योधना कडल्यान परत घेवपाक दुर्योधनाक कशें पत्र बरोवचें हाचेर पांडवांक दिल्ली सुचोवणी)

कोदेक्स ७७१ आनी कोदेक्स ७७२ हातूंत जें कोंकणी बरप मेळटा तातूंत आमकां पुर्तुगेज शब्द मेळनात. देखून तें साहित्य पुर्तुगेज गोंयां पावचे पयलीं तयार जाल्लें म्हणूंक जायना. पुर्तुगेज शब्द नाशिल्लें बरप पुर्तुगेज येवचे आदलें म्हणूंक जायना. टामस स्टीवन्स हाणें तयार केल्ल्या *दोवत्रीना क्रिस्तां* ह्या ग्रंथांत क्रिस्तांव धर्माची उतरावळ सोडल्यार दुसरे कडेन एक्कूय पुर्तुगेज शब्द मेळना.

**८. हस्तप्रतींनी विरामचिन्नांचो प्रस्न आनी चुकी**

कोदेक्स ७७१ आनी ७७२ हातूंत स्वल्पविराम चिन्ना भायर दुसरीं विरामचिन्नां मेळप कठीण. हातूंत वाक्यांचे आनी परिच्छेदांचे शिमेचोय निर्देश मेळना. स्वल्पविराम चिन्न जायते कडेन दिसता. कांय कडेन सारके सुवातेर, कांय कडेन, पूर्णविराम चिन्नाचे सुवातेर, आनी थोडे कडेन कसलेंच विरामचिन्न आसूंक फावना थंय. प्रस्नां उपरांत जायते कडेन प्रस्नचिन्न मेळटा. ह्या संस्करणांत संपादकान फावो ते सुवातेर वाक्य-शिमेचो आनी परिच्छेद-शिमेचो निर्देश केला आनी वेग-वेगळ्या विरामचिन्नांचो प्रयोग केला.

देखीक, आदिपर्वाचे दुसरे कथेचो सकयल दिल्लो भाग पळयात. (हांगा तारयाची धूव आपली कथा सांगूंक सुरू करता. पूण मर्दीच कथा सांगपी ती कथा तिचे बदला आपूण सांगूंक लागता. संख्ये मार्फत सारके शब्दक्रम कळपा खातीर ह्या विभागाचो निमाणचो परिच्छेद पळयात.)

कोदेक्स ७७१, पान १४८ रे (२८७): *माका देखुनु तो रुसेस्परु वेगीं पेलतडी उतरि म्होणू सांगूं लागलो, तावळि हांवें म्हळें मजो बापु उतरितं येवुनुं हांव कन्या कयुसें होडें उतरूं? तावळि येकांतवासु देखुनु तो रुसी आपण्याक भोगु मागूं लागलो तावळि हांव भयाभीति होवुनु लाजिलीं, तावळि तो रुसी बोलूं लागलो, वेगीं तूं माका भोगु दिसी, तरि बरें नां तरि तुका स्रापुनु भस्म करिन तें उतर आयकुनु हांवें ताचे लागीं बोलिलें हांव कन्या भोगु दिवुंक नेण, तावळि ताणें म्हळें तुका बरवी पनरां होवु सोळा वरुसांची सोवासिणी करिन, तावळि तिणें म्हळें दिसाचो भोगु दिवूं नये, समस्त देव चंद्र सुरियु समंद्रु व्रखे वावतर देखताति हांव तुका कयुसो भोगु दिवूं? तावळि ताणें म्हळें तूं भियेवुं नाका त्यां समस्तांची दुस्टि आमीं भोगु कर्तनां पड नां सी हांव करिन,*

फावो थंय वाक्य-शिमेचो आनी परिच्छेद-शिमेचो निर्देश करून आनी विरामचिन्नां घालून कथेचो तोच भाग सकयल दिला.

*माका देखुनु तो रुसेस्परु "वेगीं पेलतडी उतरि" म्होणु सांगूं लागलो.*

*तावळि हांवें म्हळें, "मजो बापु उतरितं येवुनुं. हांव कन्या. कयुसें होडें उतरूं?"*

*तावळि येकांतवासु देखुनु तो रुसी आपण्याक भोगु मागूं लागलो. तावळि हांव भयाभीति होवुनु लाजिलीं. तावळि तो रुसी बोलूं लागलो, "वेगीं तूं माका भोगु दिसी तरि बरें. नां तरि तुका स्रापुनु भस्म करिन."*

*तें उतर आयकुनु हांवें ताचे लागीं बोलिलें, "हांव कन्या. भोगु दिवुंक नेण."*

*तावळि ताणें म्हळें, "तुका बरवी पनरां होवु सोळा वरुसांची सोवासिणि करिन."*

*तावळि तिणें म्हळें, "दिसाचो भोगु दिवुं तरि नये. समस्त देव चंद्रु, सुरियु, समंद्र, व्रखे, वावतर देखताति. हांव तुका कयुसो भोगु दिवुं?"*

*तावळि ताणें म्हळें, "तूं भियेवुं नाका. त्यां समस्तांची दुस्टि आमीं भोगु कर्तनां पड नां सी हांव करिन."*

पयलीं सांगिल्ले प्रमाण, बरपांत वर्णरचनेच्या चुकींनी बरोवप्यां मर्दी जायतो फरक आसा. थोड्या बरोवप्यांच्या बरपांत वर्णरचनेच्यो भोव थोड्यो चुकी मेळटात आनी थोडे बरोवपी दर एके वळींत कितल्योश्यो चुकी करतात. सगल्यां परस चड मेळटा ती चूक म्हळ्यार अ आनी आ हांची अदलाबदल, कोदेक्स ७७१तलें हें वाक्य पळयात:

*हो पुत्रु माका तूं भिकेक दी. आमंच्या राज्याक रावो जायत. तंव तिणें रायाचे हातीं ताका भिकेक दिलो म्होणु भिस्मु नांव ठेयलें.*

आतां तेंच वाक्य कोदेक्स ७७२ त आशिल्ले आदिपर्वाचे दुसरे प्रतींत पळयात:

*हो पुत्रु माका तूं भिकेका दी. अमाच्य रज्याका रावो जयत. तांव*

*तिणें रायचे हातीं तक भिकेका दिलो म्होणु भिस्मु नंवा ठेयूलें.*

कोदेक्स ७७१ तल्या वाक्यांनी *अ* आनी *आ* हांचे अदलाबदलेची चूक ना. पूण कोदेक्स ७७२ तल्या त्याच तीन वाक्यांनी *अ* आनी *आ* हांचे अदलाबदलेच्यो १४ चुकी मेळटात. चुकीचे स्वर आशिल्लीं अक्षरां रेखांकीत केल्यांत.

दुसरे कडेनूय *अ* आनी *आ* हांचे अदलाबदलेच्यो जायत्यो चुकी मेळटात.

आनी एक चड मेळटा ती चूक म्हळ्यार अनुस्वाराचे कुरवेचो अभावः

पान ६० वे (१२०) : *तु* (शुद्ध रूपः *तूं*)

पान ६० (१२०) : *उतर आपुले मायेचे* (शुद्ध रूपः *उतर आपुले मायेचें*)

पान ६२ रे (१२३) : *दयत्या दानवांचो* (शुद्ध रूपः *दयत्यां दानवांचो*)

दुसऱ्यो वर्णरचनेच्यो चुकीय मेळटात. देखीक,

पान ६२ वे (१२४) : *रत्नखर्चित* (शुद्ध रूपः *रत्नखचित*)

पान १०० वे (१९८) : *रखा* (शुद्ध रूपः *रेखा*)

पान १०० वे (१९८) : *अस्तयि* (शुद्ध रूपः *अस्टयि*) [= आठय]

जायत्यो व्याकरणीक चुकीय मेळटात. देखीक,

पान ६० वे (१२०) : *तुवें माका सिहांसणावरि बयूसुनु* (शुद्ध रूपः *बयूसवुनु*)

पान ७५ रे (१४९) : *तयूसो* (शुद्ध रूपः *तयूसी*) *प्राणियाची कुडि धरणिवरि पड़ता.*

जायते कडेन एक फावट दिल्लो शब्द वा पदबंद गरज नासतना परतून दिला. देखीक,

पान १०७ रे (२११) : *हें आयूकुनु सुरियाच्या पुत्रान आयूकुनु म्हळें.*

पान १२२ रे (२४१) : *तुमीं जरि राज्यांतु जरि आसिलले*

जायते कडेन गरजेचो शब्द वा पदबंद चुकला. देखीक,

पान ६२ वे (१२४) : *दुर्योधनु राजे वांटुनु नेदे जालो [ चुकिल्लो शब्दः तरि] मागिरि आमचेरि बोलु लागत.*

*कोदेक्स ७७१, पान १४९ रे (२८९): तो चित्रु राजे करितां समस्ती प्रजेक सुखी [ चुकिल्लो शब्दः तरि] वा परमेस्पराची भगति बरे प्रकारीं करी.*

*पान १५२ वे (२९६): गंगासुतु भिस्मु आपुल्या मना भितरि पंडुक (पांडुक) द्रुतरास्टराक [ धृतराष्ट्राक] दोगायिं बंदुंक विव्हावो करुंचो [ चुकिल्लो पदबंदः विचारु करी?], प्रधानां लागी विचारिलें, ''कोणाचे घरीं कोणा नगरांतु कन्या वाडलियाति?''*

थोड्या पर्वांनी मदीं मदीं थोडे अंश चुकल्यात. बरोवपी निवळ प्रती तयार करतना मूळ प्रतींतले थोडे अंश चुकल्यात काय दिसता. असले कडेन कितें चुकलां आनी कितले शब्द चुकल्यात तें सांगूंक जायना. देखीक, कर्णपर्वांत व्यास आनी विदुर सुगंधेगेर (सत्यवतीगेर) वचून तिका मेळटात. पूण थंय तांचें संभाशण चुकलां आनी इतलेंच मेळटाः

पान ३९४ वे (७७६): ... *सुगंधियेचे घरीं गेले. तिका भेटवले.*

............[चुकिल्लो अंश]

*अयूसें तिचें उतर आयूकुनु दोगानीं म्हळें, ''माये, आतां उसिरु लागलो. निरोपु दी.''*

त्याच पानार आनीक एक अंश चुकला. दुर्योधन आपल्या सिंहासनार बसलो म्हणून एका वाक्यांत सांगलां. फुडल्या वाक्यांत दुर्योधन झुजामळार कर्णा कडेन उलयता. ताचें उतर अर्दकुटेंच मेळटा.

पान ३९४ वे (७७६) : *दुर्योधनु सिंहासणारि बयूसलो.*

............[चुकिल्लो अंश]

''.... *आणी आमीं करुंया.*'' *अयूसें रायाचें उतर आयकुनु कर्णान् बाण सोडिले.*

शल्यपर्वांत अर्जुनाचें आनी अश्वत्थामाचें मल्लयुद्ध चालू आसा. ताच्या वर्णनाचें वाक्य अर्दकुटेंच मेळटाः फुडल्या वाक्यांत शल्य मेलो म्हणून दुर्योधन चिंताक्रांत जाला म्हणून सांगलां.

पान ४०६ रे (७९९): *फुडां तो अर्जुनु असोस्तमा येउध्ये करित आसतनां अर्जुनान असोस्तम्या धोर्नु*

..........[चुकिल्लो अंश]

*राजा दुर्योधनु चिंताकुत जाहालो.*

हस्तप्रतींनी शब्दक्रमांत जायते कडेन चुकी मेळटात. उलयतना जायते फावट उतरां फाटीं फुडें जातात आनी उलयल्लें तें वेगीं वेगीं बरोवन घेतना आनीक चड शब्दक्रमाच्यो चुकी जावपाचो संभव आसा. देखीक,

कोदेक्स ७७१, पान १५० रे (२९१): *स्वामिया, हाचें पाप आणियेक तंव दिश्टी पडनां आमकां कायिं.*

सारको क्रमः *स्वामिया, हाचें आणियेक पाप तंव आमकां कायिं दिश्टी पडनां.*

बरोवन घेताले ते येवरोपी भास उलयताले आनी तांचे भाशेचो शब्दक्रम कोंकणीच्या शब्दक्रमा परस वेगळो आशिल्लो. देखून तांच्या बरपांत चुकीचे शब्दक्रम मेळटात. ते जायते फावट बरोवपी उलयताले ते परकी भाशेचे आसूं येत. देखीक, पुर्तुगेज भाशेंत विशेशण वा विशेशणीक पदबंद नामा नंतर येता आनी कर्म क्रिये नंतर येता. निवळ प्रती तयार करतना असल्यो थोड्यो चुकी सारक्यो केल्यात जावं येत पूण जायत्यो चुकी उरल्यात. देखीक, वयर दिल्ल्या वाक्यांत कर्मशब्द क्रिये आदीं येवचे बदला क्रिये उपरांत येतात.

सकयल दाखयल्ल्या चुकींनीय मेळटा ते शब्दक्रम पुर्तुगेज भाशेच्या शब्दक्रमां सारके आसात.

पान ६३ वे (१२६): *रायाक प्रथुमिच्या*

हांगा संबंदकारक पदबंद नामा नंतर येता, पुर्तुगेज भाशेंत येता तसो.

शुद्ध रूपः *प्रथुमिच्या रायाक*

पान ७५ रे (१४९): *अयूसें उतर निस्टुर धर्माचें आयूकुनु...*

हांगा *निस्टुर* हें विशेशण आनी *धर्माचें* हो संबंदकारक पदबंद दोनूय उतर *ह्या* नामा नंतर येतात, पुर्तुगेज भाशेंत जाता तशें.

शुद्ध रूपः *अयूसें धर्माचें निस्टुर उतर आयूकुनु*

पान ७७ रे (१५३): *आपुल्या हातान साखी ठेवुनु भिस्मा दृणा*

*दोगयि आमी जुतकर्मान खेळ्ळेवुं.*

हांगा एक कर्मकारक नाम *साखी* क्रिये पयलीं येता. पूण दुसरीं दोन कर्मकारक नामां *भिस्मा* आनी *द्रुणा* क्रिये नंतर येतात. पुर्तुगेज भाशेंत अशें जाता. ह्या वाक्याच्या शब्दक्रमांत दुसऱ्योय चुकी आसात.

शुद्ध रूप: *भिस्मा द्रुणा साखी ठेउनु आमीं दोगइ आपुल्या हातान जुतकर्मान खेळ्ळेवं.*

थोडे कडेन एका शब्दा बदला चुकीन दुसरोच शब्द दिला. देखीक,

पान ६३ रे (१२५): *व्यासा, परमेस्पराच्या पुत्राक* [सारको शब्द: *भगताक*] *आपवुनु हाडुनु*

पान १०६ रे (२०९): *तरि तांकां आमीं आपवुनु हाडुनु कायिं येक तांकां संख्या* [सारको शब्द: *सिख्या*] *लावुंची.*

दुसऱ्योय जायत्यो चुकी मेळटात. देखीक, सकयल दिल्ल्या वाक्यांत *उदेवु* हो शब्द आसूंक नज. *उदेलो* ह्या शब्दा बदला *जालो* हो शब्द दिवपाचो.

पान १०३ रे (२०४): *सुरियु उदेवु पुर्वदिसे उदेलो.*

थोड्या चुकींची चर्चा भाग ५: 'कोंकणी *भारता*चे रचपी', आनी भाग ११: 'कोंकणी *भारता*चे मराठी अंश' हातूंत आयल्या.

बरोवप्याक बरयतना चूक दिसली जाल्यार ताणें ती दाखोवपाक ते नंतर *दीगो* [=हांव म्हणटां] हो लातीन शब्द बरोवन मागीर सारको शब्द वा पदबंद दिला. देखीक,

पान २३० रे (४५०): *येणे प्रमाणीं पार्थाच्या दीगो प्पार्थान* अंत्राळीं वाव्तराच्या बळान भोंवडायलो.

पान २३३ वशे (४५७): *इतुक्या सहित दीगो इतुक्या मदें गरुडा सहित कमळपति आयलो.*

कांय कडेन शब्दक्रमांत जाल्ल्यो चुकी सुदारूंक शब्दां वयर आंकडो घालून सारको शब्दक्रम दाखयला.

कोदेक्स ७७१, पान २९७: *मागुंक*[२] *कन्यां*[१]

*कन्या मागुंक* म्हणून दाखयता.

कोदेक्स ७७१, पान ३०१: लागले [२] वचूं[१].

वयर दिल्ले आंकडे ह्या शब्दांचो सारको क्रम *वचूं लागल* म्हणून दाखयता.

ह्या दोनूय देखींनी चुकीचे शब्दक्रम आसात. ते पुर्तुगेज शब्दक्रमा भाशेन आसात, हें लक्षांत घेवपाचें.

## ९. विसंगत्यो

कोंकणी *भारतां*त विसंगत घटना जायत्यो आसात. देखीक,

१. आदिपर्वांत पांचूय पांडव कुंतीचे पूत म्हणून सांगलां. (कोदेक्स ७७१, पान १५५ वे (३०२. पूण शल्यपर्वांत कृतवर्मा म्हणटा, नकुल आनी सहदेव हे दोगूच शल्याचे भाचे, दुसरे पांडव ताचे भाचे न्हय. (पान ३९६ रे (७७९)).

२. कर्ण मेले उपरांत दुर्योधन कृतवर्मा कडेन म्हणटा, आतां ताका एका बळिश्ट रायाची गरज आसा जो ताचे खातीर झुजूंक तयार जातलो. तेन्ना कृतवर्मा शल्याचें नांव सुचयता. दुर्योधन म्हणटा, ताणें शल्याचें नांव आयकलां पूण ताची आपणाक चड वळख ना. कृतवर्मा ताका सांगता, शल्य आपणालो मेवणो आनी दुर्योधनाचे हुकमेन तो ताचे कडेन वचून उलोवंक तयार आसा म्हणून. तेन्ना दुर्योधन आदार मागपाक कृतवर्माक शल्याच्या राज्याक धाडटा (पान ३९९ वे - ३९६ रे (७७८-७७९). पूण भीष्मपर्वांत शल्य पयलींच दुर्योधनाचे सभेंत ताका आदार दिवपाक तयार आसा (पान २८० रे - २८० वे (५४९-५५०)) आनी बलभद्र पृथ्वीच्या भ्रमणाक वचचे पयलीं दुर्योधनाक सांगता, भीष्मा, द्रोणा, आनी कर्णा उपरांत शल्य ताका राखतलो म्हणून (पान २८० रे (५४९)).

३. भीमाच्या पुताचे - घटोत्कचाचे- कथेंत थोड्यो विसंगत्यो मेळटात. द्रोणपर्वांत कृष्ण सांगता, पांडवांच्या आदाराक हिडिंबीणीच्या राज्या सावन घटोत्कचाक आपोवन हाडिल्लें बरें म्हणून (पान ३८७ रे (७६१)). पूण घटोत्कच पयलींच पांडवां खातीर झुजिल्लो. तो भीष्मपर्वांत कौरव सैन्याचेर दोंगर आनी रूख मोखून मारतालो तेन्ना दुर्योधन विचारता, हो झुजारी कोण, आनी भीष्म ताका सांगता, तो भीमाचो पूत घटोत्कच म्हणून (पान ३०८ रे (६०५)).

४. कर्णपर्वांत कर्ण घटोत्कचाक मारता. (पान ३९३ रे (७७३)). पूण अश्वमेधपर्वांत घटोत्कच परतून दिश्टी पडटा. थंय तो भीमा आनी वृषकेता सांगाता यौवनाश्व रायाचो घोडो धरूंक वता (पान १६४रे (३२२)).

५. आदिपर्वांत एकल्या रुशीन गांधारीक पूत जावपाक एक मंत्र दिला म्हणून सांगलां (कोदेक्स ७७१, पान १५४ रे (२९९)). पूण मागीर व्यास सांगता, तिका तसले दोन मंत्र दिल्ले (पान ६० वे (१२०)).

६. आदिपर्वांत तोंडिया राक्षसाक खाण-जेवण आनी एक मनीस दिवपाची पाळी ज्या ब्राह्मणाचेर आयिल्ली ताच्या पुताचें नांव देवशर्मा म्हणून सांगलां (१९९ रे (३८१)) पूण मागीर ताच्या बापायचें नांव देवशर्मा म्हणून सांगलां. (१९९ वे - २०० वे (३८२-३८४)).

७. कर्णपर्वांत भीम आपल्या पुतान - घटोत्कचान- पयलीं केल्ल्या पराक्रमाची तुस्त करता. (पान ३८८ रे (७६३)). तेन्ना तो (यौवनाश्वाचो) घोडो घेवन अंत्राळीं उडून गेल्लो म्हणून सांगता. पूण हें ताणें पयलीं केल्लें करतूब न्हय. हें ताणें मेले उपरांत आनी पुनर्जिवीत जाले उपरांत अश्वमेधपर्वांत केल्लें करतूब.

८. कोंकणी *भारतां*त काळा संबंदान जायत्यो विसंगत्यो आसात. भीष्म कुरुक्षेत्र युद्धांत धा दीस झुजलो म्हणून सांगलां. पूण भीष्मपर्वांत बारा दिसांच्या झुजाचें वर्णन आसा: दुसरे आनी तिसरे कथेंत दो-दोन दिसांचे, चवथे, पांचवे, सवे, आनी सातवे कथेंत एकेका दिसाचें, आठवे कथेंत दोन दिसांचें, आनी णववे आनी धावे कथेंत एकेका दिसाचें. दुसरे कथे सावन आठवे कथे मेरेन धा दिसांच्या झुजाचें वर्णन दिलां. तरी कथा सांगपी णववे आनी धावे कथेंत सांगता, हांगा णवव्या आनी धाव्या दिसाच्या झुजाचें वर्णन दिलां.

९. कर्ण कुरुक्षेत्र युद्धांत दोन दीस झुजलो म्हणून सांगलां. पूण झूज सुरू जातकूच कृष्ण सांगता, कौरवां कडेन झुजूंक हिडिंबेच्या राज्या सावन घटोत्कचाक आपोवन हाडपाक चीट धाडपाची म्हणून. ती चीट घेवन दूत जायते देश पार करून जायत्या दिसांनी हिडिंबेच्या राज्याक पावतात (पान ३८७ रे (७६१)). तेन्ना तांकां खबर मेळटा, घटोत्कच पाताळांत पद्मावतीगेर गेला म्हणून. थंय वचूंक तांकां

कितलो वेळ लागलो म्हणून सांगूंक ना. खबर मेळटकूच घटोत्कच आपल्या घरा परत येता. थंय एक रात रावून दुसऱ्या दिसा वारणावताक वचूंक भायर सरता (पान ३८८ रे (७६३)). घटोत्कच कुरुक्षेत्राक पावता मेरेन कर्ण झुजतालो जाल्यार तो दोन दीस न्हय, चड दीस झुजलो अशें म्हणूंक जाय.

१०. कर्णाक मारले उपरांत दुर्योधनाक रोखडीच एका सेनाधिपतीची गरज आसता. तो हे विशीं शल्य रायाचो आदार मागूंक कृतवर्माक शल्याच्या राज्याक धाडटा. (पान ३९६ रे (७७९)). समजिकाय जातकूच शल्य दुर्योधनाच्या आदाराक येवंक तयार जाता. तेंन्ना कृतवर्मा शल्य रायाक गाडयो भरून द्रव्य धाडपाक दुर्योधनाक पत्र बरयता आनी दुता मार्फत धाडटा (पान ३९६ रे (७७९)). दुर्योधन आपल्या भांडाऱ्याक सांगता, गाडयो भरून द्रव्य शल्याच्या राज्याक व्हर म्हणून (पान ३९६ रे - ३९६ वे (७७९-७८०)). द्रव्य मेळटकूच शल्य आपलें सैन्य घेवन हस्तिनापुराक वचूंक भायर सरता. शल्य राय येता म्हणून आयकतकूच दुर्योधन आपलें सगलें शार सोबोवपाक हुकूम दिता. (पान ३९६ वे (७८०)). इतलें सगलें करपाक जायते दीस लागले जावंक जाय.

कोंकणी *भारतांत* ह्यो विसंगत्यो कश्यो आयल्यो? कोंकणी भारताच्यो कथा सांगपी एकलो न्हय, चड जाण आशिल्ले आनी तांकां दुसऱ्यांनी कितें सांगिल्लें हें समजून घेवपाक संद मेळूंक ना जावं येत. हे वरवीं थोड्यो विसंगत्यो उत्पन्न जाल्यो जांव येत. विष्णुदास नामाच्या मराठी भारताच्या आदारान ते कथा सांगताले खरे, पूण तातूंत तांणी आपल्यो गजालीय जोडल्यात. त्यो गजाली जोडटना जें दुसरे कडेन सांगलां तें ताचे विरुद्ध आसा काय म्हणून तपासपाक तांकां संद मेळूंक ना जावं येत. तांणीच पयलीं कितें सांगिल्लें तें तपासपाक तांकां संद आशिल्ली काय? त्यो कथा मिशनरींच्या हातांत आशिल्ल्यो आनी त्योवय मिशनरींनी तांकां समजना तसले लिपयेंत बरोवन घेतिल्ल्यो.

मुखेल विसंगत्यो (देखीक, १,२ आनी ३) येवपाक कारण, वेग-वेगळ्या, पर्वांची कथा सांगपी वेग-वेगळे आशिल्ले हेंच जावंक जाय. तांकां एकामेकांच्यो कथा तपासूंक संद मेळूंक ना जावं येत. शल्यपर्वाची कथा सांगप्यान विष्णुदास नामा प्रमाण (आनी संस्कृत *महाभारता* प्रमाण) नकुल आनी सहदेव माद्रीचे पूत जाल्ल्यान शल्याचे भाचे म्हणून सांगलें जावं येत. आनीक कोणें आदिपर्वांत पांचूय पांडव कुंतीचे पूत म्हणून सांगिल्लें ताची ताका खबर नाशिल्ली जावं येत. भीष्मपर्वांत शल्य पयलींच दुर्योधनाच्या समर्थकां मदलो एकलो आशिल्लो म्हणून सांगलां आनी घटोत्कच पयलींच पांडवां सांगातान झुजतालो म्हणून सांगलां. पूण कर्णपर्वाच्यो आनी शल्यपर्वाच्यो कथा सांगप्यांक ही खबर नाशिल्ली जावं येत.

चवथी विसंगती पळयात. कोंकणी *भारता*चे कथेंत घटोत्कचाक मेले उपरांत कोणें तरी ताका जिवो केलो जावं येत, आनी अश्वमेधपर्वाच्यो कथा सांगपी ही गजाल सांगूंक विसरलो जावं येत. घटोत्कच पाताळांतल्यान-वतना पद्मावती म्हणटा, कुरुक्षेत्रांत कोणेंय घटोत्कचाक मारल्यार ताका जिवो करपाक थोडें अमृत धाडल्यार बरें आशिल्लें म्हणून (पान ३८७ वे (७६२)). पूण थंय कोणूय अमृत घेवन गेल्लो आनी ताणें घटोत्कचाच जिवो केल्लो जाल्यार ही खबर वाचप्याक खंयच मेळना.

थोड्यो चुकी कथा सांगप्यांच्या दुर्लक्षान जाल्ल्यो जावं येत. पांचवी विसंगती (गांधारीक एक वर मेळिल्लो काय दोन?) असली चूक काय दिसता. सवी विसंगती पळयात. हांगा बापायचें आनी पुताचेंय नांव देवशर्मा म्हणून सांगलां. विष्णुदास नामाच्या आदिपर्वांत पुताचें नांव देवशर्मा आनी बापायचें नांव विष्णुशर्मा. देखून कोंकणी आदिपर्वांत कथा सांगपी पयले फावटीं पुताक देवशर्मा म्हणटा तें सारकें. पूण मागीर तो दुर्लक्षान बापायकूय देवशर्मा म्हणटा. सातवे विसंगतीकूय कारण कथा सांगप्याचें दुर्लक्ष आसुंये अशें दिसता. पूण कर्णपर्वांत तो भीमा कडल्यान घटोत्कचाच्या पराक्रमाची तुस्त करूंक लायता तेन्ना ती गजाल फुडल्या पर्वांतली म्हणून तो विसरलो जावंक जाय.

ह्यो विसंगत्यो विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारतांत* मेळटात? म्हाका विष्णुदास नामाचे तिनूच पर्व मेळ्ळ्यात. आदिपर्व, विराटपर्व, आनी कर्णपर्व. तातूंत असल्यो विसंगत्यो मेळनात. विष्णुदासाच्या मराठी *भारतांत* गांधारीक एक वर मेळिल्लो: एकोत्तर एकशें पुत्र जावपाचो. फुडल्या पर्वांनी हाचे आड कितेंय आयलां काय खबर ना. विष्णुदास नामाच्या आदिपर्वांत तोंडिया राक्षसाक खाण-जेवण आनी मनीस धाडपाची पाळी जाची आशिल्ली तो ब्राह्मण विष्णुशर्मा. ताच्या पुताचें नांव देवशर्मा, विष्णुदास नामाचे कथेंत पांडवां मदीं धर्म, भीम, आनी अर्जुन हेच कुंतीचे पूत. नकुल आनी सहदेव माद्रीचे पूत. विष्णुदास नामाचो शल्यपर्व आमकां मेळना पूण तातूंत नकुल आनी सहदेव हेच शल्याचे भाचे म्हणून कोणूय सांगीत जाल्यार ती विसंगती जायना. विष्णुदास नामाच्या मराठी कर्णपर्वांत घटोत्कचाक आपोवंक कृष्ण वा दुसरो कोण हिडिंबेच्या राज्याक वा पाताळाक मनीस धाडिना. घटोत्कच पयलीं सावन पांडवां लागींच आसा. आनी घोडो घेवन अंतराळीं उबून गेल्ले खातीर भीम ताका शाबासकी दिना.

## १० नांवांचें रुपांतर

कोंकणी भारताच्या जायत्या नांवांनी बदलणी जाल्या. हांगा ह्या नांवांची संस्कृत रुपां कंसां भितर दिल्यांत. हें नांवांचें रुपांतर बरोवप्यांच्या चुकींक लागून जाल्लें न्हय. त्या काळार ह्या नांवांचें उच्चारण अशेंच जातालें जावंक जाय. विष्णुदास नामाच्या आनी ह्या काळाच्या दुसऱ्या मराठी लेखकांच्या कृतींनी लेगीत नांवांची असली बदलणी पळोवंक मेळटा.

ही नांवांची बदलणी चड करून प्राचीन कोंकणीचे ध्वनिवेवस्थे प्रमाण जाल्या. पुरुशांच्या नांवांनी संस्कृतांत अखेरेक *अ* (प्रथमा: *अः*) आसलें जाल्यार तें प्राचीन कोंकणींत *उ* जाता. (अपभ्रंश आनी प्राचीन मराठींत जाता तशें). *श* वा *य* असल्या ताळव्या व्यंजनां उपरांत *अ*चें उच्चारण *ए* जाता. मध्याक्षरांत चड करून *आ* आशिल्ले कडेन तें क्षीण जावन *अ* जाता. अंत्याक्षर सोडल्यार दुसरे कडेन दीर्घ स्वर *ई* आनी *अ* अनुक्रमान ह्स्व स्वर *इ* आनी *उ* हातूंत विलीन जातात. संस्कृत शब्दांनी *ऋ* आशिल्ले कडेन ताचें उच्चारण *रु* जाता.

*ज*चें उच्चारण स्थाना प्रमाण *ज* वा *ज़* जावं येत. पूण प्राचीन कोंकणींत मिशनरी तें बरयतात. शब्दां मदीं वा अखेरेक महाप्राण व्यंजन आयल्यार तें अल्पप्राण जाता. पूण जायते फावट असले कडेन महाप्राण व्यंजना बदला अल्पप्राण व्यंजन मेळटा इतलेंच न्हय, अल्पप्राण व्यंजना बदला महाप्राण व्यंजनूय बरयल्लें मेळटा. देखीक, *भारत* हो शब्द जायते कडेन *भारथ* असो बरयल्लो मेळटा आनी विदुराचें नांव चड करून *विधुर* अशें मेळटा. संस्कृत *न* आनी *ल* व्यंजनां दोन स्वरां मदीं आयल्यार तीं अनुक्रमान *ण* आनी *ळ* जातात. संयुक्त व्यंजन *ल्य* आनी *न्य* हांचे बदला *ल* आनी *न* मेळटा. *र्ण* आशिल्ले कडेन *र्न* मेळटा. *श* आनी *ष* हांचें उच्चारण पयलीं *स* जाल्लें.



पूण संस्कृत नांवांनी *ष* आसा जाल्यार ताचें उच्चारण *ख* जाता. *स*चें उच्चारण फुडल्या वा ताळव्या स्वरां पयलीं *श* जाल्लें जावंक जाय. असले कडेन थोडे फावट आमकां *श* बरयल्लेंय मेळटा: *शिखंडियो (शिखंडी), शेतवानु (श्वेतवाहन)*. मध्याक्षरांत *श्व* आशिल्ले कडेन *स्प* मेळटा, पूण दुसरे कडेन तें *स* जाता. संस्कृत नांवांनी *ष्ण* आशिल्ले कडेन *स्ट्ण* मेळटा. (कृष्णाचें नांव *क्रुस्ट्णु* अशें बरयतात). शब्दाचे सुरवेक *स्क* वा *स्त्र* आशिल्ल्या थोड्यां नांवांनी आदिस्वरागम जाल्लो दिसता: *अस्त्रिवेखु (स्त्रीवेष), एस्कंद्पुराण (स्कंदपुराण)*. दोन स्वरां मदीं मेळटा त्या *ह* व्यंजनाचो लोप जाता. थोडे फावट दुसऱ्या अक्षरांत आशिल्लें *ह* आनी महाप्राणत्व शब्दाचे सुरवेक उडी मारतात. *भ्रम अरण्ये (< ब्रह्मारणे < ब्रह्मारण्य)*. असलीं परिवर्तनां चड करून प्राचीन मराठींतूय मेळटात.

कोंकणीचे ध्वनिवेवस्थे प्रमाण बदल्लेलीं थोडीं नांवां पळयात: *अगासुरु (अघासुर), अमरनातु/अमरनाथु (अमरनाथ), अमरेस्परु (अमरेश्वर), अम्रुतगिरि (अमृतगिरि), अनुसलु (अनुशाल्व), अर्जुनु (अर्जुन), अस्पिनदेव (अश्विनदेव), अस्टलोकपाळ (अष्टलोकपाल), भिमु (भीम), भिस्मु (भीष्म), कमळकरु/ कमळाकरु (कमलाकर), कमळनयेनु (कमलनयन), कर्नु (कर्ण), कस्मिरदेसु (कश्मीरदेश), कोंव्सु (कंस), क्रुस्ट्णु (कृष्णु), कुंभकर्नु (कुंभकर्ण), इस्परु (ईश्वर), लोहितासु (लोहिताश्व), नवुसु (नहुष), किंधमु (किंदम), रोयिणी (रोहिणी), सलु (शल्य), सिता/शिता (सीता), वय्संपायेनु (वैशंपायन), उपमनु (उपमन्यु), विस्ट्णु (विष्णु), शेकुनि (शकुनि), शेतवानु (श्वेतवाहन)*.

दोन घटक आशिल्ल्या संयुक्त नांवांनी ते घटक वेग-वेगळेच मेळटात. देखीक, *सुख इंद्र (शुकेंद्र), भ्रम अरणे (ब्रह्मारण्य > ब्रह्मारणें)*, ही पद्दत नांवांनीच आसा अशें न्हय, दुसऱ्या संयुक्त शब्दांनीय ती पळोवंक मेळटा: *विध्या अभ्यासु (विद्याभ्यास)*. दुर्योधनाक *राजा इंद्रु (राजेंद्र)* म्हळा.

थोड्या नांवांनी कोंकणी ध्वनिवेवस्थे प्रमाण मेळटा ते बदलणे शिवांय दुसरींय अनियमीत परिवर्तनां मेळटात. देखीक, *अय्ला (अहल्या), अजमेळु (अजामिल), भ्रनेट्ट (बृहन्नट), कंवडणु (कौंडिन्य), दुस्टदुमनु (धृष्टद्युम्न), एवनासु (यौवनाश्व), मय्रध्वजु (मयूरध्वज), पद्मिनु (प्रद्युम्न), खिकंदा (< किंखिंदा < किष्किंधा), सेळोंद्री/शेळोंद्री (सैरंध्री), उदळिकु (उद्दालक)*, इत्यादि. उंचसर्व (उच्चश्रवा) ह्या नांवांत दुसरे बदलणे शिवाय व्यंजन-स्वर अदलाबदल (र >अर्) जाल्लो दिसता. *देवस्रमा (देवशर्मा)* ह्या नांवांत स्वर-व्यंजन अदलाबदल (अर् < र) जाला. *सस्रुमा (सुशर्मा)* ह्या नांवांत सुरवेच्या दोन अक्षरांनी स्वर अदलाबदल *(उ c अ > अ c उ)* जाला आनी ते भायर एक व्यंजन-स्वर अदलाबदल जाल्लो दिसता. (हांगा *c* मदीं व्यंजन आसा म्हणून दाखयता). *अस्तानपुर (< अस्तनापुर < हस्तिनापुर) आनी संतान (< सांतन < शांतनु)* ह्या नांवांनीय स्वरांची अदलाबदल *(आ c अ > अ c आ)* जाल्ली दिसता. थोड्या नांवांनी मदीं अनुस्वार वा नाकयें व्यंजन येता: *भगदंतु (भगदत्त), काळकंवसिकु (कालकौशिक), कोव्रंव (कौरव), किंचकु (कीचक), सोमदंतु (सोमदत्त), उर्वंसी (उर्वशी)*.

थोड्या बदलण्यांक कांय ध्वनिविज्ञानीक कारण दिसना. असल्यो बदलण्यो ह्या नांवांनी मेळटात: *चित्रंगजा (चित्रांगदा), कोंतभोजु (कुंतिभोज), कोंती (कुंती), द्रुपदी (द्रौपदी), द्रुण (द्रोण), इंद्रप्रेस्त (इंद्रप्रस्थ), मायासुरु (मयासुर), पंडु (पांडु), फरिसरामु (परशुराम), पुराचनु (पुराचन), सनिसप्तकु (संशप्तक)*.

थोड्या नांवांनी इतलें बदलप जालां की पात्रांचीं संस्कृत नांवांच जाणा आशिल्ल्याक तीं नांवां आयकल्यार पात्रांची वळख मेळची ना: *किसिया (केशी), संकरसेनु (संकर्षणु), सुखसेनु (सुषेणु), सुदामा (सुधन्वा), सुद्रसेण (सुदेष्णा)*.

विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारतांत* आनी त्या काळाच्या दुसऱ्या मराठी कृतींनीय असल्यो बदलण्यो मेळटात. पूण तातूंत थोडो फरक मेळटा. देखीक, प्रद्युम्नाचें नांव कोंकणी *भारतांत पद्मिनु* म्हणून दिलां. पूण मराठी कृतींनी *प्रद्मिनु* म्हणून दिलां. जयद्रथाच्या बापायचें नांव कोंकणी *भारतांत* भुचंडी म्हणून दिलां पूण मराठी कृतींनी *भ्रुचंडी* म्हणून दिलां.

कोंकणी भारतांत मेळटात तीं थोडीं नांवां संस्कृत *महाभारतांतल्या* नांवां परस वेगळींच आसात : शांतनु रायाचे दुसरे बायलेचें नांव *सुगंधा* म्हणून दिलां. संस्कृत *महाभारतांत* तिचें नांव सत्यवती. बकासुराचें नांव *तोंडियो राखेसु* म्हणून दिलां. विष्णुदास नामाच्या मराठी *भारतांत* तो *तोंडिया*. जयद्रथाच्या बापायचें वृद्धक्षत्राचें नांव भुचंडी म्हणून दिलां. विराटाच्या राज्यांत आसतना नकुलान आनी सहदेवान घेतिल्लीं नांवां अनुक्रमान *साणी* आनी *खिरारी* म्हणून दिल्यांत. *साणी* म्हळ्यार घोड्यांची जतनाय घेवपी आनी *खिरारी* म्हळ्यार गायांचो राखणो. संस्कृत *महाभारतांत* तांचीं नांवां *ग्रंथिक* आनी *तंतिपाल* अशीं मेळटात. नीलध्वजाच्या राज्याचें नांव *म्हैकवती* म्हणून दिलां पूण तें जैमिनि अश्वमेधांत *माहिष्मती* म्हणून मेळटा. जैमिनि अश्वमेधांत अर्जुन एकल्या रुशीक मेळटा. ताचें नांव थंय

*सौभरि* म्हणून दिलां. कोंकणी *भारतांत* ताचें नांव *सांभ ऋशी.* वालि पाताळा सावन परत आयले नंतर सुग्रीव राज्य सोडून एका पर्वतार वचून रावता. त्या पर्वताचें नांव कोंकणी *भारतांत म्हैंकु* म्हणून दिलां. *रामायणांत* ताचें नांव *ऋष्यमूक, महाभारतांत* किंदमा रुशीचे बायलेचें नांव दिवंक ना. कोंकणी *भारतांत* तिचें नांव किंदमि.

संस्कृत *महाभारतांत* आनी कोंकणी *भारतांतूय रामायणाच्यो* अनेक कथा आनी उपकथा मेळटात. देखून तातूंत *रामायणांतल्लीं* नांवांय मेळटात.

## ११. कोंकणी *भारताचें* मराठी अंश

त्या काळाच्या बरोवपाच्या नेमा प्रमाण कोंकणी *भारतांत* जें कितें पद्यरुपांत आयलां तें कोंकणींत मेळना, मराठी वा संस्कृत भार्शेत मेळटा. कोंकणी *भारतांतल्या* ६९ कथां मर्दी ४६ कथांचे सुरवेक मराठी ओवी मेळटा. ओवी प्राचीन मराठीचो मुखेल छंद. हातूंत चार वळी आसतात. दुसरे आनी तिसरे वळींत वा पयल्या तीन वळींनी अंत्यानुप्रास मेळटा. अंत्यानुप्रासाक निमाणें अक्षर (व्यंजन + स्वर) एका सारकें आसूंक जाय. पूण स्वरांत थोडो भेद आसूं येत. एक स्वर तोंडी आनी एक स्वर नाकयो आसूं येत वा एक स्वर लांब आनी एक स्वर मोटवो आसूं येत. स्वरांच्या दुसऱ्या लक्षणांनी मात भेद आसूंक नजऽ. देखीक,

आदिपर्व, दुसरे कथेचे सुरवेक

*भिस्मु बोले मंत्र्यां प्रधानां पासीं* [=भीष्म मंत्र्यां कडेन म्हणटा]
*राजा दुचितु माहा मानसी* [=राय मनांत खूब उदास जाला]
*कामु नाहीं रायासि* [=रायाक कसलोच हावेस ना]
*तेणें दुखी थोरु झळंबत* [=ते वरवीं दुक्खी जाला, चड कळवळटा]

सभापर्व, चवथे कथेचे सुरवेक:

*ह्या फुडां उठिल हळाळ* [=हे फुडें खळबळ जातली]
*द्रुपदिएसि नग्न करिती कौरव वीर* [=कौरव वीर द्रौपदीक नग्न करतले]
*दुरियोधनु बोले उतर* [=दुर्योधन उतर (आज्ञा) दितलो]
*परिएसा तुमीं चित दिउनु* [=तुमी मन दिवन आयकात]

अश्वमेधपर्व, णववे कथेचे सुरवेक:

*वादेतुरांचें घोखें* [=वादयांचो, तुरांचो घोष]
*दोनी वारू धोरुनु चमके* [=दोनूय घोडे धरून चलता]
*रायासि विनविलें शेवकें* [=रायाक सेवकान विनती केली]
*तंब्रध्वजु पथि आला* [=पळयात, ताम्रध्वज आयला]

कांय कडेन ओवये उपरांत तिचो अर्थ दिला.

कोंकणी गद्यांतूय मराठीचे अंश मेळटात. एकवचनांत अखेरेक -ईआशिल्ल्या कितल्याश्या स्त्रीलिंगी नामांच्या भोववचनांत कोंकणीच्या *-ओ* कुसा बदला, मराठीचें *-आ* कूस मेळटा. देखीक,

कोदेक्स ७७१, पान २०६ रे (३९१): *हाटवटिया* [*हाटवटी* 'ल्हान बाजार', हाचें भोववचन]

पान ७२ रे (१४३): *पुरिया* [*पुरी* हाचें भोववचन]

पान ७२ रे (१४३): *घारिया* [*घारी* हाचें भोववचन]

पान १४० वे (२७८): *बुकिया* [*बुकी* हाचें भोववचन]

पान ३५६ वे (६८०): *सुरदुदुंबिया* [*सुरदुदुंबी* 'एके तरेचो ध्होल', हाचें भोववचन]

पान ३८० वे (७४८): *दिवटिया* [*दिवटी* हाचें भोववचन]

जायते कडेन मराठी कर्मकारक/संप्रदानकारक कूस- *सि* मेळटा. कोंकणींत हें *-क* कूस.

कोदेक्स ७७१, पान १५० वे (२९२): *प्रधान मंत्रियांसि सांगिल*

पान ८३ रे : *तूं समेस्तांसि राखतासि.*

सकयल दिल्ल्या वाक्यांनी *म्हणे* हें क्रियारूप मराठी. सुरवेक तें वर्तमानकाळी रूप पूण मागीर तें भूतकाळी रुप जालां. कोंकणींत हाचे बदला *म्हण* मेळटा.

कोदेक्स ७७१, पान १६३ वे (३१८): (दुर्योधनु) म्हणे, "धनुर्विध्या [धनुर्विद्‌या] अर्जुनु बरी सिकिलो."

पान २१३ रे (रावो) म्हणे, *"आरे पुत्रा, सुदाम्या* [सुधन्वा], *तुका येवडो परमेस्परु शाकारी (सहकारी) जाहाला?"*

सकयल दिल्ल्या वाक्यांत क्रियारूप *आसेल* मराठी. कोंकणींत हाचे बदला *आसत* मेळटा.

पान ३५२ रे (६९१): *स्वामी निदेला आसेल तरि*

सकयल दिल्ल्या वाक्यांत *वाचावें* हें क्रियारूप मराठी, कोंकणींत ताचे बदला *वाचुंचें* मेळटा.

पान २३२ रे (४५४): *ह्या निमितीं अम्रुत अमकां (आमकां) वेगीं उठाउठी पयलें धाडुनु मागिरि हें कागत वाचावें.*

वयर दिल्लें वाक्य पाताळाच्या राया शेषाक राया बभ्रुवाहनान बरयिल्ल्या पत्रांतलें म्हणून लक्षांत दवरपाचें. असले कडेन उपचारीक भास उचीत म्हणूं येत.

कोदेक्स ७७१ हांतल्या आदिपर्वांत बरोवप्यांनी जायते कडेन मराठी शब्द वापरिल्ले, ते कोणें दुसऱ्यान बदलून तांचे सुवातेर कोंकणी शब्द दिल्यात. हाच्यो देखी भाग २: 'पयलींचें संपादन-कार्य' हाचे मागीरच्या भागांत मेळटात.

## १२. कोंकणी भारताचे संस्कृत अंश

कोंकणी भारतांत १२ संस्कृत पद्यांश मेळटात. तांकां कोंकणी भारतांत 'सिळोकु' म्हळ्यात पूण ते सगले श्लोक न्हय. तातूंत १२ श्लोक अनुष्टुभ, छंदांत एका शार्दूलविक्रीडित, आनी एक स्रग्धरा छंदांत आसात. दोन श्लोक दोन फावट मेळटात.

हे संस्कृत पद्यांश भ्रश्ट रुपांत मेळटात. शब्दांची रुपां अशुद्ध आनी वळींत अक्षरांची संख्या आनी तांचे क्रम छंदाच्या नेमा प्रमाण नात. देखीक,

पान ६४ रे (१२७): *अथिरं जिविते लोके अथिरं धनयावन*
*अथिरं पुत्रदारच्य धर्मकिर्ति एथा स्थिर.*

हाचें सारकें रूप म्हाका एका सुभाषितसंग्रहांत (स्टेर्नबाख १९७४,

दुसरो भाग, पान ८६०) मेळ्ळें:

*अस्थिरं जीवितं लोके अस्थिरं धनयौवनम्*

*अस्थिरं पुत्रदाराश्च धर्मकीर्तिद्वयं स्थिरम्*

(=संवसारांत जीण अस्थीर, धन आनी यौवन अस्थीर, घरकान्न आनी भुरगीं अस्थीर. धर्म आनी कीर्त ह्यो दोन वस्तू स्थीर.)

अशीं म्हाका पांच श्लोकांचीं शुद्ध रुपां सुभाषितसंग्रहांनी मेळ्ळीं. दुसऱ्या पद्यांशांचीं सारकीं रुपां म्हाका मेळ्ळीं नात. तेन्ना हांव मैसूर प्राच्य संशोधनालयांतल्या एकल्या संस्कृत विद्वानाक डॉ. जगन्नाथांक, मेळूंक गेलों. तांणी त्या सगल्या पद्यांशांचो व्याकरणाच्या आनी छंदांच्या नेमा प्रमाण सुधार करुन म्हाका दिलो. देखीक,

*दुर्झनं सो उंसर्गे मनहाणि पदे पदे*

*पावोको लोहसंगेन दुर्जनं ताळनं येथा.*

डॉ. जगन्नाथान शुद्ध करून दिल्लें रूप:

*दुर्जनानां हि संसर्गे मानहानिः पदे पदे*

*पावको लोहसंगेन लभते ताडनं यथा,*

[= उज्याक लोखणा सांगाता मार खावचो पडटा तसो दुर्जनांच्या सहवासांत पावला पावलाक अपमान मेळटा.]

कोंकणी भारतांतलीं पात्रां चड करून कसल्याय विशयाचेर भर दिवपाक ह्या संस्कृत पद्यांशांचो सुभाशीत सुत्रां भाशेन उपेग करतात. तातूंत कथेचें आंग ना. देखीक, वयर दिल्ल्या श्लोकां मदीं पयलो श्लोक बाहु राय इंद्राच्या अप्सरां कडेन, रंभा आनी उर्वशी कडेन, उलयतना आपल्या उतरांक जोडटा. सभापर्वांत दुर्योधन आपल्या राज्याचो अर्दो भाग पांडवांक दिवपाक तयार ना म्हणून धृतराष्ट्रा आनी विदुरा कडेन ह्या विशयाची चर्चा करतना भीष्म तांकां बाहु रायाची काणी सांगता. बाहु रायाक भूल घालूंक इंद्र आपल्या अप्सरांक, रंभेक आनी उर्वशीक, ताचे कडेन धाडटा. पूण बाहु रायाचेर तांचो जादू चलना. गदापर्वांत हो श्लोक दुसरे फावट येता. तातूंत कृष्ण अर्जुना कडेन उलयतना तो आपल्या उतरांक जोडटा. भीष्मान अर्जुनाक सांगिल्लें खंय, कोणाक पुरूंक ना तसले सुवातेर आपणाक मरतकूच पूर म्हणून. पूण अर्जुनाक तसली सुवात मेळना आनी तेन्ना कितें करपाचें तें विचारूंक तो कृष्णा कडेन येता. तेन्ना कृष्ण अर्जुनाक उपदेश दिता. सभापर्वांत धृतराष्ट्र दुर्योधनाक उपदेश दितना वयर दिल्ल्या दुसऱ्या श्लोकाचो उपेग करता. दुर्योधन शकुनि आनी कर्ण असल्या दुर्जनांचो सांगात करता देखून ताचें बरें जायना म्हणून सांगपाक.

ह्या पद्यांशां भायर कोंकणी भारतांत एक संस्कृत वाक्य मेळटा. तें धर्मान सांगपाचें पूण धर्म कांय उलयना देखून कृष्णाकूच तें सांगचें पडटा. द्रोणपर्वांत द्रोणाक निरुत्साही करपाक आनी तो आपली शस्त्रां भूंय घाली-शें करपाक कृष्ण धर्माक सांगता, द्रोणाक सांग, ताच्या पुताक कोणें मारलो म्हणून. कृष्ण जाणा, धर्माचें उतर द्रोण पातयेतलो म्हणून, कित्याक, तो सदां सतूच उलयता. कृष्ण धर्माक हें म्हणूंक सांगता पूण धर्म कांय उलयना, 'क' इतलेंच म्हणटा. तेन्ना कृष्ण आपलो शंख वाजयता आनी म्हणटा,

पान ३७३ वे (७३४): अस्वस्तमा [अश्वत्थामा] हातो [हतो] अस्ववानरो

ह्या भ्रश्ट संस्कृत वाक्यांत निमाण्या शब्दाचो अर्थ कितें तो समजना.

संस्कृत महाभारतांत भीम अश्वत्थामा नांवाच्या एका हतयाक मारता आनी म्हणटा, ताणें अश्वत्थामाक मारलो म्हणून. कृष्ण धर्माक भीमाचें उतर परतून सांगूंक सांगता, तेन्ना धर्म व्हडल्यान म्हणटा,

*अश्वत्थामा हतः* [=अश्वत्थामाक मारलो]

मागीर तो फुतफुतता,

*हतः कुंजरः* [=हतयाक मारलो].

## १३. लातीन आनी पुर्तुगेज टिपण्यो

कोदेक्स ७७२ तल्या आदिपर्वांत, सभापर्वांत आनी अरण्यपर्वांत मुखेल बरपाचे कुशीक समासांत (मार्जिनेंत) लातीन भाशेच्यो टिपण्यो मेळटात. हातूंत चड करून त्या पानार आशिल्ल्या थोड्या शब्दांचो, पदबंदांचो, आनी वाक्यांचो अर्थ मेळटा, पूण सारको अणकार न्हय. खंयच्या पदबंदांचो आनी वाक्यांचो अर्थ थंय दिला म्हणून स्पश्ट सुचोवणी मेळना, पूण चड करून हें थारावपाचें काम सोंपें. थोडे कडेन ह्या टिपण्यांनी त्या पानार दिल्ल्या गजालींची टिकाच तितली मेळटा (देखी ३, ५, ७ आनी १२ पळयात).

१. पान ४ वे (८): कोंकणी: *राजें आणिक हें शेरिर, लख्मि, कोणाकयि स्थिर न्होयें.*

[= राज्य आनी हें शरीर (आनी) लक्ष्मी कोणाकूच स्थीर न्हय.]

लातीन: मुंदी विया इन्कोन्स्तांतिया [= संवसाराची चाल अस्थीर.]

२. पान ७ रें (१३): कोंकणी *नगर श्रृंगाऱ्या.*

लातीन: *ओनरि चिवितातेम्* [= नगर सोबोवप]

३. पान ७ वे (१४): कोंकणी: *तिच्या पोटांतु पुत्रु जो आसिलालो तो कानांतुल्यान काडिलो. ती जयुसी फुडे आसिली तयुसिचि कोर्नु...*

लातीन: *वीर्गो एत् मातेर्* [=आंकवार आनी आवय]

४. पान ८ रे (१५): कोंकणी: स्रापु तंय माका लागला... *तें जातलेंचि.*

लातीन: *वेर्बुम् सांक्तोरुम्* सेर्तुम् [=संतांचें उतर निश्चीत].

५. पान ९१ वे (१८०): कोंकणी: (ह्या पानार कृष्ण ब्रह्महत्ये कडेन संदिग्ध उतरां उलयता. ताणें "द्वापरी यो" म्हळ्ळें देखून ती दनपारां तांचे कडेन वता पूण तेन्ना तो म्हणटा, ताणें तिका द्वापर युगांत येवंक सांगिल्लें)·

लातीन: *क्रुस्ट्णी फ्राउदेस* [=कृष्णाचें कपट].

६. पान ९१ वे (१८०): कोंकणी: *जे संवसारीं प्राणिये पाप करिताति तांचें आवुखें दिसान दिसु उणें जाता.*

लातीन: *पेक्कातोरिस वीता ब्रेविस* [=पापयांची जीण मोटवी]

७. पान ९२ वे (१८२): कोंकणी: (दुर्योधन भीष्माक सांगता:) *तुमकां पांडव आणी आमीं सारिखेची [सारिखेचि]. तुमी मधें भेदु करुनु चालताति.*

लातीन: *युस्तिसिया एक्वालिस* [= समान न्याय]

८. पान ९२ वे (१८२): कोंकणी: *जो एकादो प्राणियो करणां कर्ता ताका आपणें केलेलें बरें दिसता.*

लातीनः *विदेत नेमे कुल्पाम् प्रोपिआम्* [= आपली चूक कोणूच पळेना].

९. पान ९३ रे (१८३): कोंकणीः *त्या दुर्योधनाचो रागु शांतु नज.* [= त्या दुर्योधनाचो राग शांत जायना.]

लातीनः ईरा माग्ना [= व्हड राग].

१०. पान ११८ वे (२३४): कोंकणी : *अंती जड जाणें जें केलां ताचें उसिणें परमेस्परु घेतल्या बगर सोडी नां.*

लातीनः *पेक्काती पेना* [= पापयांची ख्यास्त].

११. पान ११८ वे (२३४): कोंकणी : *परमेस्परु सर्वत्राक पोसिता.*

लातीनः *सुस्तेन्तात् ओम्निआ देउस्* [=देव सगल्याचें पोशण करता.]

१२. पान १२४ रे (२४५): कोंकणीः [ह्या पृष्ठांत नारदाचे भेटेचें वर्णन आसा.]

लातीनः *विज़ितातिओ सांक्तोरुम् एत् चेत्.* (= संतांची भेट, इत्यादी.)

१३. पान १२४ रे (२४५): कोंकणीः *तो सहस्र पापी जरि जाहालो तरि ताका तुमीं हे वेळे उपकारु करुनु सोडवुनु हाडवुंचो.*

लातीनः *कुल्पा कोंदोनांदा माक्सिमे कोन्सांग्विनिस.* [=सोयऱ्यांच्यो चुकी जाता तितल्यो भगसुंच्यो.]

१४. पान १२७ वे (२५२): कोंकणीः *मोगाचीं उतरां* [हांगा दुर्योधन मोगाचीं उतरां जीं उलयता तीं खुशामतीचींच.]

लातीनः *आदुलातोरिया वेर्बा* [=खुशामतीचे शब्द.]

कोदेक्स ७७१ त जायत्यो पुर्तुगेज टिपण्यो आसात. देखीक, *टगळि 'आबिलिदाद्* [=कुशळकाय], *दर्बु 'सेर्ता एर्वा'* [= एक तण], *निपुण, 'देश्त्रुश्'* [=निपूण], *असिवार 'कावालेय्रुश्* [=घोडेस्वार], *परवडी 'फिलेय्रश्,* [=वळी], *धुंदुकारु 'ज़ुनीदु'* [=गुणगूण], *ब्रह्मादिक 'द निज़ूं मानेग्रा'* [=केन्नाच], *राजभस्ट 'दिश्तेर्रु'* [=तडीपार केल्लो], इत्यादि. चड करून पुर्तुगेज अर्थ कोंकणी शब्दा वयर दिला. कांय कडेन अर्थ समासांत दिलाः

पान १५० रे (२९१): *गळो आलिंगण धरितं [धरितां] 'आब्रासार'* [= वेंग मारप].

**१४. कोंकणी भारताचीं पात्रां**

चड करून संस्कृत *महाभारतां*तल्या आनी कोंकणी *भारतां*तल्या पात्रां मदीं विशेश फरक ना. धृतराष्ट्राचें एक पात्र मात कोंकणी भारतांत वेगळेंच दिसता. दुर्योधनान कितेंय वायट काम केल्यार तो ताका खऱ्यांनीच धपकायता. संस्कृत *भारतां*त धृतराष्ट्र कपटी मनीस. आपूण पांडवांक आनी आपल्या पुत्रांक समदृश्टीन देखतां म्हणून धोंग करता पूण सदांच दुर्योधनाचो पाखो घेता.

कोंकणी *भारतां*त कृष्ण संस्कृत *महाभारतां*तले परस चड कपट करता, अशें दिसता. हांगा तो कौरवां विरुद्धूच न्हय, तर पांडवां विरुद्धूय कपेट करता. अभिमन्युक मारपांत कृष्णाचो हात आसा, अशें दिसता. अभिमन्यु ताचे जायते गूट जाणा म्हणून कृष्णाक कळटा. पूण ताका मारपाची गरज ना अशेंय ताका दिसता, कित्याक, कुरुक्षेत्र युद्धांत अभिमन्यु मरतलो म्हणून तो जाणां तरी अभिमन्युक मारपांत कृष्ण कौरवांची मंजत करता अशें दिसता. अभिमन्युक मारचे एक दीस पयलीं कृष्ण एका संन्याशाच्या भेसान हस्तिनापुरांत दुर्योधनाक मेळटा. दुर्योधन ताका आपल्यो खंती सांगता. कृष्ण म्हणटा, दुर्योधन फुडल्या दिसा ताणें सांगिल्ले भाशेन झुजत जाल्यार पांडवांचो एकलो व्हड झुजारी युद्धांत पडटलो : दुर्योधनान संशप्तक सैन्य अर्जुना कडेन झुजूंक धाडपाक जाय. दुसऱ्यांक घेवन द्रोणान एक चक्रव्यूह रचूंक जाय आनी ताच्या रक्षणाक प्रवेशद्वारार जयद्रथाक उबो करूंक जाय. जयद्रथाक शिवान वर दिल्लो आसा, कुरुक्षेत्र युद्धाच्या एका दिसा अर्जुनाक सोडून दुसरो कोणूय पांडव जयद्रथा फुडें उबो रावूंक शकचो ना म्हणून. फुडल्या दिसाच्या युद्धांत अर्जुन संशप्तकां कडेन झुजूंक वता आनी द्रोण चक्रव्यूह रचता. धर्म ताचे भितर सांपडटा. पूण धर्माक आदार दिवंक ताचे भाव भितर वचूंक शकनात. कित्याक, कौरवांनी भितर वचपाचे वाटेर जयद्रथाक उबो केला. तेन्ना अभिमन्यू झुजूंक फुडें सरता. तो चक्रव्युहा भितर वचून धर्माक सोडयता. पूण थंय कौरव जायते जाण मेळून ताका मारतात. भितर वचचे वाटेर जयद्रथ आशिल्ल्यान भीम वा ताचे भाव अभिमन्युक आदार दिवपाक भितर वचूंक शकनात.

बभ्रुवाहना विशींय कृष्णाक चिंता आसा. तो भीमाक पद्मावती कडल्यान जाल्लो पूत.बभ्रुवाहन एक व्हड झुजारी, पूण ताणें प्रतिज्ञा केल्या, तो कुरुक्षेत्र युद्धांत जाची हार जावची आसा ताका आदार दितलो म्हणून. कृष्णाक दिसता, कुरुक्षेत्राच्या युद्धांत दुर्योधनाची हार जावची आसा, देखून बभ्रुवाहन ताच्या आदाराक वतलो म्हणून. देखून कृष्ण ताका काडून उडोवपाचो निश्चय करता. युद्ध सुरू जावचे पयलीं कृष्ण बभ्रुवाहनाक आपयता आनी सांगता, तूं मध्यानरातीक रण-खांब्या कडे वच आनी थंय पांच नाल्ल फोडून पुजा कर म्हणून. मागीर तो भीमाक आपयता आनी सांगता, तूं रातीक रण-खांब्या कडेन वचून ताची रक्षा करपाक थंय वोगीच राव आनी कोणाक थंय कांय उपद्रव करूंकक सोडी नाका म्हणून. भीम 'बरें' म्हणून थंय वता. थंय तो नाल्ल फोडपाचो आवाज आयकता. तो समजता, थंय कोण उपद्रव करूंक आयला म्हणून आनी ताका गदेन मारता. काळखांत ताका आपल्या पुताची वळख मेळना. बभ्रुवाहनाक चड मार लागता आनी तो कुरुक्षेत्र युद्धांत झुजूंक शकना.

बलभद्र आनीक एकलो व्हड झुजारी आनी ताणें दुर्योधनाक सांगलां, आपूण ताका आदार दितलों म्हणून. देखून कृष्ण ताकाय कुशीक काडपाचो निश्चय करता. युद्धा वेळार ताका पृथ्वीच्या भ्रमणाक धाडपाची मांडणी करता. संस्कृत *महाभारतां*त बलभद्राची कथा वेगळीच आसा. तो कुरुक्षेत्र युद्धांत कोणाच्याच पक्षांत झुजूंक तयार नासता. देखून तो आपुणूच पृथ्वीच्या भ्रमणाक वचपाचो निश्चय करता. पूण कोंकणी *भारतां*त युद्धांत पयलीं अर्जुन आनी दुर्योधन कृष्णाचो आदार मागपाक गेल्ल्या वेळार कृष्ण विचारता, तुमकां कोण जाय? हांव जाय काय बलभद्र आनी छप्पन कोटी यादव सेना जाय? एक मात, हांव ह्या युद्धांत कोणाच खातीर झुजचों ना आनी कसलेंच शस्त्र वापरचों ना. दुर्योधन म्हणटा, तूं म्हाका बलभद्र आनी छप्पन कोटी यादव सेना दी. कृष्ण जाणा, बलभद्र युद्धांत दुर्योधनाक

आदार दितलो म्हणून. देखून कृष्ण तो त्या वेळार हस्तिनापूर सोडून पयस वचशें करता. तो एकल्या ब्राह्मणाक सांगता, तुमी पांयशी ब्राह्मण मेळून हस्तिनापुराचे वाटेर बसात. आनी तूं दुसऱ्या ब्राह्मणांक परमेश्वराच्यो कथा वाचून सांग म्हणून. कोणूय ते वाटेन आयलो जाल्यार तूं उठूं नाका. ताका निर्लक्ष करून तूं आपलें वाचप चालू दवर. कृष्णान बलभद्राक आपणाक मेळूंक आपयिल्लो. तो जाणा, बलभद्र ते वाटेन ताका मेळूंक येतलो म्हणून. बलभद्र थंय पावतकूच दुसरे सगले ब्राह्मण उठून उबे रावतात पूण तो कथा सांगपी ब्राह्मण ताका निर्लक्ष करून कथा वाचीत रावता. ते पळोवन बलभद्राक राग येता आनी तो ताचें शीर कापता. मागीर आपणें एकल्या ब्राह्मणाक मारलो म्हणून कळटकूच तो चिंतेस्त जाता आनी कृष्णा कडेन वचून विचारता, आता आपणें कितें प्रायश्चीत करपाक जाय कांय म्हणून. कृष्ण ताका सांगता, ताणें सगले पृथ्वीचें भ्रमण करून येवपाचें म्हणून. हे तरेन कृष्ण कुरुक्षेत्र युद्धा वेळार बलभद्राक पयस दवरता.

## १५. कोंकणी *भारता* प्रमाण कुरुक्षेत्राच्या युद्धाचें मूळ निमित्त

कोंकणी *भारतांत* चार वेगवेगळ्या अवेस्वरांनी कुरुक्षेत्राच्या युद्धाच्या मूळ निमित्ताची चर्चा आसा. पयलीं सभापर्वांत त्रिकालदर्शी विदुर पांडवां कडेन हे विशीं उलयता [पान ९१ रे -९१ वे (१७९-१८०]. अरण्यपर्वांत धृतराष्ट्र आनी गांधारी हाचो उल्लेख करतात. (पान ११६ रे -११६ वे) ते उपरांत भीष्मपर्वांत एकलो ब्रह्मराक्षस भीमाच्या पुता कडेन, बभ्रु कडेन हे विशीं उलयता [पान २७४ वे-२७५ वे (५३८-५४०)] ते नंतर द्रोणपर्वांत अभिमन्यु कृष्णाचे युक्तीची आपणाक सगली म्हायती आसा म्हणून दाखोवपाक कृष्णा कडेनूच हे विशीं उलयता [पान ३३० रे - ३३० वे (६४९-६५०)].

तें निमित्त अशें दिलां: हें युद्ध जावपाक कृष्णानूच पांडवां आनी कौरवां मदीं वैर जायशें केलां. कित्याक, ताणें हत्येक (ब्रह्महत्येक) भास दिल्ली, तो तिची रगता-मासाची तान-भूक भागयतलो म्हणून. तिका तृप्त करपाक एक व्हड संहार जाय-सो करतलो म्हणून. दुर्योधनाच्या अठरा अक्षौहिणी सैन्याचें, तांच्या हतयां-घोड्यांचें, मांस आनी रगत हत्येक दिवन तिका तृप्ती जाय-शी करतलो म्हणून.

ब्रह्महत्येची तान-भूक भागयतलो म्हणून कृष्णान कित्याक भास दिल्ली? हाची फाटभूंय अशी दिल्या. ब्रह्माच्या चार मुखां मदलें एक मूख गाडवाचें आशिल्लें. तें महेशाक बरें लागलें ना म्हणून ताणें तें आपल्या त्रिशुळान छेदलें. तेन्ना हत्या ताचे फाटीं लागली. तो खंयूय गेल्यार ताचे फाटींच वता. ताका सोडी ना. ते पळोवन कृष्णान तिका म्हळें, 'तूं कित्याक हाचे फाटीं लागल्या? तुका कितें जाय?'

हत्येन म्हळें, 'हांव भुकेल्यां आनी तानेल्यां. म्हाका मनशांचें आनी हतयां-घोड्यांचे रगत-मांस दिवन तृप्त कर.'

कृष्णान तिका द्वापरीं येवंक सांगलें. ती दनपारांच आयली. कृष्णान म्हळें, 'तुका हांवें आपयल्ली केन्ना आनी तूं आयली केन्ना? हांवें तुका द्वापर युगांत येवंक सांगिल्लें आनी तूं दनपारांच आयल्या.'

तें आयकून हत्या निराश जावन रडत रडत गेली.

आतां तें द्वापराचें युग पावलां, आनी हे पृथ्वीर दुर्योधना येदो दुसरो राय ना. देखून ताचें आनी ताच्या अठरा अक्षौहिणी सैन्याचें रगत दिवन कृष्ण ते हत्येक तृप्त करतलो.

## १६. क्रिस्तांव धर्माचो प्रभाव

कोंकणी *भारतांतले* प्रार्थनेंत मागणें करपी सदांच आपूण पापी म्हणून कबूल करता आनी देवा कडेन आपूण करता त्या पातकांचें सदां भगसणें मागता.

जेवणा पयलीं पांडव अशी प्रार्थना करतात:

कोदेक्स ७७१, पान २१८ रे (४०९): *'आगा, हे सतेवंता परमेस्परा, आमीं दिसाक आणी रात्रिक मेळुनु तुजेवरि सहस्रु अपराधु करिताउं. तो इतुकोइ आमकां भगसि.'*

अर्जुन रामेश्वरांत प्रार्थना करता:

कोदेक्स ७७१, पान २२७ रे (४२७): *'आगा, ए सतेवंता परमेस्परा, माएबापा, आमी तंव म्रुतलोकिचीं मनुशां. आमीं एका दिसाक आणि रात्रिक पाप जें कर्ताउं तें समेस्त तुका ठाउकें' आसा. जाणतां-नेणतां पाप आमीं जरि केलें तरि तूं आतां माका गुन्याउ भगसि.'*

पांडव आनी कौरव प्रार्थना करतात:

पान ६६ रे (१३१): *'आगा स्वामिया, सर्व हुकुमधारा सर्ग, म्रुतु, पाताळिच्या रचणारा! आमीं सर्व पापी, दिसा-रात्रिक एकु सहस्रु अपरादु करिताउं, आपुल्या कारिया निमिती सत्ये उलइनाउं. आपुल्या स्वार्था निमितीं पेल्याक कस्टउनु दुख दिताउं. अइसले नाना परिचे अपराद करिताउं. इतुकेइं तूं आमकां गुन्याउ भगसि. वाइटि बुद्धि आमकां दिउं नाका. दिसाच्या दिसा तुजिचि भत्ति सुमरण आमकां हें जिबेक आठउ जाऐ, अइसो करि.'*

कुरुक्षेत्र युद्धाच्या दुसऱ्या दिसा भीष्म प्रार्थना करता.

पान २६८ (५२६): *'आगा, हे भगवंता, परमात्म्या, हांव सर्व पापी, नस्टु, अमंगळु. न्होए तीं पापां करितां, एक जाणून कर्तां, एक नेणतां कर्तां. कोणी प्रमाणी तुजी शेवा करुंची, हें तंव माका कळनां, रात्रि-दिसु तुजी शेवा करुंची सांडुनु न्होए तेंचि मनीं चिंतिताउं. अयसल्या पापियांक आमकां अंतीं कोणा ठाया पाइशी, नकळ. आमीं तंव अतितु-अभ्यागतु वळखिलो नां. तानलल्यांची तान निवइली नां, भुकेलल्याक वाडुनु सुखी केलो नां.'*

असली प्रार्थना आमकां कोंकणी *भारतांतूच* मेळटा. ती व्यासाच्या *महाभारतांत* मेळना आनी विष्णुदास नामाच्या *भारतांत* मेळुंकूय कारण नां. असली प्रार्थना क्रिस्तांव दोतोन्नीच्या पुस्तकांत मात सारकी दिसता. हिंदू धर्मांतूय पातकाच्या आनी प्रायश्चित्ताच्या विचारांक महत्व आसा पूण हिंदू प्रार्थनेंत पातकाची आनी प्रायश्चित्ताची इतली चिंता मेळना. महाभारतांतलें साधारण पात्र खंयच्याय देवा कडेन मागतना आपल्या पातकाच्या भगसण्याची इतली चिंता करीत म्हणून दिसना. तें त्या देवा कडेन मागत जाल्यार आपल्या दुस्मानांचो पराभव करपाक आपणाक एक प्रबळ शस्त्र दी म्हणून मागत.

हांगा पयले आनी दुसरे प्रार्थनेंत देवाक *'सतेवंता परमेस्परा',* म्हळा आनी तिसरे प्रार्थनेंत *'आगा स्वामिया, सर्व हुकुमदारा, सर्ग म्रुतु,*

*आनी पाताळिच्या रचणाराम्हळां* हें लक्षांत दवरपाचें. क्रिस्तांव धर्माच्या तत्वां प्रमाण क्रिस्तांवांनी देव 'सत्यवंत, सर्व हुकुमदार, आनी स्वर्गा आनी संवसाराचो रचणार' म्हणून मानपाचें (स्टीवन्स १६२२ तलो सवो अध्याय: क्रेदो पळयात).

हे परस चड क्रिस्तांव पद्धतीची गजाल कोंकणी भारतांत मेळटा ती पातकांची कबुली वा कुमसार. भीष्म अशी प्रार्थना करुन विदुरा फुडें आपल्या पातकांची कबुली करता.

पान ३२२ रे (६३३): *'आगा स्वामिया, हांव अपराधी, जितुकीं पापां हांवें जाणतां केल्यांति तीं तूं माका भगसि.'*

पांडव कृष्णा फुडें आपल्या पापांची कबुली करतात. ही गजाल सकयल दिल्या:

पान ३३४ (६५७): *सुर्यु उदेवु जालो. क्रुस्ट्णु (कृष्णु) वा पांडव उठिले. आपुले नितेकर्म सारुनु परमेस्पोराचें ध्यान-सुमरण करुनु, 'परमेस्पोरा, आपण सर्व अपराधी' म्होणु धुमिरि अस्टांगां लावुनु पायां पडुं लागले, 'आमीं जीं पापां करितावुं, नेणतां-जाणतां, तीं आमकां भोगसि. तुजे वंचुनु आणी एकु तारितलो कोणु नां.'*

*अय्से ते चोव्गयिं जण भाव पाप उचारितातिं देखुनु इदिस्टिरान (युधिष्टिरान) म्हळें, 'जीं जीं पापां आमीं केल्यांति इतुकिंयि क्रुस्टणाक (कृष्णाक) आमी सांगुंया. तो आमच्या पापाक प्राचित दित'.*

*अय्सें धर्माचें उतर आय्कुनु चोव्गायिं जणानी आपुलीं पातकां क्रुस्टणा (कृष्णा) लागीं उचार्लीं. तीं समेस्तां पातकां क्रुस्ट्णान (कृष्णान) आय्किलीं. फाव तें प्राचित तांकां दिलें. फुडां कृष्णान द्रुपदियेक आपयली. तिणें आपुलें पाप उचारुनु सांगिलें. तिच्या पापाक क्रुस्ट्णनाथान (कृष्णनाथान) सोहुव तें प्रचित (प्राचित) दिलें.*

> **असली प्रार्थना आमकां कोंकणी *भारतांतूच* मेळटा. ती व्यासाच्या *महाभारतांत* मेळना आनी विष्णुदास नामाच्या *भारतांत* मेळूंकूय कारण ना. असली प्रार्थना क्रिस्तांव दोतोन्नीच्या पुस्तकांत मात सारकी दिसता. हिंदू धर्मांतूय पातकाच्या आनी प्रायश्चित्ताच्या विचारांक महत्व आसा पूण हिंदू प्रार्थनेंत पातकाची आनी प्रायश्चित्ताची इतली चिंता मेळना.**

पाप-परिहारा खातीर गंगा वा दुसरे खंयचेय पवित्र न्हंयंत स्नान करप, पुराणकथा आयकप, तीर्थयात्रा करप, ब्राह्मणांक दान दिवप, जप करप हें हिंदू चाली प्रमाण सारकें दिसता. कुमसार ही हिंदू प्रथा न्हय.

फुडें दिल्ल्या वाक्यांनी घांटो वाजपाचो उल्लेख लक्षांत दवरपाचो:

पान २७५ वे (५४०): *इतुक्या मधें फांते जालें. नगरांतु परमेस्पराच्यो मुर्ती देवळांतु आसिलल्यो थयिं घांटो वाजिल्यो. तों शब्दु आय्कुनु जे परमेस्पराचे भक्तिवंचळ ते उठुनु वेगीं वेगीं आयले. आपुलें नितेकर्म, सार्नु, सर्व अपरादी म्होणु नमस्कारु करुनु आपुले ठायिं बय्सले. इतुक्या मधें ब्राह्मणान पुराण सांगिलें.'*

असलो आनी एक उल्लेख मेळटा. भावार्थ्यांक आप-आपल्या घरा सदांची प्रार्थना करपाक उगडास करपा खातीर देवळाच्यो घांटो वाजतात:

पान २२७ वे (४४५): *फांत्यारि जे-जे ठाइं परमेस्पराचे नावीं मुर्ती स्थापिल्याति ते देउळीं घांटो वजिल्यो (वाजिल्यो). तो सब्दु आइकुनु जे भग्त आसति ते उबठुनु परमेस्पराचें चिंतक करूंक लागले.*

इग्रेजांनी भावार्थ्यांक मिसाक अथवा दुसऱ्या आचारांक येवपाक उगडास करपा खातीर घांटी वाजतात. लोकांक आपल्या घरांनी सदांची प्रार्थना करूंक उगडास करपा खातीर दुसरेच तरेन घांटी वाजतात. देखीक, आमोरेची घांट. पूण देवळांनी हे भाशेन घांटी वाजपाची पद्धत ना. इग्रेजेंतल्यो घांटो व्हडल्यो आसतात आनी तांचो आवाज भोंवतणच्या वाठारांत आयकूंक येता. पूण देवळाच्यो घांटी त्या मानान ल्हान आसतात. हिंदू पुरयत पुजा करतना एक ल्हान घांट वाजयता. इग्रेजेंतूय मिसा वेळार अशी कांपीण मारपाची पद्धत आसा. पूण असले कांपिणीचो आवाज पयस आयकूंक मेळना. देखून भावार्थ्यांक देवळाक येवपाक अथवा प्रार्थना करपाक उगडास करचे खातीर ते कांपिणीचो प्रयोग करूंक जायना. देवळांत दुसरे कडेन एक ल्हान घांट आसता. देवळाक येवपी चड करून एक-दोन फावटीं ती घांट मारतात. पूण भावार्थ्यांक देवळाक येवपाक अथवा प्रार्थना करपाक उगडास करचे खातीर ते घांटीचो उपेग जायना.

कोंकणी *भारताची* कथा सांगपी *रामायण* आनी *महाभारताचें* ज्ञान आशिल्ले मनीस, पूण ते क्रिस्तांव जाल्ले जावं येत. देखून तांणी असल्यो प्रार्थना आनी असल्या क्रिस्तांव पद्धतींची चर्चा कथेंत जोडल्या जावं येत. वा कथा बरोवन घेतिल्ल्या मिशनरींनी असल्यो गजाली जोडल्यो काय? सांगपाक जायना.

### १७. कथा रचप्यांच्या काळाचो आनी स्थानाचो हेर प्रभाव

हांगा कथा रचपी म्हळ्यार विष्णुदास नामा आनी कोंकणी *भारताची* कथा सांगपी. संस्कृत *महाभारताचीं* पात्रां पत्रां मार्फत एकामेकांक संदेश धाडी नात. पूण कोंकणी *भारताचीं* पात्रां सर्वसाधारपणान एकामेकांक पत्रां बरयतात. कोंकणी भारतांत पन्नासां वयर पत्रां बरोवपाचे उल्लेख मेळटात. हांगा अरण्यपर्वांत मेळटात त्या असल्या उल्लेखांचें निरूपण पळयात.

पान १०७ वे (२१२): दुर्योधन तक्रार करता, भीष्म, द्रोण आनी विदुर पांडवांक पत्रां बरयतात आनी दुर्योधनाच्या राज्यांत किर्ते जाता ताची खबर तांकां दितात म्हणून.

पान ११६ रे - वे (२२९-२३०): पांडवांगेर व्हडलें जेवण आसा म्हणून धर्म कृष्णाक अपोवपाक नकुला मार्फत ताका पत्र धाडटा. ही खबर धृतराष्ट्र आनी गांधारी दुर्योधनाक सांगतात.

पान ११९ वे (२३६): कृष्ण गंधर्व रायाक पत्र बरयता, दुर्योधन पांडवांगेर घालो घालपाक आपली सेना घेवन अरण्यांत वता. देखून ताका वाटेर धरपाचो म्हणून. तें पत्र तो आपल्या सेवका मार्फत धाडटा. तें पत्र मेळटकूच गंधर्व राय त्याच सेवका मार्फत ताका जाप धाडटा.

पान १२२ वे (२४२): गंधर्व राय दुर्योधनाक धरतकूच कृष्णाक ती खबर दिवंक पत्र बरयता आनी आपल्या सेवका मार्फत तें पत्र धाडटा.

पान १२३ रे (२४३): भीष्म कृष्णाक पत्र बरयता, दुर्योधनाक गंधर्व राया कडचो सोडोवपाक ताचो आधार जाय म्हणून. तें पत्र तो विदुरा मार्फत धाडटा.

पान १२४ वे (२४६): अर्जुन धर्माच्या नांवान गंधर्व रायाक पत्र बरयता, ताणें दुर्योधनाक सोडूंक जाय म्हणून आनी तें पत्र तो बाणाक लावन धाडटा.

पान १२४ वे (२४६): गंधर्व राय अर्जुनाक जाप बरयता, ताणें कृष्णाचे आज्ञे प्रमाण दुर्योधनाक धरिल्लो, कित्याक तो पांडवांगेर घालो घालपाक थंय आयिल्लो म्हणून.

पान १३२ वे (२६२): दुर्योधनाक ताचीं आवय-बापूय उपदेश दितात, ताणें धर्मा कडेन माफी मागून पत्र बरोवपाचें आनी ताका राज्याचो अर्दो वांटो दिवपाचो म्हणून. पूण दुर्योधन हें अस्विकार करता.

पान १३४ रे (२६५): भीष्म दुर्योधनाक जमदग्नीची कथा सांगता. तातूंत जमदग्नि शेष रायाक पत्र बरयता. अमृताची कुपी धाड म्हणून. जमदग्नीच्या आदेशा प्रमाण परशुरामान आपले आवयक मारली देखून आतां तिका जिती करपाक अमृत जाय म्हणून. तें पत्र घेवन परशुराम शेष राया कडेन वता.

कोंकणी *भारतांत* मनिसूच न्हय, देव, राक्षस, गंधर्व आनी वानर लेगीत पत्रां बरयतात. यमदूत लेगीत लेखी नोंदणी दवरतात.

प्रमाण संस्कृत *महाभारतांत* विड्यांच्या पानांचो उल्लेख ना. पूण कोंकणी *भारतांत* कोणाकूय कठीण आनी जोखमीचें काम दितना दुर्योधन ताका विडो दिता. ही प्रथा मराठी आनी कोंकणी *भारतां*परस चड पयलींची जावंक जाय, कित्याक, जैमिनि *अश्वमेधांत* कृष्ण हे भाशेन विडो दिता ती चर्चा मेळटा, जैमिनी *अश्वमेध* हाची रचना व्यासाच्या महाभारताच्या कितल्याश्या शतकां उपरांत जाल्ली जावं येत. तरी विष्णुदास नामाच्या *भारता* आनी कोंकणी *भारता* परस कितल्याश्या शतकां पयलीं हाची रचना जाल्ली जावंक जाय. हातूंत दैत्य राया अनुशाल्वा कडेन युद्ध करपाक कृष्ण झुजाऱ्यां फुडें विडो दवरता. तो ताचो पूत प्रद्युम्य घेता. उपरांत कृष्ण झुजाऱ्यां फुडें आनीक एक विडो दवरता, तो प्रद्युम्या सवें वचूंक तयार आशिल्ल्यान घेवपाचो म्हणून. तो विडो वृषकेतु घेता (जैमिनि, संपादक बापट १९१३:७८).

आनीक एक रोचक गजाल म्हळयार, कोंकणी *भारतांत* पांडवां आनी कौरवां कडेन संपर्क आशिल्ले राय चड करून गोंय आनी महाराष्ट्राच्या भोंवतणच्या वाठारांतले: *मराठे* (महाराष्ट्राचे) *गुजर* (गुजराती), *तेलुंग* (आंध्र प्रदेशाचे), *कानडे* (कर्नाटकाचे). तातूंत दुसरे कडचे राय म्हळ्यार *कोनोजी* (कन्नौजाचे) आनी गौडी.

पांडवांक जळोवन मारूंक लाखेची पालस बांदतना तातूंत दुर्योधनान लाख, तेल, मेण आनी दारवेचो उपेग केलो म्हणून सांगलां. दारु हो फारसी शब्द. फारसी भार्शेत हाका दोन अर्थ आसात: आल्कोल आनी तुबकाची दारू, आल्कोलाक उजो लागता पूण तें बेगीन उझून वता. देखून दुर्योधनाच्या कार्याक ते उपकारना. हाचो अर्थ, तुबकाची दारू जाल्यार ही कोंकणी भारतांतली मुखेल काळक्रमविपरीत गजाल म्हणूं येत.

पांडवां आनी कौरवांच्या जेवणा-खाणांत तांदळाचो आनी नाल्लाचो उपेग चड दिसता. अर्जुनाक 'मिरसांग' बरी लागता. आतां आमी वापरतात ती 'मिरसांग' पुर्तुगेजांनी कोंकणी भारताचें काम जावंच्या थोड्या वर्सां पयलीं हाडिल्लीं. देखून अर्जुनाक बरी लागता ती 'मिरसांग' मिरयांची सांग जावं येत.

### आधारावळ

अनामीक. तारीक ना. कोदेक्स ७७१ आनी ७७२. हस्तप्रती. मीञु विश्वविद्यालयाचें ग्रंथालय. ब्रागा (तपशील ह्या अध्यायाच्या पयल्या भागांत मेळटा).

अनामीक. तारीक ना. *वुकाबुलारियु द लिंगआ कानारीना कों वेर्सां पुर्तुगेजा.* हाची हस्तप्रती आर्कीवु इश्तोरिकु उल्त्रामारीनु, लिज्बोआ, हातूंत आसा. ज्रूंता द इंविश्तिगासोंइश दु उल्त्रामार हांणी १९७३ इसवेंत हाची जशातशी नक्कल प्रकाशीत केल्या. (कोंकणी-पुर्तुगेज कोश, रोमी लिपयेंत).

काव्यतीर्थ, नारायण राम आचार्य (सं). १९५२. *सुभाषितरत्नभांडागारम्.* मुंबई: निर्णयसागर प्रेस.

कृष्णयाज्ञवल्कि. तारीक ना. *श्रीकथाकल्पतरु.* गिरगांव, मुंबई: आर्यसेवक प्रेस (मराठी).

खानोलकर, गं. दे. (सं) १९७७. *मराठी वाङ्मय कोश.* भाग १: *मराठी ग्रंथकार* (१०५०-१८५७) मुंबई: महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृति मंडळ.

ग्यानदेवु. तारीक ना. 'द्रणपर्वी म्हाभारथी' (sic) कथा. कोदेक्स ७७३, ब्रागा. (श्यामा पळयात). (मराठी, रोमी लिपयेंत).

जैमिनि. तारकेची खबर ना. 'अश्वमेध'. विष्णुशास्त्री बापट हांणी मराठी अणकारा सयत हो प्रकाशीत केला. ताचें शीर्षक *श्रीजैमिनि अश्वमेध* (मूळ व मराठी भाषांतर). पुणें: डी.डी. लेले १९१३.

जोशी, म.रा. (सं), 'विष्णुदास नामाचें नलोपाख्यान' (एक प्राचीन मराठी कविता). नागपुर युनिवर्सिटी जर्नल (ह्युमैनिटीस), भाग २२, नं. १-२ (१९७१-७२). नागपुर: नागपुर युनिवर्सिटी.

देशपांडे, अ.ना. १९६९ *प्राचीन मराठी वाङ्मयाचा इतिहास,* भाग दुसरा. पुणें: वीनस् पब्लिकेशन्स.

नामा, पाठकु. तारीक ना. (अ). 'धर्माचा अस्वमेदु: तांब्रध्वजाचा अवस्परु, ब्रागा: कोदेक्स ७७३. (श्यामा पळयात). (मराठी, रोमी लिपयेंत).

नामा, पाठकु, तारीक ना (आ) 'अस्वमेधपर्व' 'हस्तप्रती' पुणें: भारत इतिहास संशोधक मंडळ.

नामा, विष्णुदास, तारीक ना. 'भारत' हस्तप्रती. मराठी संशोधन मंडळ, मुंबई, हातूंत आदिपर्वाच्यो दोन हस्तप्रती मेळटात. (मराठी, नागरी लिपयेंत) ब्रागा कोदेक्स ७७३ (श्यामा पळयात) हातूंत दोन पर्व मेळटात: विराटपर्व आनी कर्णपर्व (मराठी, रोमी लिपयेंत).

नायक, प्रताप, १९९०. *सोळाव्या शेकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारत:*

*आदिपर्व.* गोंय. तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र.

पिसुर्लेंकार, पांडुरंग १९५६. 'आ प्रुपोजितु दुश प्रिमेयरुश लीप्रुश मराताश इंप्रेसुश एंय गोआ'. 'बुलेतीं दु इंश्तितूतु वाश्कु द गामा, सं. ७३.

पिसुर्लेंकार, पांडुरंग, १९६९. 'विष्णुदास नामाच्या पौराणिक कथांचा कोंकणी अनुवाद.' मांडवी, जून १९६९.

रिबेयरु, दियोगु. १६२६ 'वुकाबुलारियु द लिंगुआ कानारीं फेयतु पेलुश पाद्रिश द कुंपान्नीआ द जेंजूश क रिजिदेंय ना क्रिश्तांदाद द सालसेत, ई नोवामेंत आक्रिसिंतादु कों वारियुश मोदुश द फालार, पेलु पाद्र दियोगु रिबेयरु दा मेज्मा कुंपान्नीआ', हस्तप्रत. पणजीः केंद्रीय ग्रंथालय, (कोंकणी-पुर्तुगेज कोश, रोमी लिपयेंत).

रुद्रीगिश, लुर्दीन. १९८७. *महाभारत (आदिपर्व),* मडगांव गोंयः आवेर्तानु फुर्तादु. (कोंकणी, रोमी लिपयेंत).

श्यामा, क्रुस्त्णदासु, इत्यादि, तारीक ना. कोदेक्स ७७३. हस्तप्रत. ब्रागाः मीन्नु विश्वविद्यालयाचे ग्रंथालय. ह्या मराठी पद्यकृतींच्या संग्रहांत पयली कृती कृष्णदास श्यामाची 'श्रीकृष्णचरित्रकथा' ही दीर्घ कृती, १३१ पानांची. नंतर हातूंत अनेक मराठी कवींच्यो कृती आसात. तातूंत विष्णुदास नामाच्या *भारता*चे दोन पर्व मेळटात. विराटपर्व आनी कर्णपर्व. (मराठी, रोमी लिपयेंत)

श्रीधर (१). १७१२ *श्रीपांडवप्रताप* (मराठी), म्हाका हाचें १८६८ इसवेंत छापिल्लें संस्कणूच (मुंबईः गणपत कृष्णाजी प्रेस) पळोवंक मेळ्ळां.

श्रीधर (२) १८९४ *जैमिनि अश्वमेध.* मुंबईः निर्णयसागर छापखाना, (मराठी).

सरदेसाय, माधवी, २००६. 'अ कंपैरटिव लिंग्विस्टिक अँड कल्चरल स्टडी अव्ह लेक्सिकल इन्फ्लुएन्सज ऑन कोंकणी' पी .एच.डी. शोधप्रबंध, गोंय विश्वविद्यालय.

साल्दान्ना, आंतोनियु, १६५५, १९६३. 'अचर्यवंता भग्ता सांक्तु आंतोनिच्या पुण्यान जीं माहा अबिस्टांचीं अपुर्वां, वा विपरितं नवलं स्वामिया परमेस्परान तो जिवो आसतनां आणी मेल्यायि उपरांतें संवसारांतु करुनु दाखयिलीं तीं ह्या ग्रंथांतु बरयल्यांति.' १६५५ च्या संस्करणाची एकूच प्रत मेळटा. तीं लिज्बोआच्या बिब्लियोतेका नास्योनाल हातूंत आसा. १९६३ च्या संस्करणाचो संपादकः अ. का. प्रियोळकर. ताचें शीर्षक सांतु आंतोनिचीं अचर्यां, मुंबईः मराठी संशोधन मंडळ.

साल्दान्ना, आंतोनियु. तारीक ना 'फ्रुतुश द आरवुर दा वीदा, आ नोस्सा आल्मश ई कोर्पुश सालुतिफेरुश', पयलो भाग, कोंकणीत गद्यरुपांत. दुसरो भाग, मराठींत, पद्यरुपांत, हस्तप्रत. मार्सडन कलेक्शन नं. १२१७५. लंडनः लायब्ररी अव्ह द स्कूल अव्ह ओरिएंटल अँड ऐफ्रिकन स्टडीस. (रोमी लिपयेंत).

सुखठणकर, वि. इत्यादि (सं.) १९३३-६६, *महाभारत* पुणेः भंडारकर ओरिएंटल रिसर्च इन्स्टिट्यूट.

स्टीवन्स, टामस. १६१६. नवीं संस्करणां १९०७, १९९६ 'दिश्कूर्स सोब्र अ वींदा द जेजू क्रीश्तू, नोस्सु साल्वादोर आउ मुंदु' (क्रिस्तपुराण), १६१६ चें संस्करण मेळना. नवीं संस्करणां जायतीं आसात. तातूंत दोनांची म्हायती हांगा दिल्या. १९०७ च्या संस्करणाचें संपादन ग्रंथ-परिचय आनी टिपण्यां सयत जोसफ साल्दान्ना हांणी केलां. ताचें शीर्षक *द क्रिश्चन पुराण* मंगळूरः सायमन, आल्वारिस. (मराठी, रोमी लिपयेंत) १९९६ च्या संस्करणाचे संपादन कारिदाद, द्रागो हांणी केलां, मुंबईः पाप्युलर प्रकाशन.

स्टीवन्स, टामस. १६२२. 'दोव्त्रीना क्रिस्तां एंय लिंग्वा ब्रामाना' हस्तप्रत. मार्सडन कलेक्शन नं. ११२८०. लंडनः लायब्ररी अव्ह द स्कूल अव्ह ओरिएंटल अँड ऐफ्रिकन स्टडीस. (कोंकणी, रोमी लिपयेंत).

स्टेर्नबाख, लुदवीक, १९७४ *महासुभाषितसंग्रहः* होशियारपूरः विश्वेश्वरानंद वेदिक रिसर्च इन्स्टिट्यूट.



# दर्या गाजोता

र. वि. पंडित

पंदरावी खिस्त

गांधींची हत्या जाली. त्या दिसा हांव बेळगांवां आशिल्लों. सांजे वेळार कितें तरी वाचीत पडिल्लों. रेडियो लावंक नाशिल्ल्यान बातमी म्हाका कळूंक नाशिल्ली. इतल्यान म्हजी धाकली भयण उषा खंयच्यान तरी धांवत आयली आनी तिणें ही वायट खबर म्हज्या कानार घाली. 'भाऊ, गांधीक मारलो खंय!' हांव तसोच धांवत भायर रस्त्यार आयलों. ...म्हजे जिणेचेरूच एक, कित्याक आनी कशें कोण जाणा, सुतकाचें सांवट पडून गेलें. म्हाका अनाथ जाल्ले वरी दिसपाक लागलें.

## आदी गोंय मुक्ती आंदोलन मागीर लग्न

### Mood अमर गांधी फोटो

आनीक एक अमर गांधी फोटो - Mood. हो Mood (भाव) कसलो काय म्हणून कोणेंय विचारल्यार म्हाका जाप दिवची पडटली, हो एकूच mood - भाव - न्हय. हें चित्र म्हळ्यार एक सबंद भाव मालिका.

असलें कसलें तर हें चित्र? सांगतां, आयकात.

हातूंत गांधींचो चेहरो सामको लागींसून घेतला. णवो इंचां वेल्यान प्रॉक्सार लॅन्स नांवाची खाशेली, लागींसून फोटो काडपाची लॅन्स वापरून हो फोटो काडला.

ह्या फोटोंत गांधींच्या मुखामळा वयली रेशान रेशा सामकी स्पश्ट आसा. माथ्या वेले आनी खाडाचे केंसान केंस मेजूं येतात. गळ्या वयली आनी कपलाची मिरयेन मिरी सोदूं येता.

ह्या संगळ्यो बारीकसाणी फोटोंत आसाच. ते भायर आनीक एक खुबी तातूंत वापरल्या, जिका लागून एकूच mood फोटोंत येवचे सुवातेर सबंद भाव मालिकाच ग्रथीत जाल्या.

हो फोटो अश्या खिणार घेतला जेन्ना गांधीजीं भोंवतणी तांच्या निकटचीं मनशां, जांचेर गांधीजींचो अनुग्रह आशिल्लो अशीं, आसात. तीं मनशां रंगांत येवन गांधीजींक कितें तरी सांगपांत गुल्ल आसात. पूण गांधीजी उलयनात. मोन्यांनी सगळें आयकतात. उलोवपी मनशांच्या तोंडांचेर तांची नदर थिरावल्या. ते विशिश्ट अशे मिश्कील नदरेन तांचे कडेन पळेतात आनी पळेतना अशे भाव व्यक्त जाल्ले आसात - 'हय तुमी सांगिल्लें सगळें हांवें आयकून घेतलां आनी तरी हांव ओग्गी रावलां. तुमी म्हज्या ओग्गी रावपा वेल्यान बेठेच तरे तरेचे अर्थ सोदूं नाकात. ओगी कांय कारणाक लागून रावलां आसन. तुमी म्हाका सांगलां तें सगळें खरें आसतलें अशें हांव मानतां, आनी ते पासत तें म्हाका मानवलां आसतलें असो तुमी अर्थ करून घेवपाची गरज ना. योग्य वेळार तुमकां सगळें समजतलेंच.' अशी ही म्हाका त्या वेळार उमजिल्ली भाव कथा हांवें म्हज्या छायाचित्रांतल्यान बंदिस्त करून दवरपाचो येत्न केला. गांधींच्या मुखामळाचो जायतो काळ पुरायेन अभ्यास करून तांच्या मुखामळाचे स्थायीभाव म्हणूं येत अशे कांय भाव हांवें चित्रांनी बंदिस्त केल्यात. तांतलें हें एक अजरंवर छायाचित्र - Mood. हें छायाचित्र भारतांत आनी भारता भायर वृत्तपत्रांतल्यान, कॅलँडरांतल्यान, टेलिव्हिजना वयल्यान हजारांनी फावटीं दाखयलां. जायत्या जाणांनी तें पळेलां आनी खोशीय परगटायल्या.

हें चित्र पळोवन खोस कित्या पासत जाली हें ज्युस्त सांगपी म्हाका एकलोच मेळिल्लो. तो म्हळ्यार, गांधीजींचो वारस आनी आमचो आवडटो लिडर, जवाहरलाल नेहरू.

गांधींचो हो फोटो हांवें गांधी महाबळेश्वराक आसतना घेतिल्लो. सुशिला पै आनी सांगाती भोंवतणी आसतना. तो फोटो नेहरूंक दाखोवपाचो योग येवंक नाशिल्लो.

गोंयचे मुक्ती उपरांत १९६२त नेहरू पयलेच खेपे गोंयचे भेटेर आयिल्ले. तांचें मडगांवां दामोदर मंदिरांत उलोवप जाल्लें. हांवें हो फोटो तांकां दाखयल्लो. तो पळेना फुडें नेहरूंची नदर खिणभर प्रफुल्लीत जाली. लिकलिकपी दोळ्यांनी तांणी म्हाका प्रस्न केलो, 'खंय घेतिल्लो हो फोटो? सुंदर आसा. खऱ्यांनीच सुंदर.' हांवें धीर करून तांकां प्रस्न केलो. "नेहरूंजी, सांगात पळोवया, ही गांधींची कसली पोज?" तांणी फट्ट करून जाप दिली, "गांधींची ही पोज... म्हजे वळखीची... सामकी परिचयाची. गांधीजींची पळोवपाची, आयकुपाची ही पोज. ते एकाच वेळार तीन गजाली करताले. आयकप, मनन करप आनी जें दुसऱ्यान सांगलां तातूंत सत्याचो अंश कितलो आसुंये हे गजालीचो वांगडाच सोद घेवप! तांचे वृत्तीचो दर्शक असो हो फोटो."

म्हज्या चित्राची खुबी समजून विस्कटावणी करून तांणी जाप दिल्ली. गांधींच्या सहवासांत ल्हानाचो व्हड जाल्लो हो मनीस. हेरां प्रमाणें beautiful, beautiful म्हणून शेरे मारी नासतना ताणें नेमकेपणान चित्राची व्हडवीक सांगिल्ली. हो म्हजो आनंदाचो

खीण म्हजे कलेन म्हाका दिल्लो.

### स्वातंत्र्य संग्रामाचो अर्दुकुटो विजय आनी महामानवाचें निर्वाण

१९४७ वर्सा भारताची फाळणी जावन स्वातंत्र्य मेळ्ळें. काँग्रेसच्या फुडाऱ्यांनी उपाय ना जावन फाळणेक मान्यताय दिली. गांधीजींकूय फाळणी टाळपाक आयली ना. सतत उपद्रव दिवंक तयार जाल्ल्या लोकां खातीर स्वातंत्र्य लांबणेर पडचें न्हय म्हूण फाळणी स्वीकारची पडली अशें नेहरूंनी म्हळ्ळां. १४ ऑगस्टाक रातच्या बारा वरांचेर ब्रिटिशांचो झेंडो सकयल देंवलो आनी १५ ऑगस्ट लागपाक भारताचो तिरंगो झेंडो उबूंक लागलो. आमचो फुडार उज्ज्वल आसा अशें नेहरूंनी सांगलें. होच तो नियतीन थारायल्लो दीस. आमचो फुडार, आमच्या राष्ट्राचो फुडार, आमचें भाग्य आतां मुखार आमीच घडयतले अशी संद आयिल्ली.

एके वटेन गांधी नेहरूंनी म्हणिल्ले प्रमाण आतां रोखडेच पुर्तुगेजांक धांवडावन घालतले अशीं सपनां आमी रंगयताले. फॅसिस्ट सालाझार सोंपेपणान सोडचो ना अशेंय दिसतालें. उमेद आनी निर्शेणी अशे दीस चलिल्ले.

दुसरे वटेन फाळणे पयलीं सावन हिंदू मुसलमानां मर्दी, शीख मुसलमानां मर्दी महाभयंकर विखाचो दर्या उफाळून आयिल्ले वरी जाल्लो. ताका लागून जीं धुमशेणां कांडलीं तांकां सर्त शीम ना. पूर्व बंगालांत नोआखाली जिल्ल्यांत हिंदूंच्यो कत्तली जाल्यो. बिहारांत मुसलमानांक मारले. गांधीजी वैरभावना कमी करपाक धांवले.

पाकिस्तानांत मुसलमानांनी लाखांनी निरपराध हिंदू शीख बायलां भुरग्यांचेर पाशवी अत्याचार केल्यात. रक्तपात, खून आनी जाळपोळ करून तांची जीण काबार करून तांकां धांवडायल्यात, तांच्यो जमनी घरां संपत्ती हातासून तांकां भिकेक लायल्यात, म्हणटकच हांगा भारतांतल्या मुसलमानांक, तांच्या बायलां भुरग्यांक संरक्षण मेळुंकूच फावना, गांधीजींचे अहिंसेचें तत्त्व कितेंय आसूं, अशें कांय जाणांचें म्हणणें 'जश्याक तशें' ह्या न्यायान जें पाकिस्तानांत हिंदू शीखांक भोगलां तेंच हांगा मुसलमानांक भोगूंक लावंक जाय, तांकां हे भुंये वेले नाच करून उडोवंक जाय अशी विचारसरणी मुखार आयली. मुसलमानांचें तुश्टीकरण करूंक फावना. गांधी हे राक्षसी वृत्तीच्या लोकांक कितें सुदरतलो! असो अविचाराचो प्रवाह भितल्ले भितर पेटत आशिल्लो. त्याच वेळार ५५ कोटी रुपया भारत सरकारान पाकिस्तानाक दिवन उडोवपाकूच जाय, पाकिस्तानान कितेंय करूं, आमच्या धर्माक आनी राष्ट्रीय नितीक आमी पाळो दिवंक जाय असो गांधीजींनी हट्ट धरलो. तेन्ना सावन तांकां मारून उडोवपाचो कट कट्टरवादी संघटणां कडल्यान शिजूंक लागलो. प्रार्थना सभां वेळार बरें वायट कितेंय जावं येता अशें दिसतालें. भारत सरकारान गांधींक पुलीस संरक्षण दिवपाचें केलें पूण गांधीजींनी तें आयकलें ना. ताचे आड आपलें मत गृहमंत्री वल्लभभाईंक कळयलें. ''हांव मेल्यार लेगीत उपकारता पूण प्रार्थने वेळार म्हजी राखण करचे पासत गुप्त रितीन लेगीत तुमी पुलीस दवरूंक फावना.'' हे गजालीचो फायदो घेवन एक दीस सांजेचे प्रार्थने वेळार गांधींचेर गुळयो घालून तांची हत्या केली. केन्नाच पेखून येवचोना असो घाय मानवतेचेर जालो. त्या आघातांतल्यान निर्माण जाल्ल्या पापांतल्यान आमच्या दुर्दैवी देसाची अजून सुटका जावंक ना.

गांधींची हत्या जाली. त्या दिसा हांव बेळगांवां आशिल्लों. सांजे वेळार कितें तरी वाचीत पडिल्लों. रेडियो लावंक नाशिल्ल्यान बातमी म्हाका कळूंक नाशिल्ली. इतल्यान म्हजी धाकली भयण उषा खंयच्यान तरी धांवत आयली आनी तिणें ही वायट खबर म्हज्या कानार घाली. 'भाऊ, गांधीक मारलो खंय!' हांव तसोच धांवत भायर रस्त्यार आयलो. बेळगांवां घरा घरांतलो सगळो लोक रस्त्यार आयिल्लो, दादले, बायलो, भुरगीं जाणटीं, सगळीं सगळीं. आनी वचत थंय उलोवपाचो एकूच विशय - 'गांधी, गांधी, गांधी'. सगळो संवसार दुःखांत बुडिल्लो. म्हाका तर म्हजे घरचोच एक लागशिल्लो मनीस गेलाशें दिसून सामकें भितल्ल्यान दुःख जालें. अशें दुःख हाचे पयलीं म्हजी भयण मोगा गेल्लें तेन्ना जाल्लें. तशें दुःख हांवें मागीर केन्नाच अणभवूंक ना. म्हजे जिणेचेरूच एक, कित्याक आनी कशें कोण जाणा, सुतकाचें सांवट पडून गेलें. म्हाका अनाथ जाल्ले वरी दिसपाक लागलें. ज्या महा मानवान आमच्या भारताक संवसारांत मानाचो जागो मेळोवन दिलो, स्वतंत्र केलो, ताचीच हत्या जावप? एक भारतीय नागरीक म्हणून हाची म्हजेरूय जापसालदारकी येता. मन सामकें निर्शेल्ले वरी जालें, तळमळूंक लागलें. कित्याचेतूच रमना जालें. हांव दुयेंत पडलों. १५ दीस जोर येवन सामको निस्तेज जालों.

ते वटेन म्हज्या लग्नाची तारीक ३१ मार्च १९४८ म्हणून निश्चीत जाल्ली. लग्नाची तयारीय जाल्ली. लग्न फुडें धुकलचें - कशें धुकलचें कितले दीस - कितें तरी करचें हो एक नवोच हुस्को म्हज्या मनाक लागून राविल्लो.

### फोटो पळोवन चली पास - आदी गोंय-मुक्ती आंदोलन मागीर लग्न

१९४४ पसुनूच म्हाका सोयरिको सांगून येवपाक लागिल्ल्यो. गोंयच्यो, कारवारच्यो, वेंगुर्ल्लेंच्यो, बेळगांवच्यो, जायत्यो. गिरेस्त घराण्यांतल्यो, कांय बी.ए. जाल्ल्यो लेगीत. पूण हांव मनारूच घेय नासलों. वृत्तपत्र व्यवसायांतलो भटके वृत्तीचो मनीस जावन पडिल्ल्यान एकदां लग्न जालों की हात-पांय बांदून घाल्ल्या मनशा सारकी म्हजी गत जातली, ह्या विचारानूच हांव कांचवेतालों. दुसरी गजाल, लग्न जालों म्हळ्यारूच जालें ना. चली बरी मेळपाक जाय, देखणी, सभावान गोड, घर संवसार बरे तरेन करपी. नीटनेटकी आनी सादी रावपी.

म्हजो स्वतःच्यो खोडी जायत्यो आशिल्ल्यो. त्या कारणान जे पाडे दोश म्हज्यांत आशिल्ले तातूंतलो एक लेगीत तिच्यांत आसूंक फाव नाशिल्लो. म्हज्यांत नात अशे तरेचे जायते गूण मात तिच्यांत आसूंक जाय. अश्यो म्हज्यो बायले विशींच्यो तरेतरेच्यो कल्पना

आशिल्ल्यो. ताका लागून लग्नाचो विशय कोणेंय काडलो की हांव तो उडट्यार घाली... चड करून म्हजी एक वेंगुर्ल्यां दिल्ली ती भयण गुलाब, हो विशय गोंयां कुळारा आयली की परतून परतून काडी. हांव वेंगुर्ल्यां पावलों की तो विशय काडी. दुसरो म्हजो बापूय. हाचे जायते वेपारी मित्र. पयशेकार आनी वरदक्षणा भरपूर दिवपाक तयार. तोय म्हज्या लग्नाची खबर काडून आपल्या मित्रांच्या चलयांचीं नांवां सुचयी. वरदक्षणा दिवप्यांतल्या एकाद्र्याची चली हांवें बायल म्हणून घरांत हाडिल्ली जाल्यार म्हजें कितें जातलें आशिल्लें, देवूच जाणा.

हांव सभावान मुळा पसुनूच तिरसट. मातश्या कारणा वेल्यान कोणाय कडेन झगडपी. ही झगडाळ वृत्ती, जी आयज मेरेन कांय प्रमाणांत जश्याक तशी तिगून उरल्या, तिचीं कारणां सांगचीं जाल्यार,

१) ल्हानपणा पसून फाजील लाडांत वाडलों - आठ भयणीं वयलो एकलो एकसुरो भाव - एकमुळो.

२) पंदरा वर्सांचो जाय मेरेन घरांत उरलों. त्या वेळार घरांतलीं सगळीं जाणटीं मनशां एकामेकांक किरमून किरमून खावपी, फापसून फापसून उडोवपी.

३) म्हाका घर सोडून शिकपा निमतान पयस पयस एकटोच रावचें पडलें.

४) हजार गावड्यांचे वस्तीच्या गांवांत एकूच आशिल्ल्या बामणा घरांत जल्मल्ल्यान, गावड्यांचे कांय गूण म्हज्यांत भरपूर प्रमाणांत आयले.

म्हज्या सभावाक वखद म्हणून म्हजी बायल सभावान सामकी गोड, हांसकुरी, सोंशीक, नमळायेची म्हूर्त, रागीट उतरांक हांसून जाप दिवपी, हांव झगडलों जाल्यार जापाजाप करचे बदला, म्हज्या तोंडाक लागचे बदला, समजावणेच्या उतरांनी बाबा-पुता करून झगडें पालोवपी अशे तरेची आसची. आवय भयणींनी कसलेंय किजील उप्रासून काडलें जाल्यार त्या किजिलांत फोडणां घालून तें वाडोवचे बदला समंजसपणान निदान पक्षीं ओगी रावून तें पालोवपाक, वाडूंक न दिवपाक मदत करपी अशे तरेची बायल म्हाका जाय आशिल्ली.

हांव शानशोकी न्हय. एक सिगरेटीचें सोडलें जाल्यार म्हाका दुसरें कसलेंच व्यसन नाशिल्लें. वाचनाचो मात म्हाका मुळा पसून खूब नाद. पुस्तकां, पेपरांच्यो, नेमाळ्यांच्यो म्हजे कडेन सदां राशी. मनोवृत्ती गांधी विचारसरणीची. कपडे घालप खादीचे. सादें रावप आनी उच्च विचार करप. अशेच तरेचे मित्र, अश्योच मैत्रिणी जोडप. अश्यांच कडेन संबंद जोडप.

सिनेमा नाटकां लग्नां कारणांनी मिरवप, परतून परतून सोयऱ्यांगेर, मित्रांगेर, यो-वच करप, वेळ-काळ पळय नासतना तांणीय आपणागेर ऊठ-बस करप हें म्हाका केन्ना मानवलें ना. देखून एक सादी चली जिका ऐश-आरामाची संवंय ना, बरे कपडे, भांगर-शिंगर घालून मिरोवपाचो सोंस ना अशी भावंडांत वाडिल्ली, गरिबूच घराण्यांत जल्मल्ली चली मेळ्ळ्यार लग्न जावप असो निर्धार हांवें केल्लो. केन्नाय कोणा कडल्यान चली सांगून आयल्यार हेर कसलेय गजालीची चवकशी करचे आदीं तिचो फोटो पळोवनूच आयिल्ल्या मनशाक अर्द वरा भितर हांव आवियार करतालों. म्हजे लग्ना संबंधीचे देण्या-घेण्याचे धरून सगळे हक्क सामके सुरक्षीतपणान म्हजे कडेन पुरायेन राखून दवरिल्ले. त्या कारणान म्हजो निर्णय अंतीम!

हांव एक सिद्‌धहस्त छायाचित्रकार आनी चित्रांतल्यान दुसऱ्यांच्या व्यक्तिमत्वाची खुबी ज्युस्त पकडपी कलाकार आशिल्ल्यान चलयेचो फोटो पळयना बरोबर सगळ्या न्हय तरी पाउणशीं ठक्के गुणांची पारख करपा इतलो हांव पारंगत आशिल्लों. मनशाचे नदरेंतल्यान सगळें पारखूं येता. ताचें आरोग्य, सभाव, चाल-चलणूक सगळें, देखून म्हाका केन्ना चलयो पळोवपाक चडशें वचचें पडलें ना. सगळ्यो मेळून प्रत्यक्षांत चार-पांचूच चलयो हांवें पळयल्यात आसतल्यो. फोटे जायते पळेले आनी परतिले. निमाणें चली पसंत केली ती खरी फोटो पळोवनूच.

म्हाका योग्य चली सोदपा खातीर चडशी खटपट करपी म्हळ्यार म्हजी भयण गुलाब. ही म्हजे फाटली तिसरी भयण. हांव मॅट्रिकेक आसतना तिचें लग्न जाल्लें. वेंगुर्ल्लेंच्या घुर्ये घराब्यांत.

ही भयण म्हजी विशेश आवडटी. आमकां एकामेकांची ओड. भुरगेपणांत आमी दोगांच जाणां चड करून पाळयांत उरतालीं, आज्याचे आवडीचीं भुरगीं म्हणून. हेर सगळ्यांक बरोबर घेवन आवय वास्को कुळारा वेताली आनी म्हयन्यांचे म्हयने थंयच रावताली. आमी दोगांच येद्या व्हडल्या घरांत राक्षसी वातावरणांत एकामेकांक धीर दीत दीस काडटालीं. जाणट्यांचीं दिसूयभर झगडीं केस्तांवां. आमी कांचवेवन कांचवेवन जियेतालीं. आमीच आमकां सांवरून घेवपाचें, समजावपाचें, सांबाळपाचें.

सकाळ जाली रे जाली, कितें न्हय कितें कारण सोदून जाणट्या मर्दीं धुसफूस सुरू . निमित्त म्हणून कांय लागच नाशिल्लें. झगड्यांक सुरवात जाली की एकामेकांचे जिर्णेंतलीं नात्यांतलीं फाटलीं फुडलीं गुपितां उकतीं करून तांचो उद्‌धार जातालो. एकामेकांक लज करून उडयतालीं. चाकरमाने, वावराड्यो, शेजारी-पाजारी ह्या घरच्या पेटिल्ल्या झगड्यांत पेत्रोल ओतपाक मुखार. ह्या भिरांकूळ वातावरणांत आमी बाबडीं दोगां भुरगीं फुगार जातालीं. हे गजालीचें भान जाणट्यांक नासतालें. जाणट्यांची झगडीं सुरू जालीं की भंयान गुळी जावन आमी थंयच्यान पळ काडचो आनी माळयेर नाजाल्यार खंय तरी पयस वचून आडासाक रावन हें सगळें चल्लां कितें तें पळेत आयकत बसचें. विचार करून्य कारण कांयच कळ्ऽ नाशिल्लें.

आजो, आजी, बापूय, बापोलयो, ताची बायल, आनी हीं सगळीं रगताच्या नात्यांतलीं मनशां एकामेकांच्या जिवार उठिल्ले वरी कुदतात कित्याक? घरांत कांयच उणें नासतना हीं झगडीं कित्याक! आमचे भुरगे मती प्रमाण एकामेकांक समज घालून आमी भियेवन भियेवन दीस काडटालीं. रात जाली की आजयेच्या हांतुळणार गोयड्यां कपयाळ्यांनी एकामेकांक गुंटलावन घेवन पडटालीं. न्हिदेंत जायते फावट कच्च करून आंग काडून किळच्यो मारीत उठ्ठालीं. आजो आमचे लाड करी. पूण ताच्या लाडाच्यो कल्पना म्हळ्यार पोटभर

खावंक जेवंक दिवप. भांगराच्यो वस्ती करून घालप. चुकून एक गोड उतर ना, मायेन हात भोंवडावप ना.हे परिस्थितीक एकठांय तोंड दिल्ल्यान म्हजें आनी गुलाबाचें भावनीक ऐक्य जुळून आयिल्लें आनी देखून म्हाका जल्माची जोडीदारीण सोदून काडपाचें काम देवानूच म्हजे खातीर गुलाबाचेर सोंपयिल्लें आसूंक फावो.

गुलाबान म्हजे खातीर बऱ्या बऱ्यांगेल्यो चार पांच तरी चलयो हे आदीं हाडिल्ल्यो. ह्या न्हय त्या कारणाक लागून हांवें त्यो परतिल्ल्यो. हांचें तांकां पळयिल्ल्यो आशिल्ल्यान गुलाबाचो वशिलो म्हजे कडेन धरलो ना. शेकीं एक फोटो ताणें म्हाका धाडलो. थोड्या दिसांनी वेंगुर्ल्लेंसून वास्को आयलें आनी चलयेची सगळी खबर सांगली.

ती णव भावंडांतलीं म्हजे सारकीच एकली. तिचे आवय वेटेनचें घराणें बऱ्या पैकीं दुडवांकारांचें. रत्नागिरी जिल्ल्यांत तांचो तारवांनी वेपार चलतालो. एक खेपे वादळांत तारूंच बुडलें आनी लुकसाण जालें. ताका लागून तिगेल्या एका जाणटेल्यान जीव दिल्लो. चलयेचो बापूय सादो कारकून. पूण मावा कडल्यान भाट-बेंस आनी ल्हानशें घर मेळिल्लें. मांवान ताका वेपारांत मदत दिवपाची खोस दाखयल्ली. पूण स्वतंत्र धंदो करपाचें जांवयान मनांत घेतलें ना. कारकुनी करून मेळटा तातूंत णव भुरग्यांचो संवसार, शिकप-सवरप व्हड कश्टाचें काम आशिल्लें. पूण आवयन भुरग्यांक कर्तबगारीन वयर काडिल्लीं. चलयेचें शिक्षण इंग्लेज सवे मेरेनूच जाल्लें. तिका शिवणकाम, रांदप-सवरप बरें येतालें. आरोग्य बऱ्यांतलें, रुपा-दोळ्यान देखणी आनी सगळ्यांत मुख्य म्हळ्यार, शानशोकी न्हय, सादेपणात रावपी. मर्यादशील, सोंशीक, कामसू आनी देवाचेर व्हड भावार्थ आशिल्ली. व्रतां-आंगवणी, पुजा-पाठ करपी. देवाच्या नांवान उपास तपास करपी. एक भावार्थी सादी-भोळी आनी गुणेस्त चली म्हणून गांवांत आनी वळखीच्या मैत्रिणींत लौकीक आशिल्ली. गुलाबाची आनी ते चलयेची जायत्या वर्सांची वळख. गुलाब तिगेर यो-वच करपी. कामकाजांत अडचणी वेळार उपेगी पडपी.

इतली सगळी म्हायती गुलाबान प्रत्यक्ष दिले उपरांत हांवें चलयेच्या बापायक एक बरो फोटो घेवन म्हाका येवन मेळपाक सांगलें. गुलाबान एक सादोसो फोटो पयलीं धाडिल्लोच. हांवें म्हाका कशे तरेचो फोटो जाय तें चलयेच्या बापायक कळयलें. म्हजो सगळो भरीभार फोटोचेर. चलयेचो बापूय दाजी साळगांवकार फोटो घेवन म्हाका मेळपाक आयलो.

फोटो पळेना फुडें म्हाका भास जालो, हांव बायल म्हणून सोदतालों ती चली हीच. आनी तशें दिसतकच तिचो बापूय वरदक्षणा म्हूण कितें दितलो, लग्नाचो खर्च कोणें करचो, देणें-घेणें कितें आसचें, असले कसलेच गजालीचो विचार करी नासतना हांवें चलयेच्या बापायक उतर दिलें. अर्थात फोटो मानवले उपरांत चलयेक पळोवपाचो दीस थारायलो. तिका पळेली. तिचे कडेन उलयलों. तिच्या घरच्यांक पळेलीं. तांचे अर्थीक परिस्थितीचो अदमास घेतलो. घरच्यांच्या वागपाचो अदमास घेतलो. आनी उतर दिलें. पूण लग्न मात रोखडेंच जावंक जमचें ना, थोडे दीस रावचें पडटलें अशें सांगलें, आनी हांव उठून पुण्याक गेलों.

हे वटेन डॉ. लोहिया लाहोरचे बंदखणींतल्यान मुक्त जातकच गोंयां गेल्ले आनी१८ जूनाक चळवळ सुरू जाल्ल्याची बातमी आयिल्ली. म्हाका लग्न फुडें धुकलचें पडलें.

१९४९ त थारायल्लें लग्न अनिश्चितपणान कितले दीस म्हूण थारावन दवरतलों! म्हजो हे गजालीक उपाय नाशिल्लो. गोंयचें आंदोलन अनपेक्षितपणान आनी अकस्मात सुरू जाल्लें, ताका हांव कितें करतलों! म्हाका ताची इल्ली तरी कल्पना आसती तर चली पसंत करपाचे भानगडींतूच हांव पडचो नासलों. उतर दिवन जाले उपरांत आंदोलन सुरू जाल्लें आनी तातूंत भाग घेतले बगर कशेच रितीन हांव रावपाचो नाशिल्लों. हांवें चळवळींत पडचें अशें कसलेंच आनी कोणाचेंच बंधन नाशिल्लें. परतें, हांवें चळवळीचे वाटेक वचनासतना लग्न जावन पुण्याक वा मुंबय संवसार थाटचो असो सगळ्यांचो आग्रो आशिल्लो. पूण म्हजी आतां मेरेनची तयार जाल्ली विचारसरणी आनी मनोभूमिका चळवळी खेरीत दुसरें कितेंच करपाक म्हाका मेकळीक दिय नासली.

'आदीं चळवळ - देशाखातीर त्याग- मागीर सगळें- जमलें जाल्यार' असो मनाचो पूर्ण आनी बदलुचो ना असो निर्धार आपले आपूण म्हज्या अंतरमनांत जावन पडिल्लो. अंतरमन सांगता ते प्रमाण चलप इतलेंच म्हज्या हातांत आशिल्लें, दुसरें कांयच हांव करूंक शकऽ नाशिल्लों.

चळवळ सुरू जायना फुडें चलयेच्या भावां कडल्यान निरोपार निरोप येवंक लागले. तांकां म्हजो चळवळो सभाव खबर आशिल्लो. हांव एकदां चळवळींत पडलों जाल्यार पुर्तुगेजांचे कादयेंत खंय तरी पावले बगर रावचो ना अशी तांकां भिरांत आशिल्ली. म्हाका पत्र आयलें, 'लग्नाचो विचार मातसो वेगीं केल्यार बरो. स म्हयने जाले, तुमी चली पसंत करून. आतां लग्न जाय नासतना अनिश्चितपणान रावचें तरी कितले दीस?'

हांवें रोखडीच परती जाप धाडून दिली - ''अनपेक्षितपणान गोंयची चळवळ सुरू जाल्या हें तुमी जाणाच. आतां म्हाका चळवळींत पडऽ नासतना रावूंक जावचें ना. तेच प्रमाण, चळवळींत एकदां पडलों की केन्ना हांव मेकळो जायन हेंय म्हाका सांगपाक येना. तें सगळें देवाच्या हातांत... म्हज्यान सांगूं येता तें इतलेंच - हांव बंदखणींत गेलों जाल्यार सुटून जेन्ना येयन तेन्नाय जर तुमची चली म्हजे कडेनूच लग्न जातली म्हणून राविल्ली आसत जाल्यार तिचे शिवाय दुसरे खंयचेच चलये कडेन हांव लग्न जावचों ना. हें वचन हांव दिवन दवरतां. हाचे परस चड हांव कांयच सांगूंक शकना. तुमकां आनी तुमचे चलयेक विनाकारण त्रास जाल्ले बद्दल हांव तुमची क्षमा मागतां. रागार जावचें न्हय. तेच प्रमाण, हांवें चली पसंत केल्ली आसली जाल्यारूय आमी कांय अजून एकमेकां बरोबर फिरूंक नात वा एकांतांत भेटुंकूय नात. उलोवंक नात. एकामेकांक आफडूंक लेगीत नात. त्या कारणान तुमची चली पवित्र आसा हें तुमी जाणाच. तुमची तशीच इत्सा आसत जाल्यार तिचें लग्न कोणाय दुसऱ्या

अनुरुप अश्या चल्या बरोबर करपाचें थारायलें जाल्यार म्हाका इल्लेंय वायट दिसपाचें ना. तुमचो रागूय येवचो ना.'' हांवें चलयेकूय वेगळें ह्याच आशयाचें पत्र बरयलें. ''हांव तुजे कडेनूच लग्न जातलों, पूण तुजी रावपाची तयारी नासत जाल्यार तुवें तुजे आवय-बापूय, भाव सांगतात तें आयकून लग्न जावचें.'' म्हजी अट पुरायेन मानून म्हजे पासत आपूण रावपाक तयार आसां, म्हजे बगर हेर कोणा कडेन लग्न जावपाचो विचार करची ना असो निर्धार ते चलयेन आपल्या बापायक कळयलो.

देखून, १९४७ त जेन्ना हांव ल्हानश्या तुरुंगवासांतल्यान सुटलों आनी गोंयची चळवळूय मर्दी सामकी थंडावली अशें म्हाका दिसलें तेन्ना लग्न जावपाचो विचार म्हज्या मनांत परतोय बळावलो.

आपूण भांगरां-शिंगरांच्यो अटी घालचिना, सामकी सादेपणान, गरज पड्ल्यार खादीचे कपडे घालून, आनी हांव घालीन त्यो म्हज्यो सगळ्यो अटी मान्य करुनूय म्हजे कडेन लग्न जावपाक ही चली तयार जाली तेन्ना तिचे कडेनूच लग्न जावप, हेर कोणाच कडेन जावप ना असो मनाचो निग्रह करून हांवें ३१ मार्च १९४८ ह्या दिसाचो म्हूर्त थारायलो.

कपडे-लत्ते, सामण-सुमण हाडपा निमतान हांव मुंबय गेलों. थंयच लग्न-पत्रिका छापून हाडल्यो. आमंत्रणां धाडलीं. गोंयां बापायकूय लग्नाचो बेत कळयलो. बापूय ताकतिकेन आयलो आनी सांगपाक लागलो, कशेंय करून लग्न फुडें धुकल, कित्याक तर ताका ३१ मार्च ह्या दिसा लग्नाक कशेंच येवंक जमचें ना. काशीयात्रेक वचचे निमतान ताणें तयारी केल्या आनी शेंकड्यांनी रुपया खर्च करून तिकेटी आदींच रिझर्व करून दवरल्यात. हांव ताचो एकलोच पूत. तो लग्नाक हाजीर राविल्लो म्हाका मना पसून जाय आशिल्लो. पूण जे अर्थी ताणें काशीयात्रेक वचपाचो नित्शेवूच केल्लो आनी हांवेंय पत्रिका छापून वांटिल्ल्यो, लग्न फुडें धुकलप शक्य नाशिल्लें. थारायल्ले प्रमाण लग्न आटापून घेवपाचें नक्की केलें.

गांधीजींचे हत्येक तिनूच म्हयने जाल्ले आशिल्ल्यान लग्न सामकें सादे रितीन करपाचें हांवें थारायल्लें. वाजंत्री, बँड, जेवणावळी सगळें उणें केल्लें. लग्नहोम, सप्तपदी बी गरजेच्यो गजाली सोडून हेर सगळ्या लग्नविधींक कट मारिल्ली. एका वरा भितर सगळें काम आटपूंक जाय आनी म्हाका आपल्या चबक्यांतल्यान मेकळो करूंक जाय अशी सक्त ताकीद भटा-ब्राह्मणांक आदींच दिवन उडयल्ली. सामकें गांधी पद्धतीचें सादें-सुदें लग्न हांवें येवजिल्लें. राग-फुगरे नात, अहेर नात, तेल-हळद ना, बाशींग ना, वाजप ना, सूनमूख पळोवप ना, वरदक्षणा ना. तेल-साडी ना, केळवण ना. कांय कांय ना. हे तरेचें लग्न बेळगांवां वा गोंयांतूय आमच्या नात्यांतल्यांनी वा मित्र-मैत्रिणींनी हे आदीं केन्ना पळेलें ना, देखलें ना. नवेच तरेचे, नवेच धाटणेचें आनी पद्धतीचें लग्न.

आमंत्रणां धाडिल्लीं तीं लेगीत साप थोड्या आनी हाजीर रावतलेच अश्या लोकांक - बेळगांवच्या सेवादल सैनिकांक, गोंयचे चळवळींतल्या लोकांक, पत्रकार मित्रांक, वळखीच्या थळाव्या फुडाऱ्यांक आनी कांय थोड्याच गोंयच्या साप लागशिल्ल्या आप्तेश्टांक.

लग्नपत्रिकाय एके नवेच तरेची. आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेचो पोशेगूय तसोच. हे बाबतींत कोण किर्ते सांगतीत, कोण किर्ते म्हणटीत, कोण टिंगल करतीत, असल्या कसल्याच गजालींची मात्तूय पर्वा करप ना, लक्षूच दिवप ना, अशें हांवें आदींच थारावन उडयल्लें. आवय-बापायचें मत लेगीत घेतलें ना, हेरांची गजाल सोडा.

म्हजी लग्न पत्रिकाय बी नमुनेदार.आयजवेर भारतांत कोणेंच काडूंक नाशिल्ली अशे तरेची.

तें एक चार पानांचें आर्ट पेपरा वेलें फोल्डर आशिल्लें. पयल्याच पानार सगळे जाण छापतात तसो कुलदेवाचो वा गणपतीचो फोटो छापचे बदला महात्माजींचो हांवें काडिल्लो फोटो छापिल्लो! ३१ मार्च दिसा गांधींचो तिसऱ्या म्हयन्याचो उगडास दीस. देखून राष्ट्रपित्याचो फोटो आनी भितरल्ल्या सॅटरस्प्रॅड पानार आमचे दोगांयचे फोटो. दाव्या हाताक म्हजो' उजव्या हाताक म्हजी बायल जावपी चलयेचो- हांवेंच काडिल्लो फोटो.

आमंत्रण पत्रिकेचो मजकूर राष्ट्रभाशा हिंदीत, आमंत्रण फक्कत दोन वळींचें. आमच्या दोगांयच्या नांवान लग्नाक आपोवणें, सकयल आमचीं दोगांयचीं नांवां. हेर कोणाचें नांव ना. अशी ती पत्रिका!

लग्नाची पद्दत हांवें स्वतंत्र रितीन थारायल्ली.

म्हूर्त गोरज धरिल्लो. सगळे आमंत्रीत थारिल्ल्या वेळार आपापल्या जाल्यार कदेलांचेर येवन बसले. आमची सगळ्या कुटुंबियांची लग्नवेदीर बसून सामुदायीक रितीन गांधी पद्धतीन सायंप्रार्थना. ती जातकच ब्राह्मणांचें थोडें प्रास्तावीक भटपण आनी रोखडींच मंगलाश्टकां. अंतरपाट बी हेर लग्नां प्रमाण न्हवऱ्या - व्हंकले मर्दी धरिल्लो. पूण न्हवऱ्याच्या माथ्याक बाशींग ना. शेनाय-वाजंत्री ना. मंगलाश्टकां जातकच एकामेकांक हार घालप. मागीर एक वर भर आमी भटांचे सुवादीन जावप. तांचे कडल्यान होम, सप्तपदी बी सगळे गरजेचे तितले लग्नविधी शास्त्रोक्त तरेन बऱ्या जाणकार ब्राह्मणा कडल्यान करून घेवप. तें सोंपतकच जाणट्यांक नमस्कार करून लग्नकार्याक आयिल्ल्या मित्र-मैत्रिणींच्या आगत-स्वागताक हांव मेकळो. तांचो च्या-फराळ जातकच खास आमंत्रितांचें जेवण. जालो लग्न समारंभ! सुटसुटीत, कोणाकूय परवडपा सारको, सादो लग्न समारंभ. भेट देणें ना. अहेर घेणें ना. शीण ना, राग ना, झगडें ना.

शाहपुरच्या एका व्हडल्या पोरण्या घरांत हें लग्न जालें. आमकां लग्नांत नाथ पैच्या बेळगांवच्या सेवादल सैनिकांनी सगळे तरेची मदत केली. विशेश करून तेन्नाचे राष्ट्रसेवादलाचे प्रमूख बळवंत दीक्षित आनी तांचे कुटुंबीय घरचें कार्य जाल्ले सारकीं वावुरलीं. गोंयसून आयिल्ले आमचे घरचे लोक, मामा मामयो, चुलती, आते आनी हेर सगळी मंडळी सोयऱ्यां वरी सुसेगाद आराम करीत पाहूणचार घेतालीं. सेवादलाचीं भुरगीं आनी बेळगांवची म्हजी मित्रमंडळी खरीं बोवाळटालीं.



# एलियास

## कोंकणींत हाडपी : भालचंद्र राव

एलियासाचो बापूय भायर पडलो तेन्ना एलियासा खातीर इल्लोसो भाटा कुडको, सात आठ घोडयो, दोन गायो आनी वीस-एक मेंढरां इतलीच किर्तें ती आस्पत तो फाटल्यान दवरून गेल्लो. पूण एलियास बरो कारभारी आशिल्लो. आनी घरकान्नूय ताका बरी आदार दिताली. दोगांय श्रद्धेन वावुरतालीं, कश्ट करतालीं. हाका लागून तांचे गिरेस्तकायेंत वेगान भर पडूंक लागली. एलियासान नवीं भाटां घेतलीं, घोडे गोरवां मेंढरां घेतलीं. पस्तीस वर्सां उपरांत तो गांवचो मुखेल भाटकार जालो. दोनशीं घोडे, देडशें गोरवां आनी हजारा वयर मेंढरां हांचो तो मालक आशिल्लो. घरचें, भायलें सगलें काम करूंक चाकर आशिल्ले. गांवच्या लोकांक दिसतालें, एलियास खरेलोच नशीबवान, ताचें जिवीत कितलें खोशयेन भरिल्लें आसतलें! व्हडले व्हडले लोक एलियासाक मेळूंक येताले. कोणूय येवं, एलियास तांकां जेवण खाण भरपूर दिवन धाडटालो.

एलियासाक तिगां भुरगीं आशिल्लीं. दोग पूत आनी एक धूव. तिगांयचीं ताणें लग्नां केल्लीं. एलियास दुर्बळ आसलो तेन्ना ताचे पूत ताचे वांगडा वावुरताले, कश्ट करताले. तांची गिरेस्तकाय वाडली तेन्ना ते वायट मार्गान वचूंक लागले.एकलो पूत ताव्हेनांतल्या एका केस्तांवांत जीव वगडावन बसलो. दुसऱ्याची बायल घमेंडी आसली. तो बापायचें कितेंच आयकना जालो आनी बायलेक घेवन दुसरें बिराड करून रावंक लागलो. तो घर सोडून वतना एलियासान एक घर, थोडीं गोरवां बी ताच्या नांवार केलीं.



तॉलस्तॉयची काणी

त्याच वर्सा मेंढरांक कसले तरी पिडेची लागण जाली आनी कितलींशी मेंढरां मेलीं. शेत रोयिल्लेंय पाड जालें. गोरवां मेलीं... हें सगलें उणें म्हूण किरगिझ गांवचो एक पंगड आयलो आनी एलियासाचे बरे घोडे चोरून घेवन गेलो. थोड्याच काळा भितर गिरेस्त एलियास दुर्बळ जालो. म्हातारपणाच्या दुर्बळपणानूय ताका धरलो. सत्तर वर्सांची पिराय जाल्ली तेन्ना आंगा वयले कपडे तितलेच उरिल्ले. म्हारग म्हारग वस्तू सगल्यो विकून सोंपिल्ल्यो. घरांत कांयच उरूंक नाशिल्लें. तो आनी ताची बायल सामकीं निराधार जाल्लीं. धुवूय पयलींच मेल्ली. पूत भायल्या गांवांत रावतालो. तांच्या आधाराक कोणूच नाशिल्लो. जेवणाक लेगीत तीं पातिशेर जातालीं.

महंमद शाह म्हूण तांचो एकलो शेजारी आसलो. ताका एलियासाची आनी ताचे बायलेची खूब काकुळट दिसची. एक दीस एलियासाक मेळून तो म्हणूंक लागलो, 'हांव खूब गिरेस्त न्हय. पूण तुमची ही स्थिती म्हज्यान पळोवं नज. तुमी म्हगेर रावंक येयात. तुमचे तांकी प्रमाण कितेंय काम करात. तुमकां-जेवण खाण आनी रावपाक सुवात हांव दितां.' हीं मायेचीं उतरां आयकून एलियासान ताचे खूब उपकार मानले आनी त्या दिसा सावन तीं दोगांय शेजाऱ्यागेर वचून रावंक लागलीं. वावराड्यां वरी तागेर वावुरपाक लागलीं. काम तशें चड नासतालें. पूण तीं तांचे शक्ती प्रमाण श्रद्धेन तें करतालीं. एलियासा सारको मनीस वावुरपी म्हूण मेळिल्ल्यान महंमद शाहच्याय खूब बऱ्याक पडिल्लें. एलियास आनी ताची घरकान्न जाणटीं आशिल्लीं पूण आळशी कशींच नाशिल्लीं. कश्ट घेवन काम करतालीं. तरी महंमद शाहक तांची ही स्थिती पळोवन केन्ना केन्ना खूब दूख भोगतालें. एका काळा वयलीं भरिल्ल्या घरांतलीं मनशां आयज वावराड्यां वरी जियेतात. देवाचो खेळ!

एक दीस महंमद शाहगेर कांय पावणे आयिल्ले. कांय ताचे सोयरे, कांय इश्ट. तातूंत एक मुल्ला आशिल्लो. महंमद शाहन एलियासाक एका मेंढराक धरून मारून पावण्यां खातीर जेवण रांदूंक सांगलें. पावणे दुदाचो सोरो पियेत, मेंढराचें मांस खायत उलयत बशिल्ले. एलियास दारा कडेन उबो आशिल्लो. ताका पळोवन शाहन पावण्यांक म्हळें, 'हो तो दारा म्हऱ्यांत म्हजो वावराडो उबो आसा तो तुमी पळेला? एके मुस्तींत तो ह्या गांवचो व्हडलो भाटकार आसलो- एलियास.'

एलियास?! एकल्यान एलियासा विशीं आयकल्लें. ताची कीर्त गांवा भायर लेगीत पाविल्ली.

'आतां ताचे कडेन कांय ना', महंमद शाहन म्हळें. 'आतां तो आनी ताची म्हातारी बायल म्हगेर वावर करतात. म्हगेरूच रावतात.'

पावण्यांक सामकें अजाप जालें. 'नशीब!' तांणी म्हळें, 'चाकां घुंवलीं आनी गिरेस्त आशिल्लो तो वावराडो जालो. ताचे हे स्थिती विशीं खासा ताका कितें दिसता?'. एका पावण्यान विचारलें आनी म्हळें, 'हे विशीं म्हाका ताचेच कडेन उलोवंक मेळत?'

'कित्याक मेळचें ना?' महंमद शाहन म्हळें आनी एलियासाक उलो मारलो, 'आज्या, हें सोऱ्याचें कोप घे. तुजे बायलेकूय आपय आनी हांगा आमचे म्हऱ्यांत बस...'

एलियासान बायलेक आपयली. एक ल्हानशी प्रार्थना केली, कोपांतलो सोरो तोंडाक लायलो आनी कोप सकल मेजार दवरलें.

तो पावणो उलोवंक लागलो, 'बाबा, तुजे आदले गिरेस्तकायेचो उगडास जावन आनी तुजी आतांची स्थिती पळोवन तुका खूब दुःख भोगता आसतलें न्हय?'

एलियासान हांसून जाप दिली, 'हांव सूख आनी दुःखा विशीं उलोवंक लागलों जाल्यार तुमचो विश्वास बसचो ना. म्हजे बायलेकूच विचारात. ती बायल-मनीस. आपणाल्या काळजांतलेंच उलयतली. खरें तेंच सांगतली.'

पावण्यान पड्ड्या कडेन पळोवन म्हळें, 'आजये, म्हाका सांग पळोवया, तुमचो पयलींचो सूख-संतोस आनी आतांचे कश्ट उतळताप-

दोगांयची तुळा करतकच तुका कशें दिसता?'

पड्ड्या आडूच रावन एलियासाची घरकान्न उलोवंक लागली. - 'हांव आनी म्हजो घरकार फाटल्या पन्नास-एक वर्सां सावन सूख-संतोस सोदत आसात. आनी आमकां तो केन्ना मेळ्ळो ना. ह्या दोन वर्सांत मात हांगा येवन वावराड्यांचें काम करीत सावन आमकां खरेलें सूख मेळ्ळां.

पावण्यांक सगल्यांक अजाप जालें. यजमान शाहकूय मनांतल्यान अजाप दिसलें. तो उठलो, पड्डो कुशीक काडलो आनी ते म्हातारेचें तोंड सारकें पळोवपाक लागलो. ती घोवाक पळेताली आनी तिच्या तोंडार एक हांशें फांकिल्लें.

'हांव खरेंच उलयतां, मस्करी करिना. पन्नास वर्सां आमचे गिरेस्तकायेंत आमी सूख-संतोस सोदलो. पूण आमकां तो मेळ्ळो ना. आतां आमी सामकीं दुर्बळ जाल्यांत. आमचे कडेन कांय ना. दुसऱ्यागेर आमी वावर करतात. पूण आमकां सूख-संतोस मेळ्ळा. हाचे परस दुसरें आमकां कांय नाका.'

'पूण आजये, सूख-संतोस कित्यांत आसता?'

जाणटेलेन जाप दिली, 'आमी गिरेस्त आशिल्लीं तेन्ना म्हज्या घोवाक आनी म्हाका खूब चिंता आसली. खूब हुस्के जाताले आमकां. एकामेकां कडेन उलोवपाक लेगीत आमकां वेळ मेळनासलो. आमच्या आत्म्याची आमकां विसरायूच कशी पडिल्ली. चिंता-हुसक्यांक लागून देवाची प्रार्थना करपाचीय आमकां विसराय पडटाली. पावणे येताले. तांची खाणा-जेवणाची तयारी, वावराड्यांचें सूख-दुःख... वावराड्यो-मानाय सारकीं कामां करनात अशें आमकां दिसतालें. तांचे कडल्यान आमकां जाय तितलें काम आमी घेतालीं - पातक करतालीं... रातचीं कोलसुणीं येवन आमच्या मेंढऱ्यांक खातलीं, चोर येवन आमचें सामान चोरून व्हरतले, हे तरेचे हुस्के करीत आमी न्हिदतालीं. परतीं परतीं उठून सगलें सास्कें आसा काय ना तें पळेतालीं. मनांत फकत चिंता हुस्के. आनीक कांय ना. सूख-संतोश सोडात, मनाची शांतीय नाशिल्ली. हांव आनी म्हजो घोव केन्ना केन्ना वाद, तर्क करतालीं - हें अशें करूंक जाय, तशें न्हय... ह्या वाद-विवादांत आमी देवाक विसरतालीं, पातक करतालीं; एका त्रासांतसून दुसऱ्या त्रासांत पडटालीं. म्हळ्यार, एका पातकांतल्यान दुसऱ्या पातकांत. असल्यांनी सूख-संतोस कसो मेळटलो...?'

'आनी, आतां आजये?' त्या पावण्यान विचारलें.

'आतां आमी सकाळीं उठ्ठात. एकामेकां कडेन मायेन उलयतात. आमचे भितर वाद-विवाद जायनात. आमचे तांकी प्रमाण आमी आमच्या मालकाचें काम करतात, श्रद्धेन. इतलेंच. आमकां लागून आमच्या मालकाचें लुकसाण जावंक जायना. आमकां आतां उलोवंक वेळ आसा, आत्म्या विशीं येवजूंक, देवाची प्रार्थना करूंक वेळ आसा. फाटलीं पन्नास वर्सां आमी फकत सूख-संतोस सोदलो पूण आमकां आतां तो मेळ्ळो.'

पावणे हांसले.

एलियासान तांकां म्हळें, 'हांसूं नाकात इश्टांनो. हें जिवितांतलें एक सत्य. आमी पिशीं आशिल्लीं. आमची गिरेस्तकाय गेली म्हूण खंती जातालीं. पूण आतां देवानूच आमकां हें सत्य दाखयलें. फकत आमचे तृप्ती खातीर न्हय, तुमचेंय बरें करपाक.'

तेन्ना तो मुल्ला म्हणूंक लागलो, 'हेंच खरेलें सत्य. श्रेष्ठ सत्य. आमच्या पवित्र पुस्तकांतूय हेंच सत्य मेळटलें.'

पावणे हांसपाचे थांबले आनी चिंतूंक लागले.



# कविता

*ब्रह्मकमळ: शंकर रामाणी*

**– परेश नरेंद्र कामत**

शंकरबाब,
तुमचे कडेन म्हजो पत्र-वेव्हार
सामको दाट.
रान करो
घनदाट.
– एक दशकभर हांव
ह्या पत्रांच्या रानांतल्या वाटांनी
येतिश्ट भोंवलों. हेडलों.
सपनेलों. घायाळलों.
उज्यांतल्यान
भांगर करो
तर्जून आयलों...

शंकरबाब,
तुमचो सभाव
उकतो.
कसलीच भीड मुर्वत ना धरपी.
तुमच्याच म्हणण्या प्रमाण
तो बरोचसो कोल्ली.
तापट.
तिरसुवाद.
तिरसट आनी मिश्कील.
केन्ना शेंपो फुलोवन
पावसांत थूय थूय नाचपी
तर केन्ना
वाग करो चवताळून
आंगार घुरी घालपी!

'कवितेची साधना म्हळ्यार
रानांत वचून,
वागिणीचे घोलींत रिगून,
खासा वागिणीचें दूद काडपा इतली
कठीण गजाल!'
हॉटेलांत वचून
'सिंगल'
मारपा इतली
ती सोंपी गजाल समजुपी
अर्द्या पांखान मोर जाल्ले कवी
तुमकां ना पसंत.

शंकरबाब,
तुमकां वेंटाळून आसतालो
रात दीस
नवे कवितेचो ध्यास.
आनी हो धगधगतो ध्यास घेवन
तुमी तळमळटाले.
अस्वस्थ जाताले.
INNER TROUBLE,
INNER PAIN च्या
तापत्रयाचो धग
तुमी भितल्ले भितर सोंसताले.
भोगताले.



तुमी पोसलें
काळजाच्या गर्भागारांत
अणभवाचें रसरशीत
जोगलांचें झाड
आनी त्या जोगलाच्या झाडाच्या
सांगातान जळटना,
हुलपतना
तुमकां स्फुरत रावल्यो
ब्रह्मकमळा सारक्यो कविता.
तेजपुंज. तेजस्वी. तेजोमय.
तुमी केली प्रामाणिकपणान
आयुश्यभर
कवितेची साधना
सोळा सोमाराच्या व्रता सारकी
हाताच्या तळटार
जळटे इंगळे घेवन
आनी जाले
कवितेचे नम्र साधक.
केन्ना आळयत रावले
तुकारामा भशेन
''तुका म्हणे होय
मनाशी संवाद
अपुलाची वाद
आपणाशी''
तर केन्ना
VINCENT VAN GOGHच्या
सुरांत सूर मिसळून –
"RATHER ONE BEGINS TO SEE
MORE AND MORE CLEARLY,
THAT LIFE IS ONLY A KIND OF
SOWING TIME
AND THE HARVEST IS NOT HERE"...
म्हणत चलत रावले तुमी

आपली प्रिय सखी
कविते सांगातान
आपले वेगळे, अनवळखी
अस्कडी वाटेन
खूब पयस मेरेन
आपले जिणेच्या अंता मेरेन...





## दोन कविता

– माया खरंगटे

### सपन मुदयाळें

उगरमेळे कळयेन एक
गुपीत उकतायलें,
मुदयाळे सपन वालीच्या
काळजार उदेलें.
कळयेन ओंठ हालयले ना
उतर भायर फुटलें ना
गंद परमळ्ळो पाना आडच्यान
फांतोड फुल्ली उदेंते पोरसांत
चोर पावली मारली वाऱ्यान
दिका जागयली भंवर गितान
मना मनाचें मिलन घडलें
पाकळे पाकळेन फूल फुल्लें.



### फाट राखणें

चंद्र त्या झाडा आडसाक रावन
चान्नें ओतता.
चान्नें पिवन पिवन झाड
कोणे सुंदरेच्या कानांतल्या
वज्रा वेडीं वरी लकलकता
जडावल्ल्या मनाची ती
पाणवठ्यार येतना वेतना
पानापानांतल्यान गळट्या चान्न्यान
शीणमुक्त जाता
तिच्या भारान जडावल्लें तें झाड
अळार ताळयो हालयता
तिचें फाटराखणें जाता.



## गुरुवर्य कविवर्य... रमेश वेळुस्कार

– राजश्री सैल



भर दनपार
धगधगता
आनी हांवूय
धगधगत जळटां
कामाचे गर्दैत
सिलेबस, नॅक, लॅक्चर्स, नोट्स
फायली, रिपोर्ट हांचे मर्दी
कविता खंय तरी रागार फुगार
जावन ऑफिसाच्या सपणार
बशिल्ली आसता
तिचे कडेन पळोवचे परस
कितलींशींच कामां आसतात
चड गरजेचीं
इतल्यान ते येतात
हांव खंय तरी घुसपत
गोंदळत बोवाळत आसतां
सुटिल्लें तुटिल्लें तारूं कशें
ते पळयत बसतात
म्हजी वाट कितलो वेळ मेरेन
कोण तरी सांगता ते आयल्यात
हांव धांवत येतां
आतांच जल्मल्ले कवितेक
येवकार दिवंक आयिल्ले वरी
हांव तांकां पळयतां
कविवर्य रमेश वेळुस्कार
आतांच हिमालयांतले
धवेफुल्ल हिमगंगेचो
भोवताडो काडून
आयिल्ले वरी
संन्याशी तपस्वी
काय म्हजी काकूट म्हण
खंयच्या दृश्य अदृश्य संवसारांतल्यान
कविरायाचें रूप पांगरून
आयिल्ली म्हजीच हरवीताल्ल
कविता
कँटिनाचो एक कोनसो
घेवन आमी बसतात

खूब वेळ मेरेन
बाकीबाब कालिदास ते टागोर
मेरेन फकत कविता आनी
कविताच घसघसून
कोसळूंक लागता चारय दिकांनी
हांव एका वेगळ्याच
तनर तनर
धुंदींत
मोरपाखी जावन
घरां परततां
दारांत एक
नवीताल्ल कविता
म्हजी वाट पळयत
आसता, म्हाका पळोवन
खुक्क् करून हांसता.



# तीन कविता

– सॉतॅर बारैंत



## नमन तुका दशिणी

दशिणीच्या दशिणी गो
जिबली तुजी लांब लांब
तुजोच रुपकार नियाळीत गो
चलतां वाट सगली सांज.

दशिणीच्या दशिणी गो
रत्ना रतन रंग तुजो
काळीज म्हजें जळटा गो
दिसता ताका पेटला उजो.

दशिणीच्या दशिणी गो
सोबीत तुजी न्हेसण बाय
आंगार तुज्या तांबडी चोळी
शेजान्नीक गे बाये कित्याक नसाय?

दशिणीच्या दशिणी गो
तुकाच पळोवन मेळटा सूख
शेवण्या पील गायता गीत
'तूंच म्हजी मारता भूक'.

दशिणीच्या दशिणी गो
सदांच निर्मळ तुजें आंग
जीब कितलीय आसल्यार लांब
चाडयेकान्न कोणूय म्हणत सांग?

## गुलाबाच्या फुला गो

गुलाबाच्या फुला गो
तुजीच म्हाका अपुर्बाय
कांटे तुजे तोंपले तरीय
म्होंवाळ दुखीक ना पर्याय.

गुलाबाच्या फुला गो
थकलल्या जिवाक आसरो जाय
तुकाच वेंगेंत घेवन गो
सुस्त म्हाका न्हिदूंक जाय.

गुलाबाच्या फुला गो
दोळोच तुजी करता नसाय
परमळूच तुजो पुरो म्हाका
उरिल्ल्याक उजो लाय.

गुलाबाच्या फुला गो
दवा थेंबे चोखीत राव
म्हजोय ताळो सुकला गो
मोगा तान भागयत राव.

गुलाबाच्या फुला गो
पाकळ्यो तुज्यो विलुदाच्यो
यादी कित्याक हाडटाय सांग
शेणिल्ल्या मोगाच्यो?

गुलाबाच्या फुला गो
नांव तुजें कितेंय जावं
परमळ तुजो पसरतच
जल्म नवो घेतलों हांव

## नशिबाचें व्हडें

नशिबाचें व्हडें गा
सुटलां वचूंक पेलतडी
उबत उडत सगलो संवसार
उबारलेलो आलतडी.

आलतडीचे न्हंयचें उदक
नितळ तशेंच निर्मळ जरी
पलतडचें दिसलां ताका
गोड, गोड, म्होंवा वरी

आलतडीचे आंबे पणस
रुचीक ताका लागलेनात
पेलतडीच्या खाजरां आशेन
पयस वचचें सोडलें ना.

घर आपलें बांदचे खातीर
पिकास हातांत घेतलो ना.
रावलें वाऱ्यार उबयत पतंग
हालयत वाजयत पांयजणां.

नशीब आतां सुटलां गा
सूख सोदूंक पेलतडी
पाळांक मुळांक अशींच सांडीत
रडचे खातीर आलतडी.



# "हंसध्वनी" - एक न्रोसात्मक पुस्तक परिक्षण

**- अ. ना. म्हांबरो**

कोंकणींत मोराचेर जायत्यो ओपारी आसात. तांतली एक फामाद ओपार "आयज मोर खंय खंय, भांगर (सुवर्ण) पिकलां थंय थंय". हातूंतल्यान मोराचो सभाव कळटा. हेरां परस आपूण वेगळो दिसतां हाची ताका जाणीव आसता. आपले कडेन किते आसा ताचें भांडवल करून वयर कशें सरचें हाचें ताका गिन्यान आसता. मोराचें प्रतीक चडश्या कोंकणीवाद्यांक लागता. बरें फिट्ट बसता. तांतले चडशे एका पांखान मोर जातात. आनी भांगर पिकलां थंय धुडगूस घालतात. ह्या सगळ्या बोवाळाक लागून तांच्याय पदरांत थोडें भांगर पडटा.

कांय बरपी मोरा भशेन आसुनूय मोराचे दुर्गूण तांचे कडेन आसनात.अश्यांतलो एक मुकेश थळी. भांगर पिकता थंय तो आसता. पूण तें आपल्याक मेळटलें म्हूण न्हय. कोणाकूय भांगर मेळ्ळें जाल्यार तो खूश जाता. आनी तेच अवस्थेंत तो भोंवतणच्या लोकांचीं धोंगां-पोंगां पळेता. तरेकवार मनीस, तांच्यो उलोवपाच्यो, बरोवपाच्यो रिती, तांची चाल-चलणूक हांचेर ताचें बारीक लक्ष आसता. आनी तो ताचेर बरयता. असल्या विशयांचेर बरयल्लें ताचें पुस्तक *हंसध्वनी* ह्या दिसांनी उजवाडा आयलां.




मुकेशान आयुश्यांत खुबशीं धवणपणां केल्यांत. ल्हानपणांत बाकींचीं भुरगीं गड्ड्यांनी खेळटालीं तेन्ना तो घडये गणिताचे आंकडे घेवन खेळटालो जातलो. खूब भुरगेपणांत ताका गणिताची आवड लागली. आनी तो आनी ताचो भाव गणितां सोडयत सुटले. उपरांत ताका एका इश्कोलांत गणिताचो टिचर म्हूण नोकरी मेळ्ळी. तेन्ना ताणें थंयच्या भुरग्यांक गणीत मना पसून शिकयलें आनी तांच्यांत गणिताची आवड उप्रासयली.

थंय आसतनाच ताका गोवा युनिव्हर्सिटीच्या 'कोंकणी विश्वकोश प्रकल्पांत काम करपाची संद आयली. थंय तानाजी हळर्णकाराच्या हाता सकयल काम करतना कितल्याश्याच नव्या विशयांचो ताणें अभ्यास केलो. एकाद्र्या विशया वेली चडांत चड म्हायती उण्यांत उण्या उतरांनी कशी दिवची हाची शिस्त थंय ताका लागली. आपल्या विश्वकोशांतल्या कामा विशीं बरयतना मुकेश एका लेखांत म्हणटा, "विचारीक दिवाळखोरीच्या भोंवतणच्या जंवजाळांत बुद्दीक उपासमार जावन सुकतडो लागता तेन्ना हांव ह्या वल्या वल्या उगडासांच्या मळबांत उडणां मारतां... मनपांखाटो फुलोवन... मेंदवाच्यो पेशी तापतात, फुरफुरतात आनी एक स्फुल्लींग पेट घेता. स्फुरण चडटा. अंत ना अश्या गिन्यानाच्या मळबाचो थाव घेवपाचें... भार आयिल्ले भशेन जाता. स्वताचो विसर पडटा... सगळो शीण नाच्च जाता."

विश्वकोशाचें काम चालू आसतनाच मुकेशाक पणजी आकाशवाणीचेर खबरो दिवपाची संद आयली. थंय तो वचूंक लागलो आनी कांय काळा उपरांत थंयच न्यूज रीडर म्हूण नोकरेक लागलो. जें काम आंगार पडटा तें मना पसून करप, वेळ पडल्यार तातूंत सुधारणा घडेवन हाडप हो मुकेशाचो पिंड. तें ताणें सद्याचे नोकरेंतूय केलां. देखीक तो म्हणटा,

"कोंकणी बातम्यांनी कोंकणी भाशेचो वास, परमळ, संगीत, खाशेलपण आसूंक जाय. बातम्यांचो मजकूर जाणून घेतां घेतां वाचतल्याचे गोड संथ निर्मळ शैलीन तो सुखावन वचूंक जाय. आवाजांत स्पश्टताय जाय. खंयचोच शब्द वा क्रियापद गुळगुळायिल्ले भशेन उच्चार करूंक फावोना. म्हज्या वाचनांत हांव एक 'पंच' वा 'थ्रो' असो दवरपाचो येत्न करतां की आयकुपी आयकत उरूंक जाय."

खबरांचो पांवडो आतां खूब सुधारला. खुबशे जाण आतां खबरो आयकतातूय मजा म्हळ्यार, मुकेश म्हणटा ते प्रमाण ताच्या घरच्यांक तागेल्यो बातम्यो अजिबात आवडनात.

ह्या धवणपणां खेरीज मुकेश हेर कांय राटावळीय करीत आसता. गितां रचता, नाटकुलीं बरयता, कोश तयार करपाच्या वावरांत वांटो घेता, टेलिफिल्म करता, कार्यावळींचे सूत्रसंचालन करता, आदी.

*हंसध्वनी* तलो माथाळ्याचो लेख मुकेशान आपल्या आवडीच्या रागाचेर बरयला. तांच्या घरांत संगिताचें दायज आशिल्ल्यान त्या संदर्भांत ताका खंय तरी 'हंसध्वनी' आयकूंक मेळ्ळो. आनी तो ताका आवडलो. ह्या रागाच्यो वेगवेगळ्यो कॅसेटी ताणें एकठांय केल्यात. ह्या रागा संबंदांत वेगवेगळ्या प्रसंगांच्यो यादी ह्या लेखांत दिल्यात. तातूंत संगीतशास्त्राचे नदरेन आनीक कांय गजाली आयिल्ल्यो जाल्यार लेख आनिकूय बरो जातलो आसलो अशें दिसता.

मुकेशाच्या ह्या पुस्तकांत दोन व्यक्तिचित्रां आसात - माई आनी

भाई. एकली ताची आवय आनी दुसरो स्कूल टिचर. दोगूय मनशां ताका लागशिल्लीं. म्हणून ताणें तांचेर पोटतिडकीन, लक्तुबायेन आनी मोयपासान बरयलां. देखून तीं सोबीत जाल्यात.

पुस्तकाच्या हेर लेखांनी कांय बऱ्यो गजाली आयल्यात. हे लेख आंवाठान खुबूच ल्हान जाल्ल्यान अजून तातूंत खुबशो गजाली येवं येताल्यो अशें दिसता.

पुस्तकांतले कांय लेख वाचतकूच म्हजे तकलेंत जे विचार आयले ते मांडटां. 'म्हजे भाशेंतलीं नवलां' ह्या लेखांत मुकेश एके कडेन म्हणटा, ''बार्देसकार लोक तिडकल्ल्या अविर्भावांत'साकर हाड गो' अशी ऑर्द दितकच समजुचें, तो बायलेक साकर हाडूंक फर्मायता''. बार्देसकारूच कित्याक? ही गजाल कोणाकूय लागूं येता. हांव एका बार्देसकाराक वळखतां. ताणें आपणाले बायलेक केन्नाच अशी फर्मावंक ना. ताच्या बापायन ताचे आवयक फर्मावंक ना. ताच्या आज्यान ताचे आजयेक फर्मावंक ना. ताचो पणजो जाल्यार एक पावल फुडें आसलो. च्यांत साकर उणी आसली जाल्यार आपुणूच रांदचे कुडींत वचून गोडाचो कुडको घालून च्या घेतालो.

कांय कडेन मुकेश वाचप्यांक फिलोजोफ्योय सांगता. 'नातें स्वताचें स्वताकडलें' ह्या लेखांत हीं मुक्ताफळां वाचूंक मेळटात: ''स्वासाचें ल्हार म्हज्यांत खेळत आसता तेन्नाच म्हज्या आसतेपणाक अर्थ आसता! कितलें अळंग आनी अचळय उडटा हें स्वासपाफुलें! स्वासांची ही सरपळी मर्यादीत. वाणपणां केल्यार बाजार उलगता. म्हजें स्वता विशींचें नातें समजलेंना जाल्यार निमाण्या खिणाक पस्तावतलों.''

> ''मुकेशाची बरोवपाची शैली बरी. लेख तो उलयल्ले वरी बरयता. फकत उतरांचो सोस आशिल्ल्यान दोन उतरांनी जी गजाल सांगूं येता ती सांगूंक तो चार-स उतरां वापरता. केन्ना केन्नाय मुकेश भावनावश जाता. तेन्ना तागेली भास काव्यमय जाता.''

मुकेशाची बरोवपाची शैली बरी. लेख तो उलयल्ले वरी बरयता. फकत उतरांचो सोस आशिल्ल्यान दोन उतरांनी जी गजाल सांगूं येता ती सांगूंक तो चार-स उतरां वापरता. केन्ना केन्नाय मुकेश भावनावश जाता. तेन्ना तागेली भास काव्यमय जाता. देखीक एके कडेन तो म्हणटा,

''निळीच मांडवी झेमत आसता! केन्ना सुकती आसता केन्ना भरती! एकलो एकसुरो तारयो व्हडें तांडीत मुखार सरतना दिसता. केन्नाय बार्ज दिसता. आपल्याच शरीराकडेन थुळेत आनाळ्यो गुनाळ्यो करीत भिरभिरत उडत वचपी बकीं दिसतात. तरेकतरांचीं सुकणीं. चोडणां, दिवाडे वचपी. मळबाची अनंत निळाय आनी चान्याच्या पिठाचो पालवत वचपी शिंवर. परवरीच्या आनी बिठ्ठोणच्या, एकोशे वटेनच्या दोंगुल्ल्यांच्यो झिलींझोंपाच्यो उदकांत भिजपी सावळ्यो! सुस्त न्हिदून उठिल्ल्या रस्त्या देगेरच्या माडांचो मोनेळ तर तोखे सारको आसता. सैमाचे हे रंग, रूप, आनंद पियेत थंयच रावचें कशें दिसता.''

एका लेखांत इश्टागतीचेर बरयता आसतना मुकेशान म्हळां, आपल्या इश्टांचे तीन वर्ग आसात. दर वर्गांतल्या इश्टांचे गुणदोश सांगून आपल्याक ह्या तिनूय वर्गांतले इश्ट जाय अशें म्हळां. कांय जाणांक इश्टांचे अशे वर्ग करूंक येवचे नात. वेगवेगळ्या तरांचे आंबे एकाच पाटल्यांत घालून चडूच जाल्यार तांतलो फरक - हो पिकिल्लो, हो तन्नो, हो जून, हो कुशिल्लो - अशे कांय जाण दाखोवंक शकतात.

दुसऱ्या एका लेखांत ताणें आमीरखान जलसो चालू आसतना आपल्या साथीदारांक सूचना दितालो अशें बरयलां. ही गजाल पुर्विल्ल्या संगीतकारां मदीं आसताली. हांवें केसरबाई केरकाराले एक दोन जलसे आयकल्ले. तेन्ना दत्ताराम पर्वतकार सारंगीक आनी यशवंत केरकार तबल्याक आसलो. त्या दोगांकूय त्यो ऑर्दी सोडटाल्यो. आनी त्यो सगळ्यांच्या कानार वताल्यो.

पुस्तकाची छापणावळ बरी जाल्या. हातांत पडले बराबर पयल्यांत पयलीं वाचप्यांचे नदरेंत भरता तो पयल्या पाना वेलो हंस. तो धवो मुकेश कसो दिसता. आनी फाटल्या पाना वेलो मुकेश - तो काळसो हंस कसो दिसता.

पुस्तक दामोदर घाणेकाराल्या हाता खालच्यान गेल्ल्यान व्याकरण आनी शुद्धलेखनाचे नदरेन तें बेस बरें जालां. हांगा म्हाका लंडन टायम्साच्या एका संपादकाच्या आत्मचरित्राचो उगडास जाता. ताणें त्या पुस्तकांत म्हळां, वर्तमानपत्राचो अंक कितलोय निवळायलो जाल्यार दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें तुज्या हातांत तो पडटा तेन्ना कांय चुको नदरेंत भरतात. ह्या पुस्तकांतूय तश्यो बारीक-सारीक चुको उरल्यात. चवथीच्या चंद्राचो लेखक रामचंद्र शंकर नायक. तो चुकून रा. ना. नायक जाला. दुसरी गजाल 'वांटपण' आनी 'वाणपण' अशीं उतरां कांय कडेन आयल्यांत. तांतलें शुद्ध उतर खंयचें हें आमकां भाशाशास्त्रज्ञांनी सांगूंक जाय. ''धी ओल्ड मॅन ॲण्ड द सी'' ही कादंबरी बरोवन अरनॅस्ट हॅमिंग्वेन नोबॅल पुरस्कार जोडलो अशें म्हळां. म्हज्या हिसपान, हॅमिंग्वेक ही कादंबरी बरयले उपरांत नोबॅल पुरस्कार मेळिल्लो. पूण तो सगळ्या साहित्या खातीर, हे कादंबरी खातीर न्हय. अशे तरेच्यो चुको खूब उण्यो आसात. हाचें श्रेय मुकेशाक दिवंक जाय.

पुस्तक वाचले उपरांत हांवें एक गजाल मतींत धरल्या. हाचे मुखार मुकेशाक केन्नाय घरा फोन केलो जाल्यार पयलीं म्हजें नांव सांगतलों. आनी मागीर मुकेश आसा काय म्हूण विचारतलों. नांव सांगऽनासतना मुकेश आसा काय म्हूण विचारल्यार ताच्या घरच्यांक आवडना अशें मुकेश म्हणटा.

*'हंसध्वनी'* (ललीत गद्य)
मुकेश थळी
आनंद प्रकाशन, खोर्ली
पानां : ११५, मोल: १०० रुपया



# ‘कावळ्याचें श्राद्ध’
## - कोंकणी काव्यपरंपरा फुडें व्हरपी संग्रह

**एम्. डी. तेंडुलकार**

**का**वळ्याचें श्राद्ध हो अरुणबाब साखरदांडे हांचो दुसरो काव्यझेलो. पयलो *एका झाडाक घर जाय* हो झेलो १९८९ वर्सा उजवाडा आयिल्लो, ताचे उपरांत आज पुराय अठरा वर्सांनी हो झेलो उजवाडा येता.

कोंकणींत यशस्वी कविता बरोवपी कवी खूब आसात. पूण महत्वाकांक्षी कविता बरोवपी कवी साप्प उणे. आतां तुमी म्हणटले, ‘यशस्वी कवी’ आनी ‘महत्वाकांक्षी कवी’ हातूंत फरक कितें? फरक आसाच. मोठो फरक आसा. ताची थोड्या उतरां भितर हांगा विसकटावणी करचीच पडटली.

आशय, विशय आनी फॉर्म हांच्या संदर्भांत चलत आयिल्ले परंपरेक पाळो दीत, जे कवितेंत अणभवाचो ‘स्मार्ट’ भाशीक विस्तार आसता ती यशस्वी कविता, आनी ती बरोवपी कवी म्हळ्यारूच यशस्वी कवी. उलट महत्वाकांक्षी कवी हो असले परंपरेंत, चौकटींत समाधानी नासता. ही परंपरा, चौकट आपले भितर पचोवन तो आशय, विशय, फॉर्म हांची मोडतोड करूंक पळयता आनी ह्या सगल्यांतल्यान कवितेंत तो स्वताची एक नवी, वेगळी भास उबारूंक सोदता. अशे तरेची कविता ही महत्वाकांक्षी कविता आनी ती बरोवंक सोदपी कवी हो महत्वाकांक्षी कवी. आतां महत्वाकांक्षी कवीक एकाद्रे कवितेंत अपयशूय येवं येता. पूण ताची ती अपयशी कविता लेगीत एकाद्रे यशस्वी कविते परस व्हडली आसता. तिचें मोल व्हड आसता. खंयचेय भाशेंतली काव्यपरंपरा फुडें व्हरपाक तिचो उंचेल्या पांवड्यार विकास करपाक महत्वाकांक्षी कवीच कारणीभूत आसता. यशस्वी कवीचे कवितेचें यशस्वीपण हें टेंपररी आसता, तें मार्केटींग तत्वाचेर आदारिल्लें आसता. ते खातिरूच यशस्वी कविता कवितेचे परंपरेंत गुणात्मक भर घालूंक पावना. उलट महत्वाकांक्षी कवी अखखे काव्यपरंपरेकूच फुडें व्हरपाचो प्रयत्न करता.




हे नदरेन पळयल्यार अरुणबाब साखरदांडे हो एक महत्वाकांक्षी कवी अशें म्हाका दिसता. कवितेंतली ही तांची महत्वाकांक्षा *एका झाडाक घर जाय* ह्या पयल्या-वयल्या झेल्यांत लेगीत दिसता.

‘ट्रॅजि-कॉमिक’ हें तांगेले कवितेचें वैशिष्ट्य. तें तांच्या पयल्या झेल्यांतल्यान जाणवतालेंच. ताचें अदीक विस्तारीत आनी सुक्षीम रूप *कावळ्याचें श्राद्ध* ह्या झेल्यांत पळोवंक मेळटा. खरें म्हळ्यार जिणेंतल्या ‘ट्रॅजि-कॉमिका’चो सोद घेयतूच ही कविता आकाराक येता. ते खातीर हे संबंद कवितेंत जरी एक कॉमिक व्हिजन दिसलें तरीय त्या कॉमिक व्हिजनाक कारुण्याची कड लाबल्या. ते नदरेन तांची ‘सात दीस’ ही ल्हानशीच कविता पळोवया:

*एक दीस बापायगेर गेलों*
*एक दीस आवयगेर गेलों*
*एक दीस भावागेर गेलों*
*एक दीस पुतागेर गेलों*
*एक दीस बायलेगेर गेलों*
*एक दीस नातवागेर गेलों*
*एक दीस वाजे आयलो म्हूण*
*म्हज्याच घरा रावलों.*

कविता ही इतलीच. पूण हे कवितेंत कवीन आपल्या आवय-बापाय कडल्यान सुरू करून नातवा मेरेन नात्याचें जाळें पसरयलां. मनीस नात्यान जरी एकामेकां कडें बांदलेलो आसलो तरी दर एकलो मनीस एकलो एकसुरोच आसता हें गंभीर आनी करूण अशें सत ही कविता एक कॉमिक रुपडें धारण करून सांगता. मनशाचे ‘लोनलिनॅस’ चो अणभव ट्रॅजि-कॉमिक पद्धतीन व्यक्त करता.

‘जागो’ ही कविता लेगीत अशीच. कवी कवितेंत आपल्या नव्या घेतिल्ल्या फ्लॅटाचें, सुखसोयींचें वर्णन करतां करतां अचानक मसुंडे कडें पावता -

*“वयले वटेन*
*लागींच मसंड”*

- हें तितलेच उमेदीन तो सांगता आनी आपल्या निमण्या दिसांचें आनी मर्णाचेंय वर्णन करता. ‘जीण आनी मर्ण’ हीं एकामेकांत घुस्पल्लीं दोन समागमी आंगां हें सत कवी हांगा सहज रितीन सुचीत करता.

ही कविता जायते फावटीं कथात्म

वा रुपककथात्म शैलींत व्यक्त जाता. (कवीन हो झेलो जी.ए. कुलकर्णीचे कथेक अर्पण केला हें हे नदरेन म्हत्वाचें.) कोंकणी कवितेंत कथात्म वा रुपककथात्म शैलीचो वापर चडसो कोणें केल्लो दिसना. म्हळ्यारूच आधुनीक काव्य आनी ही शैली हांचो मेळ घाल्लो चडसो दिसना. ह्या दोगांचें रसायन साखरदांडेच्या *कावळ्याचें श्राद्‌ध* ह्या झेल्यांत बरे ताकदीन केल्लें पळोवपाक मेळटा. 'देग' ही कविता ताचें एक बरें उदाहरण म्हूण दिवं येता. 'न्हावपाचो वाज येवप' हो हे कवितेचो विशय. फॅन्टसीचो वापर करीत कवीन तो कथात्म शैलींत हाताळ्ळा. 'न्हावप' ही क्रिया जितली मनशाच्या आरोग्या कडें संबंधीत आसता, ताच्याकूय चड ती मनशाचे अध्यात्मिकते कडें निगडीत आसता हो आशय हे कवितेंत 'आदीमानव' ते 'आधुनीक मानव' हांचे उत्क्रांतींतल्यान व्यक्त जाता. आदीमानवाक 'न्हावप' ही क्रिया एका वेळार खबर नासली. उलट आधुनीक मनशाक जिवाचो वाज येता तसो न्हावपाचो लेगीत वाज येवं येता. 'न्हावपाच्या वाज येवपां'तल्यान कवी हांगा जिणे विशींचें एक भयकारी चित्र उबें करता. कवितेंत आयिल्लो जटा-धारी, सोरोप, सोरपांचो जावपी गुणाकार, न्हंय, ह्यो प्रतिमा ह्या 'हॅलुसिनेशनाक' तरेकवार अर्थांची परिमाणां मेळोवन दितात.

कवीन बरेच कडेन फॅन्टसीचो वापर केल्लो आसा. पूण फॅन्टसी ही बेठी फॅन्टसी म्हूण कवितेंत येवंक शकना. तिका भक्कम आशयाचें फाटबळ जाय पडटा. जी फॅन्टसी वास्तवाचीं शेकानशेक दारां उकतीं करता ती बरी फॅन्टसी अशें म्हजें मत. 'देग' ही कविता ताचेंच उदाहरण म्हूण दिवं येता.

कोंकणी कवितेंत कथात्म वा रुपककथात्म शैलीचो वापर चडसो कोणें केल्लो दिसना. म्हळयारूच आधुनीक काव्य आनी ही शैली हांचो मेळ घाल्लो चडसो दिसना. ह्या दोगांचें रसायन साखरदांडेच्या *कावळयाचें श्राद्‌ध* ह्या झेल्यांत बरे ताकदीन केल्लें पळोवपाक मेळटा.

केन्ना केन्ना ही फॅन्टसी 'काफ्काएस्क' पद्‌धतीन अवतरता. तातूंत एक थंड सुप्त 'हॉरर' आसता. 'विपरीत' ही कविता वाचले उपरांत काफ्फाच्या 'मॅटमॉर्फोसिस' हे कथेचो उगडास सहज जावं येता. (मराठींत आनीक एक अरुण आसा. अरुण कोलटकर नांवाचो. ताचीय बी अशेच तरेन बरयल्ली एक कविता आसा. पूण आशयाक भिडपाचो दोगांचोय ॲप्रोच वेगवेगळो हेंवूय हांगा मुद्‌दम सांगचें पडटलें.)

पूण कसलेच फॅन्टसीचो आधार घेना आसतना कवी कविता बरयता तेन्ना तो कवितेंत प्रतिमा, प्रतिकां वापरना; आपल्या उत्कट संवेदनांकूच तो काव्यमय करून उडयता. 'नातें' ही ह्या झेल्यांतली ते नदरेन एक उत्कृश्ट कविता म्हणची पडटली. हांगा कवीन ट्रॅजि-कॉमिक वा ब्लॅक ह्यूमर हीं सदचीं अस्त्रां वापर नासतना जनरल कौटुंबीक अणभवाक निकट्या इमोशन्सच्या बळार सार्वत्रीक करून उडयला.

हे कवितेंत कौटुंबीक अणभव बरेच आयल्यात. आवय, बापूय, भाव, भयण, बायल, भुरगे ह्या संदर्भांतले तरेकवार अणभव ही कविता व्यक्त करता. आपली आवय मेले उपरांतचो 'उपरांत' हे कवितेंत व्यक्त केल्लो अणभव ह्या सगल्यांत सर्वश्रेश्ट. *कावळ्याचें श्राद्‌ध* ह्या झेल्यांतली ही सर्वश्रेश्ट कविता.

*''हांवूच म्हजी आवय जालों*
*आनी म्हाका मांडयेर घेतलो''*

- ह्या वळीं साकून कॉमॅस जाल्ली ही कविता निमणी

*''मात*
*म्हजी आवय मेले उपरांत''*

ह्या निमण्या वळीं कडें पावता तेन्ना त्यो वाचून थरारून गेल्ले वरी जाता, कवितेचो अख्खो अणभवूच आंगार येयल्ले सारको दिसता. ते नदरेन ही संबंद कविताच मुळांतसून वाचपा सारकी आसा. तातूंतलें हें एक कडवें पळयात:

*हांवूच म्हजी आवय जावन*
*म्हाका बाबापुता केलो*
*आंब्या वयलो काको दाखयलो*
*शेजान्नील्या हामाक आपयली*
*काकीबायल्या कुतूक उलो मारलो*
*म्यांव म्यांव म्हळें*
*कोंब्याक शो शो केलें*
*पिपी दिली*
*दुदू दिलो*
*पूण म्हज्यो आड्डी थांबनात*
*सारको बोब मारीत आसां*
*'आवय गे आवय गे!'*

आवयच्या मर्णाचो येदो व्हडलो शोक, जीवघेणो आकांत उबो करपी कोंकणींतली ही एकमेव आनी श्रेश्ट कविता.

'वसती' ही अशीच एक वैशिश्ट्यपूर्ण कविता. हे कवितेचें पयलें आनी निमणें कडवें एक करीत जाल्यार ती लेगीत एक संपूर्ण कविता थरूं येता. देखीक -

*काळजांत रान वाडत आसा*
*म्हजे सोयरे धायरे, इश्टगण*
*एक एक झाड जावन*
*त्या रानाक वसतेक आयल्यात*

(पयलें कडवें)

*थोड्याच दिसांनी*
*हांवूय एक झाड जावन*
*तांचे वांगडा वसतेक वचपाचो आसां*

(निमणें कडवें)

पूण पयल्या आनी निमण्या कडव्यां मदीं कवीन हांगा फामिलींतल्या कांय मेल्ल्या मनशांचे, मेल्ल्या इश्टगणांचे कांय उगडास बरयल्यात आनी कवितेचो अणभव विराट करीत तांच्या मर्णा वांगडा आपलें मर्णूय उबें केला.

झेल्यांत आशिल्ले पयले कवितेचें नांव ह्या पुस्तकाक दिलां.

*कावळ्याचें श्राद्ध* ही अख्खी रुपकात्मक कविता. हातूंत मनशाचे श्राद्धाचे श्रद्धेचें विडंबन आयलां. हांगा कावळे म्हळ्यारूच मनीस आनी मनीस म्हळ्यारूच कावळे असो व्यूह रचिल्लो आसा. पूण ही रुपकात्मकता खूब सोंपे पद्धतीन हांगा वापरल्या. तातूंत 'कॉम्प्लॅक्सिटी' ना. म्हणुनूच कवितेच्या शेवटाक कावळिणीचे दोळे कित्याक ओले जातात हें कवितेंत नीट इस्टॉब्लिश जायना. तशेंच 'दुका' सुके मातयेंत जिरून वचप' बी गजाली बेठ्यो 'पोएटीक गिमिक्स' थरतात.

तेच भशेन 'देव', 'माकडाचे दांत' सारक्यो कविता तर ह्या झेल्यांत एकदम 'फ्लॅट' दिसतात. तातूंत कॉमिक व्हिजन आसा पूण 'काव्यात्मक आवांठ' ना. हाचे उलट 'सांगात' वा 'आसप' सारक्या कवितांनी कॉमिक व्हिजन आसुनूय तांकां गंभीर काव्यात्मक आवांठ मेळ्ळा. एकलेपण पयस जावपाक निवेदक एक सुणो पोसता आनी ताचीच अवतिकाय निमणी सुण्याची जाता हो अणभव 'सांगात' हे कवितेंत भेदक रितीन आयला.

*मनशां पोसून जालीं*
*आतां म्हळें सुणो पोसुया*
*मात्सो म्हजेच भशेन दिसपी*
*एक सुण्याचो पेटो हाडलो*

- ह्या 'कॅंची' वळींनी कॉमॅस जावपी ही कविता रसिकांक जिणेचो ट्रॅजि-कॉमिक अणभव दिता. तीच गजाल 'आसप' हे कवितेची. जिणेचें अस्तित्व हो हे कवितेचो विशय. कवीन तो सहज कॉमिक पद्धतीन मांडिल्ले सारको दिसता पूण कवितेच्या आशयाक मात गंभीर काव्याचें वजन प्राप्त जाता. देखीक ह्यो तातूंतल्यो वळीच पळयात-

*''म्हजें लग्न जावन खूब वर्सां जालीं*
*पूण फांतोडेर*
*अचकीत जाग येवन*
*'ही आनीक कोण कुशीक न्हिदल्या?'*
*अशें दिसता''*
*वा*
*आमचें घर आतां मोडून पडलां*
*पूण हांव थंय वचत जाल्यार*
*तें पयलीं आशिल्लें तशेंच उबें रावता*
*म्हजी आवय भायर येवन*
*तुळशीक उदक घालता*
*खरें म्हणल्यार म्हजी आवय आतां ना*
*आनी ती तुळसूय ना''*

- सादीं सादीं उतरां, साद्यो साद्यो वळी हांगा जिणेचें संमिश्र दर्शन घडयतात.

पूण *कावळ्याचें श्राद्ध* ह्या झेल्यांत कांय कडेन झरिल्ली सांकेतिकता लेगीत आयल्या. देखीक,

*''काळजा कुडींत*
*सपना राशी''*
*वा*
*''सपनां कडेर*
*चान्ने राती*
*दोळ्यांत भिजलीं*
*रगता नातीं''*
*वा*
*''सांज जाल्या*
*निकतोच सुर्या अस्तला*
*हांव एकटोच*
*विस्मयान*
*रंगरंगयाळें*
*दर खिणाक बदलपी मळब नियाळटां''*

- हे सारक्या वळींतल्यान फकत एक झरिल्लो सांकेतीक अणभव व्यक्त जाता. 'मुक्ती' ही झेल्यांतली निमाणी कविता. हिवूय अशीच सांकेतीक कविता. कारण ते कवितेंत व्यक्त जाल्लो मुक्तीचो अणभव, हे आदीं अनेक कवींनी अनेक कवितांनी त्याच आशयान व्यक्त केल्लो आशिल्ल्यान तातूंत नवेपण कांयच येवंक ना. कवीन कवितेंत जर 'भाशीक शक्यता' फुलपाक दिल्ली जाल्यारूय तो असलो झरिल्लो अणभव नवो म्हणून मांडूंक शकतलो आसलो. ते नदरेन 'लॅंग्वेज पॉसिबिलिटीज' वा 'भाशीक शक्यता' हो अस्सल कवितेचो प्राण आसता अशेंच म्हणचें पडटलें.

कोंकणी काव्य परंपरे कडे पळयत जाल्यार आज मेरेन थंय तीन प्रवाह दिसतात. बाकीबाब, भांगी, रामाणी, माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, परेश कामत, नूतन साखरदांडे हांचे रोमँटीक जातीचे कवितेचो एक प्रवाह. तर र. वि. पंडीत, मनोहरराय सरदेसाय, पुंडलीक नायक, चा. फ्रा. द. कॉश्ता, प्रकाश पाडगांवकार, निलबा खांडेकार हांची वक्तृत्वपूर्ण शैलींतली कविता हो दुसरो प्रवाह. तर तिसऱ्या प्रवाहांत शंकर परूळकार, सुदेश शरद लोटलीकार, बाळकृष्णजी कानोळकार, सु. म. तडकोड, अरुण साखरदांडे हांची मॉडर्नीस्ट/पोस्ट मॉडर्नीस्ट कविता पळोवपाक मेळटा.

हातूंत परत अरुण साखरदांडेची कविता ह्या तिसऱ्या प्रवाहांतल्या सगल्यां परस वैशिष्ट्यपूर्ण थरता ती तांतल्या कॉमीक व्हिजन आनी ब्लॅक ह्युमरा खातीर. हीं वैशिश्ट्यां खरें म्हळ्यार बाकीच्या मॉडर्नीस्ट कवींत चडशी पळोवंक मेळनात. देखीक 'सफरचंद' सारकी कविताच घेयात. 'सफरचंद' ही सादी कॉमीक दिसपी कविता. तातूंत कवीन सफरचंदा विशीं जी ॲलर्जी आनी परत ऑब्सेशन व्यक्त केलां, तें रसिकांक प्रतिकात्मक पातळेर व्हरता. एकाच वेळार सफरचंद जिणेचें प्रतीक जाता आनी मर्णाचेंय बी. आनी ते खातिरूच ही ॲलर्जी, हें ऑब्सेशन जिणे बद्दलचें, काय मर्णा बद्दलचें, कांय दोगांय बद्दलचें हाचे विशीं रसिकांच्या मनांत तरंग निर्माण करता. पूण अशेंय आसून हे संबंद कवितेंत कवीचो ॲप्रोच सामको 'एन्टी-पोएटीक' आसा. सांगपाचो मुद्दो म्हळ्यार, अशी कविता फकत साखरदांडे सारको कवीच बरोवंक शकता.

आतां ह्या झेल्यांत कांय कमी-जास्त गजाली आसातूच, पूण तरीय एकूण कोंकणी काव्यपरंपरेंत भर घालपी, काव्यपरंपरा फुडें व्हरपी असो हो संग्रह.



# हांसयतां हांसयतां अंतर्मुख करपी निबंद...

– प्रियदर्शिनी तडकोडकार

बरोवप्याक ताचे भोंवतणी घडपी घडणुको, अणभव हातूंतल्यान सतत किर्ते तरी जाणवत रावता. त्या सगळ्या भायल्या घडणुकांतल्यान, आनी बरोवप्याची लेखनप्रक्रिया आनी संवेदनशीलता हातूंतल्यान ताका किर्ते तरी दिसत रावता, सुचत रावता. तशेंच ताका वाचप्यांक किर्ते तरी सुचयनूय दिसता, दाखयन दिसता. हे प्रक्रियेंतल्यान त्या बरोवप्या कडल्यान जें किर्ते बरोवन जाता ताचेर त्या बरोवप्याची स्वतःची अशी मुद्रा आसता. अशी आपणाली मुद्रा लेखनाचेर उठोवपी बरोवप्यां मदली एक दीपा मुरकुंडे.

*उमजणी* ह्या कथा झेल्या वांगडा कोंकणी साहित्यमळार पावल दवरपी दीपाचें हें ललित निबंदांचें दुसरें पुस्तक. हे सगळे निबंद हाचे पयलीं 'सुनापरान्ता'च्या 'पारजतां'त परमळ्ळ्यात. आयज ते पुस्तक रुपान वाचप्यां मुखार एकवटीतपणान येतात. कोंकणी साहित्याचे परिपक्वतायेची ही एक कूस. साहित्य आनी भास प्रौढ जायत वतात तेन्नाच तातूंत निबंद साहित्याची भर पडटा. आयज कोंकणीच्या मळार अशीं जायतीं ललित निबंदांची पुस्तकां उजवाडा येत आसात. ही एक सुगुर्व्याची एक गजाल.

श्री हरी प्रकाशनान नव्या वर्सा निमतान ह्या पुस्तकाची भेट वाचप्यांक दिल्या. फाटल्या कांय वर्सां श्रीहरी प्रकाशनान पंचविसां वयर पुस्तकां उजवाडायल्यांत. चडशीं बालसाहित्याचीं. तातूंत दीपाबायचीं तीन पुस्तकां आसात. आयज कोंकणी साहित्याक वाचक जाय. पूण वाचनाची गोडी भुरगेपणा सावन लागल्यार मुखार वाचपी तयार जातले ही जाण दवरून श्रीहरि प्रकाशन वावुरता. ते खातीर तांकां परबीं फावतात.

''फ फा.... फोफौफंफः, तुमी म्हणटलीं, हीं कसलीं पिशेपणां? प्रियदर्शिनी बाराखडी विसरली काय किर्ते-न्हय? हो सात्वीक संताप उकतावपाचो 'फॉर्म्यूला' दीपा अदीक स्पश्टपणान सांगचें जाल्यार, हो दीपाच्या पोरसांत येतिश्ट चरपी बोकडेचो आनी तिचे गाळयारे मालकिणीचो बंदोबस्त करपाचो फॉर्म्यूला. 'शठम् प्रति शाठ्यम्' ह्या पयल्याच लेखांत लेखिकेन गाळयारे शेजान्नीचो वाडोभर जावपी त्रास कसो सोंपयलो हाची गजाल सांगल्या. इतलो तेंप वाड्यार रावनूय जे गाळयारे आवय-धुवेचो बंदोबस्त वाड्या वेलीं कोणूच करूंक पावलीं नात तांचो कायमचो बंदोबस्त दीपान करतकच 'शक्ती परस युक्ती व्हड' हाची कल्पना येता असो हो फॉर्म्यूला. तातूंत हांव 'चचो चमचो' धवळटां. कारण आमचीं गाळी पुराणां फन सुरू जावन च्यांत बुडटात म्हणटकच हो दीपा-प्रिया फॉर्म्यूला चड प्रभावी आनी पॉप्युलर जावंक हरकत ना!

'आपणाला बायको पायजे काय?' हो असोच एक प्रसंग. मनशांक आपणाले आवय भाशे सांगातान दुसऱ्योय भासो शिकपाची, उलोवपाची आवड आसता. पूण केन्ना केन्ना दुसरी भास आनी तातूंतलें नकसूदपण समजून घेतलेंना जाल्यार अर्थाचो अनर्थ जाता. केन्ना केन्ना नवी भास शिकून घेतिल्ल्याचे खोशयेन आमीं इतलीं भुरकटून गेल्लीं आसतात की आमचे कडल्यान अर्थाचो अनर्थ जाता. हें ह्या लेखांत सांगलां. लेखिका कोल्हापूरच्यान गोंयां राबितो करूंक आयिल्ली तेन्ना एका भाड्याच्या घरांत रावताली. घरमालक कोंकणी पूण गोंयकारांच्या सभावा प्रमाण आपणाक मराठी सारकी येना आसतना तिचे कडेन मराठींतल्यान उलयतालो. एक दीस लेखिकेक, वावराडी जाय म्हूण ताका कळ्ळें आनी ताणें लेखिकेच्या घोवाक विचारलें, 'मुरकुंडे आपणाला बायको पाहिजे काय? जाय जाल्यार 'आमचीच घ्या', ती तुमचें सगळें काम करतली. 'भांडी घासते, कपडे उंबळते आनी सान्नय मारते. तुमी दुसरी बायको बघू नका. आमचीच बायको तुमाला देतो' अशें म्हणटकच पयलीं तटास जाल्लो लेखिकेचो घोव, घरमालकाचो उद्देश मतींत येतकच पोटभर हांसता आनी ताका त्या उतराचो अर्थ सांगता, आमकां बायको नाका, बाई जाय. बायको म्हळ्यार घरकान्न' आनी तुजे घरकान्नीक तूं असो दुसऱ्यागेर कामाक लायता जाल्यार ती तुका सान्न घेवन सडीक मार घालतली. तेन्ना तूं कोंकणींतल्यानच उलय.' आपल्या म्हणण्याचो अर्थ मतींत येतकच घरमालकाकूय शेळो घाम सुट्टा आनी ते उपरांत तो मराठीची भाजी कातरपाचें बंद करता. हांगा म्हाका याद जाता ती पु.ल. देशपांडेच्या 'अपूर्वाई, 'जावे त्याच्या (वंशा) देशा' हांतल्या निबंदांची. पु.ल.नी थंय खुरखुशीत रितीन आपणाक पयलेच फावट बंगालांत वतकच आनी युरोपाकूय बी वतकच भाशेक लागून जे अणभव आयले आनी जे मजेदार प्रसंग घडले तांचीं वर्णनां केल्यांत. वाचप्यांच्या वोंठांर तीं हांसो खेळयतात.

'सभावाक वखद ना', 'दुर्येसांच्यो तरेक तरा', 'वाटेवयल्या वागा', 'पिड्डुकां कांकणां' ह्या निबंदांतल्यान मनशाच्या प्रवृत्तींचेर ल्हान ल्हान प्रसंगांच्या आदारान लेखिकेन उजवाड घाला. जाल्यार खासा लेखिकेन अणभविल्ले खीण, प्रसंग 'धर्म करतां कर्म उबें', 'म्हाका भुजिल्ले जादू', 'असोय एक बस प्रवास', 'सवती आवय', 'बायेऽघोव', 'म्हजो आजो खंय गेलो?', 'गूण नाही तरी वाण लागला!', 'हाण्डीर कळसो, गांवाक वळसो' अश्या कांय निबंदांतल्यान मांडल्यात.

हे लेखिकेचे जिणेंत घडिल्ले प्रसंग. प्रसंग तशे ल्हानशे सादेशेच. पूण त्या प्रसंगातल्यानूय एक एक बुद्द घेवपाची. हातूंतले कांय प्रसंग नर्म विनोदी, तर कांय पोट धरून हांसपा सारके, कांय प्रसंगा हृदय जाल्यार कांय तिडक हाडपी. कांय लेखिकेचे गूण दाखोवपी जाल्यार कांय हेरांचें शाणेपण दाखोवन दिवपी. कांयतल्यान राजकारणी लोकांचेर टिका केल्या जाल्यार एखाद दुसरो समाजाचे वृत्तीचेर नदर मारपी. हातूंत आयिल्ल्यो व्यक्तीरेखा दर पावला कणकणी मेळपा सारक्यो देखून त्या आपल्योशो दिसतात. काकीबाय, शालीबाय जांव, जानूदादा, कमळूबाब, जॉन, शंकरदादा हीं सगळीं सरभोंवतणचीं पात्रां. संवकळीचीं दिसतात. देखून तांचे प्रस्न आनी तांचेर आयिल्ले प्रसंगूय आपलेशे दिसतात.

तशें पळोवंक गेल्यार 'पारजत' हें 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचें सदर. दिसाळ्यांत दिसपट्ट्यो बातम्यो, खबरो, गजाली येतात. दीस

सोंपलो म्हण्टकच वाचपी नव्या खबरांची वाट पळयता. कालच्यो खबरो पोरण्यो जातात तशे कांय सदरांचेय विशय शेळे जातात. नव्या खबरांची, नव्या विशयांची उमळशीक लागता. मागीर दिसाळें कोनशाक पडटा. लोक तातूंतल्यो गजाली विसरून वतात. पूण दीपाच्या 'पारजता'खातीर बरयल्ल्या ह्या लेखांक तशी शेळेपणाची आमसाण ना. हे लेख १९९१ ते २००१ ह्या धा वर्सांच्या काळांत बरयल्ले खरे पूण तांकां आजुनूय ताजेपण आसा. हाचें कारण, हे सगळे विशय समाजांतलेच. शाश्वत अशे. तांतले कांय वयले वयले आसल्यार तांचे फाटल्यान आसा तें गंभीरपण ह्या लेखांतल्यान वाचप्यांक अंतर्मुख करता. देखीक 'वाटे वयल्या वागां'तलें चली. लेखिकेक तें आपलें नांव निमणे मेरेन सांगना. तिचो हुस्को जावन लेखिका तिच्या सांगातान मडगांवच्यान सांवड्डें मेरेन वता. अकल्पिता अशें वागपाचें कारण सोदल्यार आयचे समाज वेवस्थे कडेन लक्ष वता. भुरगीं शिकपाक बी भायर वतातूच, पूण तीं कितलीं असुरक्षीत, इनसेक्युअर आसत हाची जाण तांच्या आवय-बापायक आसा. खासा भुरग्यांकूय आनी हेरांकूय आसा. हे दाखोवपी हो लेख, जाचेर समाजान गंभीरतायेन विचार करूंक जाय.

ह्याच भुरग्यांची शिटुकसाण वा तांचें आडांगीपण वा तांची समजिकाय लेखिकेन विंगड विंगड निबंदांतल्यान दाखयल्या. भुरग्यांचें नितळ बालपण, चिंता हुस्क्या विरंयत जीण 'असोय एक प्रवास' ह्या निबंदांत दाखयला. तातूंतलो 'फेविकॉल को जोड है टूटेगा नहीं' चो ज्योक सामको पोट धरून हांसोवपी जाल्यार 'म्हाका भुजिल्ले जादूं'तल्या लचांड भुरग्याचीं लंचाडपणाय बरेंच कितें शिकोवपी. केन्ना केन्ना जाणटीं भुरग्यांक for granted कर्शी घेतात तांच्या दोळ्यांत झणझणीत अंजन घालपी हो लेख. 'बाबा डोन्ट डू मस्ती रे' 'बाबा आं डू' करून आपलें इंग्रजीप्रेम दाखोवपी नवमातांचेरूय बोट दवरता. व्हडल्यांच्या आनी हेरांच्या सभावांतले सॉफ्टकॉर्नर हेरून तांचो फायदो करून घेवपी 'सवती आवयं'तलें भुरगें ते पिरायेच्या सगळ्यांचें प्रतिनिधित्व करता. 'म्हजो आजो खंय गेलो?' हो लेखूय मुळा सावनूच वाचपाचो.

'क्योंकी सास भी कभी बहू थी', 'तरेतरेचीं सवंगां', 'वाचको देवो भव' 'हाण्डीर कळसो गांवाक वळसो', 'वाटेवयल्या वागा', 'धर्म करतां कर्म उबें' हीं कांय शीर्शकां म्हळ्यार चालंत आनी लोकप्रीय टी.वी. सिरियली, म्हालगड्या बरोवप्यांच्या पुस्तकांची शीर्शकां, कांय म्हणी, ओपारी हांचो वापर करून बरयल्ले लेख. ह्या साबार निबंदांनी एक हांसतें नर्मविनोदी वातावरण आसा. चुरचुरीत विनोद, सोंपी भास आनी खूबशें कितें सुचोवपी, reading between the lines म्हणटात तश्यो खुबशो सुवाती दाखोवपी हें लेखन. बरें लेखन दाखयता ताचे परस चड सुचयता आनी बरो विनोद हांसयता ताचे परस चड अंतर्मुख करता.

समाजांतली विसंगती अचूकतायेन निरखून, ती प्रसन्न शैलीन वाचप्यां मुखार हाडपाची कळाशी लेखिके कडेन आसा. हाचो प्रत्यय ह्या बरपांतल्यान येता. 'हॅलो, हॅलो', 'काळखांतल्यान समतेकडें', 'आनी अजाप घडलें', 'जितो आसा तो मेलो' हे अन्याया आड उबी रावपी लेखिकेच्या सभावाची वळख करून दिवपी ललीत निबंद. वाचप्यांनी ते मुजरत वाचचे.

हें पुस्तकाचें परीक्षण न्हय वा समीक्षणूय न्हय. ही वळख. देखून वयले वयर प्रथमदर्शनी जें दिसता तें सांगपी. हे निबंद विनोदाच्या बाजान वचपी आसुनूय खंयच विनोद पचपचीत जावंक ना हें तांचें खाशेलेपण. सामान्य मनशाच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत येवपी अडचणी, अन्याय, अणभव हांचें केल्लें हें चित्रण - सामान्य वाचप्यांकूच दोळ्यां मुखार दवरून केल्ले. देखून ह्या निबंदांक एके तरेची उत्फुल्लताय आयल्या. वाचपी कांय खीण आपणाल्या अणभवां कडेन लेखिकेच्या अणभवांची तुळा करता आनी तो मॅच जालो म्हणटकच पसंतीची पावती दिता.

दीपा कडल्यान आनिकूय लेखनाची अपेक्षा आसा. एक बरी ललीत निबंदकार जावपाची तांक तिचें मर्दी आसा. ती भविश्यांत सिद्ध करून दाखोवपाची तिका संद मेळची अशें मागतां.

देव बरें करूं.

**भौरंगी जीण, भाग-२** (निबंधां झेलो)
दीपा मुरकुंडे
श्रीहरी प्रकाशन, नावेलीं-गोंय.
पानां: ६४, मोल: ४५ रु.



REG. No. GOA 130



Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Printart Offset Printers, Kundaim Industrial Estate, Goa. Editor : Madhavi Sardesai